# काळचक्र

अतुल र. पंडित






गोवा कोंकणी अकादेमी

काळचक्र

कथां झेलो

लेखक :
श्री. अतुल र. पंडित
प्रकाशन क्र. ३९

उजवाडावपी :
श्री. ज्यॉर्ज द् आब्रेव
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी
बोरी, फोंडें, गोंय

छापपी :
कस्तुरी ग्राफिक्स,
धवळी, फोंडें , गोंय

मुखचित्र :
कस्तुरी ग्राफिक्स
धवळी, फोंडें, गोंय.

पयली आवृत्ती : मार्च २००१

मोल : ४०/- रुपया

KALCHAKRA

(Collection of short stories)

Writer :
Shri Atul R. Pandit
Publication No. 39


Publisher :
Shri George De Abreu
Secretary,
Goa Konkani Akademi
Borim, Ponda, Goa.

Printer :
Kasturi Graphics
Dhavali, Ponda, Goa.

Cover :
Kasturi Graphics
Dhavali, Ponda, Goa

First Edition : March 2001

Price : Rs. 40 /-



पयलो चंवर येवजणेंतलें अकादेमीचें प्रकाशन

# मांडावळ

# दोन उतरां

"असोच बरयत राव. तूं एक दीस व्हड जातलो" हो म्हजे सर्गेस्त आजयेन दिल्लो आशीर्वाद आनी दिल्ल्या प्रोत्साहनाक लागून हांव साहित्यीक जावंक पावलों आनी भौ. कमलाकर म्हाळशी हांणी फुडाकार घेतिल्ल्यान म्हजेंय एक पुस्तक आसचें हें सपन पूर्ण करूंक शकलों.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे "पयलो चंवर" येवजणेखाला हें पुस्तक उजवाडा आयलां म्हणून हांव तांचे मनस्पूर्वक आभार मानतां आनी गोवा कोंकणी अकादेमीच्या जाळवणदारांनी आनी कर्मचाऱ्यांनी दिल्ल्या मोलादीक आदाराक लागून तांचे उपकार आठयतां. कामाचो व्याप आसतना वेळांत वेळ काडून पुस्तकाक प्रस्तावना दिवपी साहित्य अकादमी पुरस्कार जैतवंत भौ. प्रकाश थळी हांचे खेरीत उपकार मानूंक जाय. म्हजी विनंती मानून घेवन तांणी आपली प्रस्तावना पुस्तका खातीर बरयली देखून हांव तांच्या उपकारांत आसां. प्रस्तावनेच्या रूपान तांचीं आशिर्वादाचीं उतरां ह्या पुस्तकांक लाबल्यांत हें हांव म्हजें भाग्य समजतां आनी हें पुस्तक उजवाडावंक प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष जांणी म्हाका आदार केला त्या सगल्यांचो हांव सदांच ऋणी आसां.

- अतुल र. पंडित

मडगांव, गोंय

# मनस्पुर्वेक शुभकामना

"अशेंच बरयत राव. तूं एक दीस व्हड जातलो" हो ताचे आज्येन अतुलाक दिल्लो आशीर्वाद बरोचसो फळादीक जाला. अतुलाची आजी आगळया वेगळया सभावाची आनी फुडार पारखुपीच म्हणूंक जाय. कोंकणीतल्यान बरोवपाक उर्बा हाडपी, पुरोगामी विचारांची. असली आजी मेळपाक भाग्य जाय. आजयेचीं उतरां खरीं करून दारवोवपाक धडपडपी नातवाचीय तोंडभर तुस्त तोरवणाय जावंक जाय. अतुलाचे आजयेच्या आशीर्वादाक ही म्हजी नमळायेची पुस्ती जोडटना मनाक खोस भोगता.

अतुल रघुनाथ पंडित ह्या तरणाट्याक हांव फाटल्या धा वर्सांसावन सामको लागींच्यान पळयत आयलां. सुर्वेक हांवें हें नांव पेपरांचेर छापून आयिल्लें वाचलें तेन्नाच्यान आमगेल्या म्हालगडया सर्गेस्त कवी रघुनाथ विष्णू पंडित (र. वि. पंडीत) हांचेकडेन ताचें लागींचें नातें बी आसा अशें धरून आशिल्लों. म्हजो समज चुकीचो म्हणपाचें मागीर कळ्ळें. पूण साहित्याकडेन पळयतना, लेखन करतना, ताचे नदरेचें आनी वृत्तीचें साम्य मात कवी पंडिताचे "आयलें तशें गायलें" अशे वृत्तीकडेन जुळटा म्हणपाचें ताच्यो ह्यो कथा आनी हेर स्फुट बरपावळ म्हळयार निबंध, एकांकी, कविता हातुंतल्यान स्पश्टपणान जाणवता.

तंत्राचे मंत्र घेवपांत, तांचो अभ्यास करपांत, चिकित्सायेन साबार निकषांचेर आपणालें बरप नियाळपाचे भानगडींत तो पडना. तो येता तशें बरयता. लोकांक ताचें बरप मानवता म्हण्टकूच तें बरें अशेंच म्हणूंक जाय. हे नदरेन तो Non Concious कलाकार आनी रचनाकार. हाका लागून ताच्या बरपांत एक ओघवतेंपण, निसर्गीकपण, उत्स्फूर्तताय बी गजाली दिश्टी पडटात. छिन्नी घेवन फातर ताशीत, बारीकसाणेन आकार दीत वचपी, प्रयत्नशील शिल्पकाराची पध्दत ताका मानवना. उतरांचो खेळ, वाक्यांची जाणीवपूर्वक येवजण, अलंकारप्रचुरत्व, प्रतिमा - प्रतिकांचो वापर बी जंक्जाळांतूय तो स्वता घुस्पना आनी वाचप्यांकूय घुस्पायना.

मनांत एखादें कथाबीज आसा, ताका विशीश्ट तरेन आकार दिवचो, आशयाच्यो कथा निश्चित करच्यो, Universe of discourse आंखून घेवचो आनी ते फास्केभायर वच्चें न्हयअसलीं बंधनां तो स्वताचेर घालून घेता अशें दिसना. एक मात, तो पाल्हाळीक बरयना. बरोवंक बसता तेन्ना मनांत आसता ताची अभिव्यक्ती त्या त्या मुडाप्रमाण, भोंवतणचे थळकाळ परिस्थितीप्रमाण घडत वता, कागदाचेर उतरता.

अतुल हो एक अस्सल हाडाचो पत्रकार म्हणूंक जाय. पत्रकाराक आळस म्हण्टात तो आसूंक जायना. अतुल हो सदैव धडपडी. तो केन्ना बेकार बशिल्लो कोणाक पळोवंक मेळचो ना. देशी भाशांतल्या वर्तमानपत्रांनी पूर्ण वेळ काम करपी पत्रकारांक सगल्यांत चड काम करचें पडटा तें भाशांतराचें. लेखनकामाठी तर हिस्पाभायर करची पडटा.

जायतीं वर्तमानपत्रां आनी बातम्यांच्यो सुवातो नदरेखाला घालच्यो पडटात. अशा वेळार सृजनशील., रचनात्मक कथा, कविता, नाटक, निबंद बी साहित्य रचपाक उसरपत नासता, पासियेंसूय उरना. असले परिस्थितींतूय आपणांतल्या कलाकाराक जागो दवरून साहित्यसाधना करपी पत्रकार - लेखकांची परंपरा कोंकणीच्या मळार चलत आयल्या. अतुल पंडित हीच परंपरा फुडें व्हरप्यांमदलो एक म्हूण बरो सोबता.

पत्रकारितेन कोंकणी साहित्याक खूब पोसवण दिल्या, आयजूय दीत आसा. पत्रिकारितेक लागून रचनात्मक साहित्य निर्मणेचो कस देंवता काय सृजनात्मक बरोवपी पत्रकारितेकडेन दुर्लक्ष करता बी गजाली भासाभाशेचो विशय जावं येतात. डेस्कावेले पत्रकारितेच्या निमतान गरज म्हणून जायतें सृजनशील बरपूय पूर्णवेळ पत्रकारांक वेळाप्रसंगार करचें पडटा. ही जापसालकी वाजेनासतना निभावपाचें पासिंएस अतुलाकडेन आसा हेखातीर ताची तोखणाय दिसता. पत्रकारितेच्या वेवसायाचें चेपण, ताण-तणावबी नाशिल्लें जाल्यार ताचें रचनात्मक साहित्य चड कसदार जावं येतालें अशेंय म्हणूं येता.

म्हाका स्वताक अतुल हो पिंडाचो कवी वा कथाकार वा नाटककार म्हणचे परस तो एक चड बरो निबंदकार अशें दिसत आयलां. पयल्या चंवराक ताणें कथा दिल्यो तरी ताचो निबंधांचोय झेलो बेगीन येवंक जाय अशें सांगन दिसता. अतुलाकडेन सातत्य आसा, ताची देख तर आयच्या सगल्याच तरणाट्या बरोवप्यांनी देख म्हणून घेवपासारकी.

अतुलाच्या कथांचें भावविश्व आनी अनुभवविश्व चडशें शारांतलें. मध्यमवर्गीय, दादलो-बायल हांचेमदलो मोग, भोग, तांचे कौटुंबिक प्रस्न आनी ताणतणाव, अर्थीक समस्या, लग्नासंबंदींचे प्रस्न, जाती काती, धर्मांचो वेगळोचार, काजाराचे बाबतींतलीं बंधनां आनी हेर समाजीक आडखळी हांचे फास्कें त आसता. गांवगिऱ्या वाठारांतली जीण, सैमाचें दर्शन, लोकजिणेंतली संवेदना ताच्या कथांनी उण्या प्रमाणांत येतात.

दादलो-बायल हांच्या तारुण्य सुलभ मोगाची आनी लग्नासंबंधींची दखल लेखक लार्गीं लार्गीं सगल्याच कथांतल्यान घेता. मोग - भावना हो घडये ताच्या भौतेक सगल्या कथांचो स्थायीभाव. पात्रांचें स्वभावरेखाटन खोलायेन करप वा ताचें मानसिक संशोधन, उत्खनन दाखोवप तो करीत बसना. कथानकाक तो चड म्हत्व दिता. तातूंतच मागीर घडणुको, मोग, भोग, श्रृंगार, इल्ली चर्चा, बी फावो थंय येतात. आपापल्या प्रस्नांची सोडवणूक बरीचशी सरधोपट मार्गान जाता. कथांचो शेवट चडसो, आत्महत्या, अपघात बी गजालींनी करून तो सोपेपणीं मेकळो जाता.

कथा रचपांत वा कथानकांचे बाबतींत हिंदी सिनेमांचो वा कोंकणी तियात्रांचो ह्या लेखकांचेर प्रभाव आसुंये. हिंदी फिल्मांक कार्यकारणभाव मांडचेपरस केवळ योगायोगाक, अपसयोगाक (म्हळयार अपघाताक), अचकित घडून येवपी गजालींक म्हत्वाचें स्थान आसता. अतुलाच्या कथांनी योगायोगान म्हणटात तशे तरेन खूब गजाली घडटात. तशें पळयल्यार ह्या कथा संग्रहाक "योगायोग" अशें नांव दिल्लें जाल्यार चड समर्पक दिसपाचें अशेंच वाचप्यांक दिसुंये. ह्या नांवांची एक कथा संग्रहांत आसा.

मोगभावनेचो वयर उल्लेख आयला. कांय कथांचीं नांवांच हें सुचयतात. देखीक, फटकिरो मोग, अमर मोग, मोगाखातीर, अशेंय एक लवलेटर आदी. तेचपरी सपनां

(तींवूय चडशीं मोगाचीं, लग्नाचीं, मिलनांचीं) जागोवपी हेर चडशा कथांनी मोग आसाच. ताचीं रुपां मागीर वेगवेगळीं आसूं, "काळ", "योगायोग", "नशीब" ह्या हाताभायल्या गजालींचें प्रभुत्व कथानकांचेर सगल्याक शिंपडिल्लें दिसता. ह्या लेखकाच्यो कथा आवाठान ल्हानशोच, सुटसटीत, एकेच बसकेंत वाचून सोपोवपासारक्यो, देखून त्यो वाजेवण्यो जायनात. आनीक एक गजाल, सामाजिक विशमता, भेदाभेद, धर्माच्यो, जातीपातींच्यो वण्टी हांचो जो शिराप लागिल्लो आसा ताचें भान हो लेखक दाखयता; पूण ताचेर चड विस्तारान बरयना. जाल्यारूय ताची समाजीक वागणूक नितळ बरी दिश्टी पडटा. ताच्या चडशा कथांतल्यान समाजीक आशय झळकता.

अतुलाचो हो पयलोच "चंवर". पयल्याच चंवरांतल्यान पुराय तांकीचो अदमास काडप कठीणूच. पूण ह्या लेखकाचे लिखाणातले सुप्त गूण लिपून उरनात. ह्या गुणांचो पुरायेन विकास जावन अतुलाकडल्यान खूब साहित्यसेवा घडची अशें आंवडेतां. अतुलाक म्हज्यो मनस्पुर्वेक शुभकामना.

प्रकाश थळी
उस्कय, बार्देस



# काळचक्र

“ट्रींग ट्रींग ट्रींग” च्या घेंवंक वशिल्ल्यावेळार फोन वाजलो. हांवें घड्याळीचेर नदर मारली. सकाळचीं आठ वरां जाल्लीं. “सकाळींच कोणालो फोन आयला आसतलो काय?” अशें मनांत म्हणून रिसिव्हर कानाक लायलो.

"हॅलो, शर्मासायव?" पलतडच्यान आवाज आयलो.

‘यस् स्पिकिंग.’ हांवें म्हळें.

‘हॅलो, हांव हवालदार नाडकर्णी उलयतां.’

‘कितें खबर?’.

‘शर्मासायव, आतांच आमकां एक मॅसेज मेळ्ळ्या की मडगांवसावन भांगराच्या विस्कुत्यांच्यो काशी घेवन एक धवी मारुती कार कारवारचे दिकेन वचपाची आसा. ती मारुती कार खंयच्याय खिणाक आमची नदर चुकोवन वचुंयेता. देखून तुमी जाता जितले वेगीन मडगांवचे रेल्वेगेटीकडेन वचात. तशें पवार सायवान तुमकां सांगलां. तेवूय थंयच वचूंक भायर सरल्यात.”

‘ओके.’

‘वरें सायव’.

‘ओके.’

अशें म्हणून हांवें फोन दवरलो आनी ‘पयलीं च्या पूण घेयात’ हीं घरकान्नीलीं उतरां कानामनार घेनासतना पोलिसी गणवेश आंगार चडयलो. तकलेर हॅट घालें आनी जिपीची चावी घेवन घरांतल्यान भायर सरलों. गॅरेजींतली जीप घेवन रेल्वेगेटीकडेन पावलों; पूण थंय कोणूच नासलो. धवे मारुती मोटारीचेर नदर खिळावन हांव वशिल्लों. इतल्यांत हवालदार शिंदे मोटारसायकलीन आयलो.

“शर्मासायव, म्हाका सायवान धाडला. तुमकां फोन करतकच तांणी हे विशीं अदीक चौकशी केली त्यावेळार ती धवी मारुती मोटार आयज वचचीना म्हणपाचें तांकां

कळ्ळें देखून तांणी तुमकां तसो रेकाद दिला. तो रेकाद घेवन हांव आयिल्लों. वरें येता हांव सायव." 'ऑ शीट' म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं. भांगराच्यो विस्कुत्यो धरपाची आयिल्ली संद हातांतल्यान गेल्लेखातीर मन खंती जालें. 'सायव, वयनीक खबर घेतल्या म्हणून सांगात.'

'वरें.'

'वरें सायव, येतां हांव.'

अशें म्हणून हवालदार शिंदे गेलो आनी 'आतां हांगा रावन कांयच फायदो ना. घरा गेल्यार वरें.' अशें म्हणून जीप स्टार्ट मारली. इतल्यांत एके चलयेची एक व्हड किळांच कानार पडली. ती किळांच लागसारच आशिल्ल्या शिंदळकी चलतल्या एका हॉटेलांतल्यान आयिल्ली. शिंदळकी करतले चलयेकडल्यान भूक भागोवचेखातीर गेल्ल्या गिरायकान ते चलयेचेर आगळीक केल्या आसतली आनी ही आगळीक सोसूंक नज जावन तिणें किळांच मारली आसुंये असो हांवें तर्क काडलो. इतल्यान परतून एक किळांच कानार पडली आनी म्हज्यांतलो इन्स्पेक्टर जागो जालो. हांवें त्या हॉटेलांत वचून सोक्षमोक्ष लावपाचें थारायलें.

पूण पोलिसी भेसांत गेल्यार त्या हॉटेलांतलीं मनशां सादूर जातलीं म्हणून तशीच जीप घुंवडायली. घरा आयलों. घर वंद आसलें. घरकान्न चावी करून खंयतरी गेल्ली. घडये ती वाजारांत गेली आसुंये अशें मनांत म्हणून म्हजेकडेन आशिल्ली दुसरी लॅच-की वापरून दार उगडलें. पोलिसी भेस आल्मारींत दवरलो. सादे कपडे घाले आनी गरजेक उपकारतलें म्हणून वोल्सांत वळखपत्र घालून भायर सरलों. जिपीन परत त्या हॉटेलाम्हऱ्यांत आयलों. जीप रस्त्याकुशीक पार्क केली आनी त्या हॉटेलाचे दिशेन वचूंक लागलों.

जिणेंत पयलेच फावट शिंदळकी चलतल्या हॉटेलांत वचपाचो प्रसंग आयिल्ल्यान मनांत चलविचल जाताली. शिंदळ वायलो कशो आसतात हें पळोवपाचो अणभव नाशिल्ल्यान मनांत कितलेशेच वरे-वायट विचार घुंवताले.

कायंवेळान लाकडाच्या फळयांनी तयार केल्लीं सोपणां चडून हांव त्या हॉटेलांत पावलों. थंय एक हॉल आसलो. म्हऱ्यांत एक कावंटर आसलें आनी त्या कांवटराचेर वॉबकट केल्लें एक गोरेंच चली वशिल्लें. ताणें दोळयांक गॉगल लायिल्लें, ओंठाक लिपस्टीक आनी पोल्याक लाली मारिल्ली. ताणें घाल्लो मिनीस्कर्ट खूबकडेन पिंदिल्लो आनी ताका लागून ताचें अर्द आंग उगडें पडिल्लें. आपलें अर्द आंग उकतें दवरतले आनी विचित्र मेकअप केल्ले ते चलयेक पळोवन म्हजें आंग कांय खीण शिरशिरलें. म्हज्या मनाची अवस्था विचित्र जाल्ली.

हांव नवेंच गिरायक आयलां हें ताणें रोखडेंच ताडलें आसुंये. ताणें आपले

लिपस्टीकमय ओंठ जाता तितके रुंद करीत म्हळें. "यस, वॉट कॅन आय डू फोर यू? डॉंट वी अफ्रेड. ये तुम्हारा घर है ऐसा समझो. हांगा येवपी नवें गिरायक आदीं अशेंच अनमनता. पूण एक फावट संवकळ जाली की मागीर सर्दीच येवंक लागता. तुम्ही ही तसंच करणार नाही ना?" कोंकणी, मराटी, हिन्दी आनी इंग्लीश भाशेची खिचडी करून ताणें म्हाका विचारलें आनी आपल्या धव्याच दांतांचें म्हाका पुराय दर्शन घडयलें.

खरें म्हळयार म्हाका ते चलयेच्या ह्या उतरांचो भयंकर राग आयिल्लो. तांवडीच लाली लायिल्ल्या ताच्या दोनूय पोल्यांचेर एक-एक सणसणीत थापट फुलोवचें अशेंय दिशिल्लें. पूण किळांच मारपी तें चली कोण? आनी ताणें किळांच कित्याक मारिल्ली? हाचो तपास लावपाचो आशिल्ल्यान हांवें पासियेंस काडलें. "म्हाका दिसता तुमी ह्या हॉटेलांत नवेच आयल्यात आसतले न्हय? खरें पळोवंक गेल्यार तुमी सामके लकी. काल रातींच आमकां नवेंच चली मेळ्ळां. सामकें फ्रेश आसा. ताची पिरायूय खूब ल्हान आशिल्ल्यान तुमची सेवा तें बरेतरेन करूंक शकतलें." आपले गोरेपिट्ट हात आपल्या वॉबकट केंसांवयल्यान भोंवडायत ताणें म्हळें.

"घडये काल रातीं आयिल्ले हेच चलयेन ती किळांच मारूंक नासली मूं?" असो विचार म्हज्या मनाक घश्टून गेलो. 'मॅडम, कॅन आय मीट देट गॅर्ल?' हांवें विचारलें. 'यस्, ऑफकोर्स.' आपले घारशे दोळे पिटपिटायत ताणें खोशेन म्हळें आनी 'तुमी ते चलयेक फक्त पळोवंकच न्हय जाल्यार तुमच्यो वासनाय भागोवंक शकतात. पूण तेआदीं १२० रुपया दिवचे पडटले." ताणें म्हळें आनी ते नवे चलयेक पळोवपाची उमळशीक लागिल्ल्यान हांवें १२० रुपया ताच्या हातार दवरले. पयशे हातार पडटकच ते चलयेन मारी नांवाचे चलयेक आपयलें आनी म्हाका ते नवे चलयेचे कुडींत व्हरूंक ताका फर्मायलें. मारी म्हाका घेवन एके कुडी म्हर्‍यांत गेलें. ते कुडीचें दार उकतेंच आसलें. "भितरल्यान कडी घाल आँ." अशें म्हणून मारीन म्हाका ते कुडींत सोडलो आनी दार ओडून घेवन मारी गेलें. मारीचे सांगणेन हांवें भितरल्यान कडी घाली. ते कुडींत चड वस्ती नासल्यो. लाकडाचीं पोरणी कॉट, ते कॉटीर एक वोतरी गादी आनी वण्टीचेर दादल्यांचीं आनी बायलांचीं कांय उगडीं-नागडीं चित्रां ते कुडींत आसलीं. एका कोणशाक एक चली आपली मान सकयल घालून बशिल्ली. म्हंजी सुलूस लागतकच ताणें तकली वयर केली आनी आमची नदरानदर जाली. ताचे दोळे तांवडेच जाल्ले. रडून ते सुजिल्ले. केंस अस्ताव्यस्त आसले. आंगार फकत एक स्लीवलेज ब्लावज आनी खूबकडेन पिंजिल्लो एक घागरो सोडल्यार कांयच नासलें. आपल्या आंगावयले म्हत्वपूर्ण भाग लिपोवचेखातीरच ताणें ते कपडे फकत नांवांक घाल्यात हें जाणवतालें. कांयवेळ शांततायेन गेलो.

'तूं असीम वर्मा न्हय?' ताणें विचारलें आनी शांततायेचो भंग केलो. हांवें ताका हाचे आदीं खंयतरी पळयलां अशें परत परत दिसतालें. पूण सारकी याद जायनासली.

अचकीत म्हजी नदर ताच्या पोल्यावेल्या तिळाचेर गेली आनी हांव ताका वळखलों. म्हजें मन भूतकाळांत गेलें.

हय! तें अनामिका आसलें. कॉलेजींत ॲटोमीक मेकप वॉम्ब म्हणून तें फामाद आशिल्लें आनी आपल्या सोबीत रुपाच्या आदारान जायत्या तरणाट्यांक भुलयतालें. तेच कॉलेजींतल्या अनिकेताकडेन ताची इश्टागत जाल्ली. तें ताचेवांगडा सगल्याक भोंवतालें. तांचो मोग हो आमचे कॉलेजींत एक चर्चेचो विशय थारिल्लो आनी एकदीस अनिकेताचो हात धरून तें पळून गेल्ल्याची खबर कानार पडली. पूण उपरांत ताचें लग्न जालें काय ना, तें आतां खंय रावता हेविशीं कांयच कळ्ळेंना आनी आयज पांच-स वर्सां उपरांत तेंच हांसतें-खेळटें अनामिका लोकांची शारिरीक भूक भागोवचे खातीर शिंदळकी चलतल्या एका हॉटेलाचे कुडींत बंदिस्त आसलें. कॉलेजींत येतना दर दिसा कपड्याची नवी नवी फॅशन करतल्या अनामिकाच्या आंगार आयज फकत आंग लिपोवपापुरतेच कपडे आसले. नवे नवे वेण्यींनी मर्दीच सजतले ताचे भांगराकोराचे केंस आयज अस्ताव्यस्त आसले. काजळान भरतले ताचे दोळे आयज दुकांनी भरिल्ले. ताची जाल्ली ही दशा पळोवन म्हाका ताची काकुळट दिसली.

'अनामिका तूं? हांगा कशें?' हांवें अजापान विचारलें.

'असीम, म्हाका अनिकेतान पुराय फटयलें रे. पिक्चराक या म्हणून ताणें म्हाका काल रातीं हांगा हाडलें आनी वीस हजार रुपयांक विकलें.'

'ऑ गॉड! म्हळ्यार अनिकेत शिंदळ बायलांचो दलाल?'

'हय. पूण हें म्हाका हांगा येतकच कळ्ळें.'

'पूण अनामिका, तुजें लग्न?'

'जावंक ना. अनिकेतान म्हजें सर्वस्व लुटलें. आपल्यो वासना तो भागयत रावलो पूण लग्नाचें नांव मात काडिनासलो. ह्या वर्सा, फुडल्या वर्सा लग्न करया म्हणून ताणें चार वर्सां काडलीं आनी म्हाका झुलयत दवरलें आनी काल म्हाका हे हळशिकेंत हाडून वडयलें.' वण्टी वयल्या एका पोस्टराक टक लावन पळयत ताणें म्हळें. सवण्यांनी चोंची मारून हैराण करचें तशेंच ताचें मन यादींनी चोंचून चोंचून घेतिल्लें.

'पूण, तुज्या आंगार हे कपडे कशे?'

'कितें सांगूं असीम, ह्या हॉटेलाच्या धनयान आयज सकाळीं म्हाका म्हज्या आंगावयली साडी काडून हो पिंजको ब्लावज आनी घागरो घालूंक सांगलें. हांवें साडी काडूंक न्हयकार दितकच ताणें कांय बायलांच्या आदारान म्हजे हात-पांय घट्ट बांदले आनी हे पिंजके कपडे म्हज्या आंगार चडयले. हे पिंजके कपडे घालून जनेलांत गिरायकांची वाट पळयत बसूंक फर्मायलें. हांवें हे गजालीक न्हयकार दितकच ताणें

म्हज्या हड्ड्यार पेटट्या सिगाराचे चटके लावंक सुरवात केली. आनी हांवें ते चटके सोसूंक नज जावन व्हडान किंळच्यो मारल्यो.' ताणें सांगलें आनी म्हाका किळांच आयकूंक आयिल्ली ती हेच चलयेची हाची खात्री पटली.

'ह्या हॉटेलाचो धनी खंय?'

"तो पणजे गेला आनी दिसभरयां हांवें ५०० रुपया मेळयले नात जाल्यार चार-पांच दिस नागडें दवरतलो अशी ताणें म्हाका धमकी दिल्या. असीम, ताणें लायिल्ले सिगाराचे चटके म्हाका अजुनूय दुखतात रे. पळय ताणें म्हज्या हड्ड्याची कशी दशा केल्या ती." "अशें म्हणून अनामिकान आपल्या आंगावेलें पिंजकें ब्लावज आनिकूय पिंजलें. ताच्या गोरेंपिट्ट हड्ड्यार आनी थानांचेर सिगाराच्या चटक्यान पडिल्ले काळे दाग पळोवन म्हजें मन कळवळ्ळें आनी हॉटेल धनयाच्या ह्या क्रूर कर्तुवान मन तिडकलें.

"पूण असीम, तूं हांगा कसो?"

'योगायोगानच म्हण जाय जाल्यार, म्हळें शिंदळ वायलो कशो आसतात त्यो पळोवया.'

'असीम, हांव तुज्या पांयां पडटां. पूण म्हाका ह्या नरकांतल्यान सोडय, प्लीज.' अशें म्हणून ताणें आपलें आंग म्हज्या आंगार घालून घेतलें. आतां कितें करप? ताका ह्या नरकांतल्यान व्हरप? काय ताका हांगाच सोडून कूस मारप? ताका व्हरूंक ह्या हॉटेलाचो धनी म्हाका हयकार दितलो? अशे कितलेशेच प्रस्न म्हज्या मनांत घोळूंक लागले.

'असीम, प्लीज वेळ वगडायनाका. पणजे गेल्लो ह्या हॉटेलाचो धनी खंयच्याक खिणाक येवं येता. तो येवचे पयलीं म्हाका हांगासावन व्हर.'

'पूण, ह्या कपड्यांनी हांव तुका कसो व्हरूं?'

'म्हजे पयलींचे कपडे हेच कुडींत आसात. ते हांव घालतां आनी येतां.'

'तूं फकत म्हाका व्हरपाची तयारी कर.'

'बरें तर. चल वेगीन तुजी साडी न्हेस.'

हांवें म्हळें आनी तें खोशेन भितरले कुडींत गेलें. कांय वेळान तें आपले पयलींचे कपडे घालून आयलें. तें आतां खुबूच सोबीत दिसतालें. ताणें केस सारके केल्ल्यान ताच्या केसांक सोबा आयिल्ली. न्यायालयान आपणाक निर्दोश सोडिल्ल्याचें आयकतकच जी खास आरोपीक भोगता तेच तरेचो खास अनामिकाच्या मुखामळार फांकारिल्ली. आपणाक जीवदान मेळिल्ल्याचें समाधान ताका जाल्ल्याचें जाणवतालें. पूण भितरल्यान तें बरेंच भिल्लें. ताचे हात-पांय थरथरताले. ताका दिलासो दिवन हांवें ताचो हात धरलो आनी ते कुडींतल्यान ताका भायर काडलें. पूण जेन्ना हांव सोपणां देवंक लागलों तेन्ना ते

कावंटराचेर वशिल्ले चलयेसयत कांय शिंदळ वायलांनी म्हाका रेवाडो घालो आनी म्हज्या आंगावयल्या मेळत त्या भागाक तीं हात लावंक लागलीं. म्हज्यो वासना उत्तेजीत करपाचो तांचो यत्न आसुंये. तांच्या ह्या कर्तुवान म्हज्या पांयांतली तिडक मस्तकाक पावली आनी हांवें म्हाका रेवाडो घाल्ल्या सगल्या शिंदळ वायलांच्या पोल्यांचेर थापटां फुलयलीं. कावंटराचेर वशिल्ले चलयेक म्हजें वळखपत्र दाखयलें आनी म्हळें, 'हांव इन्स्पेक्टर शर्मा, म्हाका आडायल्यार हांव तुमच्या ह्या हॉटेलांत धाड घालपाचो आदेश दितलों आनी तुमची शिंदळकी बंद उडयतलों. इतलेंच न्हय तर शिंदळकी करतल्यांक अटक करतलों म्हणून म्हाका बरेभाशेन हे चलयेक घेवन वचूंक दियात.' हांवें म्हळें आनी हांव पोलीस आसां हे पळोवन तांणी म्हाका वाट मेकळी करून दिली.

अनामिकाक घेवन हांव तडक मडगांवच्या पोलीस स्टेशनांत आयलों. अनामिकाकडल्यान ताच्या घराचो पत्तो मेळयलो आनी ताच्या घराकडेन रेकाद धाडून ताच्या आवय-वापायक आपयलीं. अनामिका शिंदळ जाल्लें ही खबर ताच्या आवय-वापायक सांगचो ना म्हणपाचें हांवें अनामिकाक उतर दिल्लें. म्हजो रेकाद पावतकच अनामिकाचीं आवय-वापूय पोलीस स्टेशनार आयलीं. आपले धुवेक पळोवन आनामिकाचे आवयच्या दोळयांत दुकां आयलीं आनी तिणें धांवत वचून आपले धुवेक घट्ट वेंग मारली. अनामिकाय आपले आवयचे वेगेंत रिगून मुसमुसून रडटालें. 'अनामिकाचे आई, आयज तुमची धूव अनामिका तुमकां नशिवानूच मेळ्ळया अशें समजात आनी तिची खूब जतनाय घेयात.' हांवें म्हळें. अनामिकाचो वापूय तर गर्भगळीत जाल्लो आनी थंयच्याच एका वाकार तो वशिल्लो. ताच्या तोंडांतल्यान उतरांच फुटनासलीं. घडये आपले धुवेक पोलीस स्टेशनांत पळोवन तो गळसणिल्लो जावंये. आपले धुवेच्या केंसांवयल्यान मायेन हात भोंवडायत अनामिकाचे आवयन म्हळें, "सायव, तुमचें कल्याण जावं. तुमचें देव केन्नाच वायट करुंचो नाय. म्हाजो आशिर्वाद हाय तुमकां. वरं येतंय आमी." अशें म्हणून अनामिकाक घेवन ताचीं आवय-वापूय गेलीं आनी इतलो वेळ दोळयांत सांठोवन दवरिल्ले दुकांचे न्हंयक हांवें वाट मेकळी करून दिली. दोळयांतल्यान गळटलीं दुकां पुसता थंय आसा इतल्यांत फोन आयलो. हांवें फोन घेतलो.

'हॅलो, इन्स्पेक्टर शर्मा स्पिकींग'.

'हॅलो. हांव डीवायएस्‌पी शेखर धर्माधिकारी उलयतां. मडगांवच्या एका हॉटेलांत वचून शिंदळकी करतले एके चलयेक तुवें फूस लावन उवारून व्हेल्या आनी आपल्या हॉटेलाची बदनामी केल्ल्यान आपल्या धंद्याचेर वायट परिणाम जाला अशी कागाळ त्या हॉटेलाच्या धनयान केल्या आनी तुजेआड ताणें अब्रू लुकसाणेचो खटलो घालपाची धमकी दिल्या. हें प्रकरण मिटोवापाचें आसल्यार आपणाक २०,००० रुपया दिवचे अशेंय ताणें म्हळां.'

'पूण सर, हांवें त्या हॉटेलांत वचून एके चलयेक हाडल्या ही गजाल खरी. पूण हांवें तिका फूस लावन हाडूंक ना जाल्यार तिका त्रासांतल्यान मुक्त केल्या.

'तें आमकां कांयच खबर ना. पूण शर्मा, तुका कोणें सांगिल्लें त्यो राटावळ्यो करूंक? आरे, यू नो, त्या हॉटेल धनयाचे हात वयर मेरेन पावल्यात आनी तांच्याच आशिर्वादान तें हॉटेल चलता. शर्मा, तुवें थंय वतना ॲटलीस्ट म्हाका पूण म्हणपाचें न्हय? त्या हॉटेल धनयान आयजीपीकडेनय लेखी कागाळ केल्या आनी त्या आयजीपीन तुका एकतर २०,००० रुपया फारीक कर वा वाळपयंत जाल्ली वदली स्विकारून फाल्यांच्या फाल्यां वाळपय वचपाचो आदेश दिला.'

'सर, पूण हांव हातूंत खंय चुकलों तेंच म्हाका कळना.'

'शर्मा, वुई आर हेल्पलेस. आमी कांयच करूंक शकनात. आयज सांजवेळा तुज्या हातांत वदलेचो आदेश पडटलो आनी फाल्यांसावन तुवें वाळपय पोलीस स्टेशनाचो तावो घेवचो पडटलो. डू यू अंडरस्टॅण्ड?' 'ओके सर, वट जस्ट अ मिनीट. लेट मी थींक ओव्हर धीस. प्लीज, सर डोंट कीप रिसिव्हअर डावन.' हांवें म्हळें आनी फोन टेवलार दवरलो. आनी हांव चितूंक लागलों. खंय झक मारली आनी अनामिकाक सोडोवन हाडलें अशें म्हाका जालें. पूण आतां कितें करप? वीस हजार दिवपकाय वदलेचो आदेश स्विकारप काय पोलीस खात्याचो राजिनामो दिवन मेकळो जावप? वरें, वदली स्विकारून वाळपयचो चार्ज घेतलो जाल्यार आयजीपीचें चेपण म्हजे तकलेर आसचें ना कित्यावेल्यान? पूण तेपरस पोलीस खात्याचो राजिनामो दिल्यार? पूण फुडें करतलो कितें? संवसार चलयतलों कसो? वायलेक पोसतलों कसो? कितें करप? आतां कितें जाता तें जावं. ह्या पोलीस खात्यांत आनीक रावप ना. जंय प्रामाणिकपणाक सुवात ना थंय प्रामाणिक मनशान रावप योग्य न्हय अशें मनांत म्हणून रिसिव्हर कानाक लायलो आनी म्हळें. "सर. आयजीपीक सांगात म्हाका वदलेचो आदेश काडपाचो त्रास घेनाकात म्हणून. सर, आय एम व्हेरी सॉरी टू इनफॉर्म यू देट आय एम रिजायनींग फ्रॉम पोलीस डिपार्टमेंट.'

'वर्मा? आर यू ऑलरायट?'

'यस् सर, हांव म्हजो राजिनामो मडगांव पोलीस स्टेशनाचेर दवरतां. यू कॅन कलेक्ट इट फ्रॉम हियर.' अशें म्हणून हांवें फोन दवरलो. राजिनामो बरोवन एका पोलिसाकडेन दिलो आनी मडगांव पोलीस स्टेशनांत आशिल्ल्या पोलिसांचो दुखेस्त अंतस्कर्णान निरोप घेवन पोलीस स्टेशनांतल्यान भायर सरलों.

पोलीस खात्याचो राजिनामो दिल्ल्याचें म्हाका मातूय दूख्ख नासलें. पूण एके चलयेक शिंदळकेच्या धंद्यांतल्यान सोडोवन तिका नवी जीण दिल्ल्याचें समाधान आसलें. पोलीस खात्याचो राजिनामो दिलो म्हणून घरकान्न रागार जावची ना मूं? अनामिकेचे

आवयन म्हाका काय बरो आशीर्वाद दिल्लो, देव तुमचां कल्याण करतलो म्हणून. हेंच काय तें कल्याण? देव खंय देव? देव कांयच करिना. देव फकत नांवांक. सगलें मनीसूच करता. कित्याक तें देवाक भजप? कित्याक ताचीं स्तोत्रां म्हणप? जप करप? उपास करप? ना! आयजसावन देवाचीं सगलीं कार्यां बंद. असो विचार करतां करतां हांव घरा केन्ना पावलों तेंच म्हाका कळ्ळेंना. पूण घरांत पावल दवरले बरोबर घरकान्न धांवत येता ती पळोवन म्हाका अजाप जालें. तिणें म्हाका बेंग मारून म्हळें, 'कॉंग्रेच्युलेशन्स.' तिचीं परवीं आयकून हांव अजापलों. एकेवटेन पोलीस खात्याचो राजिनामो दिल्ल्याचें दुख्ख आसलें आनी हेवटेन घरकान्न तर म्हाका परवीं दिताली.

'इन्स्पेक्टर डियर वर्मा. तुमी आतां हेफुडें पोलीस खात्यांत रावपाची गरज ना. म्हज्या बापायलें मुंबय एक पांच नखेत्री हॉटेल आशिल्लें आनी ताचो खटलो न्यायालयांत चलतालो हें जाणात तुमी?' तिणें विचारलें.

'हय, आयकल्लें हांवें. पूण...'

'हय, त्या खटल्याचो निकाल म्हज्या बापायच्या फावराद लागला आनी म्हज्या बापायन तें हॉटेल आपल्या एकसुऱ्या जांवयाच्या म्हळयार तुमच्या नांवार केलां आनी हें सांगूंक आनी आमकां मुंबय व्हरूंक म्हजो बापूय हांगा आयला.'

'खंय आसा तर तो?'

''मुंबयच्यो विमानाच्यो तिकेटी हाडूंक गेला. आतां वेळ वगडाय नाकात. परत चलात आनी पोलीस खात्याचो राजिनामो दिवन येयात. जावं सुटली बाये ह्या कटकटींतल्यान. सद्दां उठून खंयच्याय वेळार येवपी ते फोन, जेवण-खाण अर्धारूच वडोवन मारिल्ली ती धांव आनी सदांच कसली ना कसली गडबड. सारकें उलोवप ना, सारकी न्हीद ना. पूण आतां हेफुडें ती कटकट आसची ना. आतां हांव तुमकां नवे नवे आवडीचे जिनस करून घालतलीं.'' घरकान्न एकलीच बडबडटाली आनी देवाक गरजेभायर दूशण दिल्लेखातीर पश्चातापान म्हज्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं. 'तुमचां कल्याण जावं. देव तुमचां केन्नाच वायट करुंचो नाय' हीं अनामिकाचे आवयचीं उतरां कानांत घुमतालीं आनी त्याचवेळार 'देवा, तुजो म्हयमा अगाध' अशीं उतरां म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सरलीं!

# फटकिरो मोग

हां हां म्हण्टा दीस गेले, म्हयने गेले, वर्सां गेलीं आनी म्हर्जी भुरगेपणां सोंपलीं. हांव तरणाटो जालों आनी जशें तरणाट्यांच्या काळजांत. मनांत. तकलेंत मोगाचें वारें व्हांवक लागता तेचभशेन म्हजे तकलेंत. काळजांत. मनांत मोगाचें वारें व्हावंक लागलें आनी हांव दिसूयभर मोगाच्यो खबरी वाचूंक लागलों. मोगाचींच पिक्चरां पळोवंक लागलों, मोगाच्योच कथा-कविता वरोवंक लागलों आनी मोगाचींच सपनां चितूंक लागलों. म्हजेर एके तरी चलयेन मोग करचो म्हूण हांवें खूब देवांकडेन खूब वेळा खूब आंगवण्यो केल्यो पूण देव कसोच मनार घेना हें पळोवन त्यो आंगवण्यो सोडून दिल्यो आनी देवाक दोश दियत आनी नशिवाक शिणीत जिवीत सारीत रावलों.

तर असो हो हांव देवाचें नांव घेयत आनी नशिबाक शिणीत होलतेरार बसून पेपर वाचतालों. सकाळचीं णव वरां जाल्लीं. सूर्य निकतोच उदेल्लो आनी ताणें आपलीं किर्णां चोंयदिकांनी फांकारिल्लीं. आयताराचो दीस आशिल्ल्यान रस्त्यार लोकांची आनी येरादारीची गर्दी खुबूच उणी आसली. इतल्यान एक बस आयली आनी आमच्या दारामुखार रावली. ते बर्शींतल्यान ओंठार पचपचीत लिपस्टीक लायिल्लें. दोळयांक गॉगल घाल्लें. गळयांत - भांगराची काय नकली तें हांव नकळो सरपळी घाल्लें, बॉबकट केंस केल्लें, आंगार पंजाबी ड्रेस घाल्लें आनी हातांत ब्रीफकेस घेतिल्लें एक सोबीत सुंदर चली देंवलें आनी सोबीत सुंदर चलयेक पळोवन म्हजें काळीज भितरलेभितर कलकलपाक लागलें. तें चली देंवलेंउप्रांत एक जाण्टेलो एका हातान पुडवें सांवाळीत आनी दुसऱ्या हातान साकाची पिशवी धरीत बर्शींतल्यान देंवलो. तो जाण्टेलो चलयेचो बापूय जावंये असो हांवें अदमास काडलो आनी तीं कितें करतात हें पळयत रावलों. कांय वेळान बस गेली. बस गेलेउप्रांत ते चलयेन आपल्या बापायक रस्त्याकुशीक दवरलो आनी आपलें कमर अमेरिकन स्टाइलीन मोडीत म्हज्येम्हऱ्यांत आयलें आनी म्हाका विचारूंक लागलें. "अरे इथे लॉजिंग कुठे आहे?" जे अर्थीं हें चली मराठी उलयता ते अर्थी हें चली महाराष्ट्रीयन आसतलें असो हांवें अदमास काडलो आनी ताका लॉजिंग दाखोवपाक कपडे न्हेसून भायर सरलों. रस्त्यावेल्यान चलतना चली म्हजेकडेन खूब उलयतालें आनी म्हजेकडल्यान गोंयची खबर काडून

घेतालें. ताच्या उलोवण्यावेल्यान तें गोंयांत नवेंच आयलां, ताचें नांव वनिता राव आनी तें मुंवयचे एके बँकेंत कॅशियर म्हूण काम करता म्हणपाचें म्हाका समजलें. सोवीत चलयेच्या गोड आवाजान हांव पयलींच विरघळिल्लों आनी आतां ताच्या आंगाक येवपी सेंटाच्या वासान हांव सामको पिसो जाल्लों. हेंच चली म्हजी वायल म्हूण म्हाका मेळची म्हूण मनातल्या मनांत देवाची आराधना करूंक लागलों. कांय वेळान आमी लॉजार पावलीं. लॉजाच्या मालकाकडेन म्हजी वळख आशिल्ल्यान तांकां रोकडोच रूम मेळ्ळो. तांकां रूम दिवन आनी ते चलेच्या वापायचो आशीर्वाद घेवन हांव घरा आयलों. पूण म्हज्या मनांत, तकलेंत, काळजांत वनिताचें वारें व्हांवपाक लागिल्ल्यान म्हजें मन खंयच लागनासल्लें. ताचीं तीं म्होंवाळ उतरां, सोवीत मुखामळ, हांसतना भायर येवपी ते वत्तीसूय दांत आनी धुंदफूंद करपी तो सेंटाचो वास परत परत म्हज्या दोळ्यांमुखार, नाकामुखार आनी कानांमुखार येतालो आनी म्हजें मन वेचैन करतालो. म्हाका खंयच काम करूंक दिनासलो. खऱ्यानीच देवान म्हजी आंगवण आयकली काय? ह्या वनिताचो engagement जाला आसतलो काय? हें वनिता म्हजी वायल म्हणून खऱ्यानीच सोवतली काय? मुंवयचे चलयेकडेन लग्न केलें म्हूण म्हजी आवय वापूय म्हजेर रागार जावचींना काय? ताचो वापूय ताच्या लग्नाक म्हाका परवानगी दित काय? अशे जायते जापो नाशिल्ले प्रस्न. म्हज्या मनांतलें विचारचक्र घुंवपाक लागलें. म्हजें विचारचक्र चालू आसतनाच दारावेली वेल वाजली. हांवें रागानच वेल वाजयतल्याक कांय कॉमन गाळयो मारून दार उगडलें आनी दारांत वनिताचेंच मुखामळ पळोवन वेश्टयोच गाळयो मारिल्ल्याचें पिकसांव जालें. हांवें म्हळं, "कित्याक आयलां?" म्हजो हो प्रस्न आयकून ताणें न आयकल्लेभशेन केलें आनी सरळ येवन म्हज्या होल्लेरार वसून आपले गोरेपिट्ट पांय हालयत म्हाका सांगूंक लागलें. "आरे कितें जालें ज गां, म्हाका पिक्चरांचो खूब घोश्त. मुंवय आसतना दिसाक दोन तरी पिक्चरां हांव पळयतांच. आयजूय म्हाका पिक्चर पळयन दिसलें म्हूण हांवें वापायक सांगलें. हरशीं म्हज्या वापायकूय पिक्चरां खूब आवडटात पूण आयज ताका प्रवासान खूब पुरो जाल्यान ताणें म्हाका तूंच वच म्हूण सांगलें. आरे. आता तूंच सांग ह्या गोंयांत हांव नवें, म्हणटगीर थिएटरां खंय आसात हें म्हाका कशें कळटलें? देखून हांवें सरळ हांगाच येवपाचें थारायलें. विजय, तुकाय पिक्चरां आवडटात न्हय?" आपले घारशे दोळे मोडीत आनी ओंटार मुमुरकोच हांसो हाडीत ताणें आपलें उलोवप सोंपयलें आनी ताचे ते नखरे पळोवन म्हजें काळीज वयर सकयल हालपाक लागलें. "म्हाका पिक्चरां आवडटात, पूण चड न्हय." हांवें जाप दिली. "तशें जाल्यार आमी दोगांय आयज पिक्चराक या. चल चल वेगीन कर तुगेलें."

म्हजो हयकार वा न्हयकार आयकनासतना तें म्हाका पिक्चराक वचपाक फोर्स करता हें पळोवन म्हजें काळीज धडधडपाक लागलें. हात पांय थरथरपाक लागले. दोळे गिरगिरपाक लागले. कित्याक, परके चलयेवांगडा हांव केन्नाच पिक्चराक वचूंक

नासलों. पूण तरी ताच्या उतराक मान दिवन ताका हांवें पिक्चराक व्हरपाचें थारा आनी थिएटरांत म्हजे वळखीचो कोणूच मेळचो न्हय म्हूण देवाकडेन मागलें. आमी थिएटरांत गेलीं. थिएटरांत तितलीशी गर्दी नाशिल्ले कारणान रोकड्यो तिकेटी मेळ्यो. पिक्चर सुरू जालें. पूण वनिता तें पिक्चर पळोवपाचें सोडून म्हजेंच मुखडें पळयनाः आनी मुमुरकेंच हांसतालें. मदींच ताणें तोंड म्हज्या काना म्हर्यांत हाडून म्हाका ल्हवू I love you म्हणून सांगलें आनी ताची तीं म्हौवाळ उतरां आयकून म्हजें काळीज चड खोशेन नाचपाक लागलें. म्हजे जिणे सार्थक जालें अशें म्हाका दिसलें आनी हे सांगात चलयेचो सांगात म्हाका देवानच दिला म्हूण देवाचे उपकारूय मानले. कांय वेळान पिक्चर सोंपलें. आमी थिएटरांतल्यान भायर सरलीं. तें आपल्या लॉजिंगार गेलें आनी हांव घरा आयलों. अशेच दीस वताले, मोगाचे पांवडे वाडटाले. दिसानदीस म्हज्या मनांत, तकलेंत, काळजांत वनिताचें वारें चड नेटान व्हांवतालें. ताचे सोवितकायेक हांव भुलिल्लों. ताचेकडेन लग्न जावपाक आशेतालों. ल्हवूल्हवू सात दीस गेले आनी आठव्या दिसा हांव आनी वनिता गार्डनाच्या वाकार बशिल्लीं आसतना वनितान म्हाका म्हळें, "विजय, फाल्यां आमी मुंबय वतात. आमकां तिकेटी मेळटल्यो न्हय?"

"फाल्यां वतात? कित्याक? गोंय आवडलें ना?" हांवें हांसून ताका विचारलें "ना ना, गोंय आवडलें आनी गोंयांतलीं मनशांय आवडलीं. पूण म्हज्यान चड तेंप गोंयांत रावंक जावचें ना, कित्याक, हांव फकत धा दीस लीव काडून गोंयांत आयिल्लें." वनितान सांगलें. वनितामुखार काळीज उक्तें करपाक होच वेळ आसा अशें मनांत म्हणून हांवें वनिताक सांगलें, "वनिता, खरें सांगतां, ज्या दिसा तूं म्हज्या घरांत आयलें. त्याचवेळार म्हाका आवडलें, म्हजें मन तुजेर बसलें आनी तूंच म्हजी बायल म्हूण म्हाका मेळची अशें हांवें देवाकडेन मागलें. वनिता, तू नासतना म्हज्यान ह्या संवसारांत रावंक जावचें ना. तुजे वगर म्हजे जिणेक कांयच अर्थ आसचो ना. देखून हांव तुजेकडेन मागतां की तुवें म्हजेकडेन लग्न करचें आनी म्हजी ही जीण फुलोवची." हांवें म्हळें आनी वनिताचे जापेची वाट पळयत रावलों. कांय खीण तें वोग्गी रावलें आनी कांय वेळान ताणें आपली नदर जमनीर थिरायली आनी पांयाच्या आंगठ्यान माती खणीत ताणें म्हाका सांगलें, "विजय, म्हाका तूं खूब आवडटा. आमी ह्या गोंयांत परकी आनी नवीं आसुनूय तुवें आमकां खूब आदार दिलो. देखून तुका आमी जल्मभर विसरूंक शकचीं नात. पूण आतां लग्नाविशीं हांव तुका कांयच सांगूंक शकना. ल्हान आसतनाच म्हजी आवय जेन्ना ह्या संवसाराक अंतरली, तेन्नासावन आतांमेरेन म्हजे सगले लाड बापायन कांयच म्हणीनासतना पुरयले. म्हाका केन्नाच कांयच फाल्त केलें ना देखून हांव कसलोय म्हत्वाचो निर्णय घेतना बापायकच विचारतां. देखून लग्नाविशीं तुवें म्हज्या बापायकूच मेळयार बरें. बापायन परवानगी दिल्यार हांव तुजेकडेन anytime लग्न जावपाक तयार आसां. प्लीज, रागार जावं नाका." ताणें म्हळें. खरें म्हळयार ह्या वनिताचो

म्हाका खुबूच राग आयिल्लो. इतलें व्हड जालें तरी पूण वापायचेर अवलंबून आसा म्हळ्यार कितें? पूण ताच्या प्लीज ह्या शब्दान म्हजो राग खंयच्या खंय पळून गेलो आनी हांव त्याच दिसा वनिताच्या वापायक मेळपाक लॉजिंगार गेलों जाल्यार तो कपडे सुटकेसींत भरपांत मग्न आसलो. म्हाका पळोवन तो हांसलो आनी ताची आज्ञा पाळून हांव एका कदेलार वसलों. पयलीं कांय गजाली जाल्यो आनी अचकीत हांवें वनिताच्या लग्नाचो विशय काडलो. ताणें म्हजें म्हणणें थंडसाणेन आयकलें आनी म्हळें "विजय, खरें सांगपाचें म्हळयार वनिताचो साखरपुडो मुंबयच्या श्रीधर सामंत नांवाच्या चल्याकडेन जाला आनी ताचें लग्न फुडल्या म्हयन्यांत आसा. दुसरें म्हणचे म्हाका गोंयांतलो जांवय आवडना हें वनिताकूय खबर आसा. कित्याक, गोंयांतले लोक खूब सुशेगाद आसतात हे हांवें खूब वेळा आयकलां आनी खरें सांगपाचें म्हळयार म्हाका सुशेगादपणां आवडनात. देखून हांव म्हज्या वनिताचो हात तुज्या हातांत दिवंक शकना. रागार जावं नाका."
वनिताच्या वापायलीं हीं उतरां आयकून म्हाका वनिताचो खुबूच राग आयलो. ताणें म्हजो घात केल्लो. एका निकत्याच फुलपी फुलाक ताणें पिसडून वडयिल्लो. हांवें दोळयांच्या कुर्शीतल्यान वनिताक पळयलें जाल्यार तें म्हाका पळोवन मुमुरकेंच हांसतालें आनी आपलें बॅग भरतालें.

# अमरमोग

वीस आक्टोंवर फिलूलो वाडदीस. त्या दिसा फिलूक सत्ताविसावें वर्स सोंपून अठ्ठाविसावें वर्स लागिल्लें. ताचें घर खोशयेन भरिल्लें. ताचे इश्ट, ताच्यो व्हडल्यो भयणी, ताचे व्हडले भाव आनी ताचे जायते सोयरे ताच्या वाडदिसानिमतान ताच्या घरांत आयिल्ले आनी ह्या लोकांक लागून फिलूचें घर फुलून गेल्लें. ताच्या घरा भायर चड व्हडविकायेन डेकोरेशन केल्लें. ताचे मांयेन फिलूचे आवडीचे जिन्नस केल्ले. पायन तर ताका ताचे आवडीच्या रंगाचो ड्रेस स्पेशल टेलराकडल्यान शिंवून घेतिल्लो. सगल्याक खोशयेचें वातावरण पातळिल्ले. पूण इतलें आसुनूय फिलूच्या मुखामळार हांसो नाशिल्लो आनी हाचें कारण ताचो मोगी अशोक ताच्या वाडदिसा येवंक नाशिल्लो. फिलूचे भांगराकोराचे दोळे परत परत दाराम्हऱ्यांत वताले आनी अशोक दिश्टी पडना जातगीर निर्शेवन परत येताले.

ल्हवूल्हवू पार्टी सोंपली आनी आयिल्ले सगले लोक घरा परतले. जशीं झाडावेलीं सगलीं सुकणीं वतगीर झाड रिकामें जाता तशें सगले लोक वतगीर फिलुलें घर रिकामें जालें. रात जाली. जशी जशी रात जाली तसो फिलूक अशोकाचो चड राग येवंक लागलो. आपणें ताचेर नीजमोग करूनय कांयच फायदो ना अशें ताका दिसलें आनी ह्या़न फुडें ताचेर मोग करपच ना अशेंय ताणें थारायलें. कांय वेळान तें खाटीर पडलें. पूण ताका न्हीद कशीच पडनासली. अशोकाच्या उगडासान ताच्या दोळ्यांत दुकां येतालीं. तो कित्याक येवंक शकलो ना काय? म्हजो असो घात करून ताणें कितें साधलें काय? काय तो आपल्याचेर फटकिरो मोग करतालो? हे विचार फिलूच्या मनात येवंक लागले. ह्या विचारांनीच ताणें दिवो वंद केलो. दिवो बंद केलेवरोवर जनेला भायलो काळोख माजराभशेन उडी मारून भितर आयलो. कांय वेळान फिलूक न्हीद लागली.

फिलूची आनी अशोकाची वळख इस्कोलांतूच जाल्ली. थंयच तांचो मोग चलतालो. फिलूचो आनी अशोकाचो एकमेकांचेर मोग आसा हें इस्कोलांतल्या भुरग्यांकच न्हय तर हेडमास्तराक आनी प्रिन्सिपलाकूय खवर आसलें. पूण दोगांय शिकपाक हुशार आशिल्ल्यान कोणूच तांकां कांयच म्हणनासलो. जशीं जशीं वर्सा गेलीं तशें तांचें भुरगेपण सोंपलें आनी

तरणाटेपण आयलें. तीं एकमेकांचेर काळजांतल्यान मोग करतालीं. एकमेकांल्या सुखदुख्खात सहभागी जातालीं. फिलू एके कंपनींत टायपिस्ट आसलें जाल्यार अशोक पी. डब्ल्यू. डी. त क्लार्क आसलो. तीं जरी एकमेकापसूत पयस आसलीं तरीय तीं सद्दां दोगांय एकमेकांक मेळटालीं, भोंवतालीं आनी मोगाच्यो चार गजाली करून घरा परततालीं. हो तांचो नेम जावन पडिल्लो. तर त्या दिसा फिलूलो वाडदीस आशिल्लो. देखून फिलून अशोकाक फोर्सान आपल्या वाडदिसाक आपयिल्लो आनी आपूण वाडदिसाक येतलोंच अशें अशोकान फिलूक उतर दिल्लें. पूण तो येवंक नासलो म्हणून फिलूलें मन निर्शेल्लें, खंती जाल्लें.

कोंव्यालो साद कानार पडटगीर आनी सुर्यालीं किर्णां तोंडार पड्डगीर ते उठले. सकाळचीं सात वरां जाल्लीं. तें तोंड धुवन फ्रेश जालें आनी सदांचे संवयीप्रमाण मेजार आशिल्लें 'सुनापरान्त' दिसाळें काडलें आनी फ्रंटपेज चाळूंक लागलें. चाळटां चाळटां ताची नदर अचकीत एके वातमेचेर थिरावली. ती वातमी अशी आसली. अशोक रांजणकार हाका अपघात. ही वातमी वाचून फिलूच्या काळजांत चर्रऽऽऽऽ जालें. ताचे हातपाय कडकडपाक लागले. हातांतलें दिसाळें थरथरपाक लागलें.काळीज कलकपाक लागलें. तरीपूण तेच स्थितींत ताणें फुडली वातमी वाचून काडली. अशोक रांजणकार ह्या नांवाच्या तीस वर्सां पिरायेच्या तरणाट्याक आयज सकाळीं बोरये पुलालागसार अपघात जालो. पुलीसांचे खबरेप्रमाण हो तरणाटो स्कूटर 'रफ' चलयतालो, अचकीत मदींच बैल आडवो आयिल्ल्यान ताचो स्कुटरीवेलो कंट्रोल सुटलो आनी तो स्कुटरीसयत रस्त्यावेल्यान सकयल पडलो. सुदैवान त्याचवेळार पुलिसांची जीप थंय पाविल्ल्यान पुलिसांनी ताका उकलून हॉस्पिटलांत घालो. ताचे स्कुटरी म्हऱ्यांत एक प्रेझेंट आनी एक हेल्मेट पुलिसांक मेळ्ळां. सध्या ह्या तरणाट्याची भलायकी चिंता करपासारकी आसा अशें हॉस्पिटलांतल्या दोतोरांनी सांगला. फुडलो तपास चालू आसा. ही वातमी वाचून फिलूचें आंग शिरशिरलें. पुलिसांक मेळिल्लें तें प्रेझेंट अशोक आपल्याकच हाडटालो हे विशीं फिलूक शंभर टक्के खात्री पटली आनी अशोकाचे यादीन ताच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. आपणें ताका वोगीच वायट म्हळो हाचोय ताका पश्चाताप जालो. आतां हॉस्पिटलांत वचून ताका मेळप अशें येवजून फिलून बेगीन बेगीन कपडे घाले आनी आपूण रोकडेंच येतां अशें मांयक सांगून तें घराभायर सरलें. हॉस्पिटलांत पावतां आनी अशोकाचें मुखामळ पळयतां अशें फिलूंक जाल्लें देखून तें वेगीनवेगीन पावलां उकलतालें. कांय वेळान तें हॉस्पिटलांत पावले. अशोकाचो वार्ड रोकडोच ताका मेळ्ळो. अशोक एके खाटीर न्हिदिल्लो. ताच्या म्हऱ्यांत ताचे आवयवापूय आनी भाव आसले. अशोक खरेंच सिरीयस आसलो. ताच्या सगल्या तोंडार बँडेजी आशिल्ल्यो आनी हाका लागून ताचें सगलें तोंड धापिल्लें. ताची ही अवस्था पळोवन फिलूक रडपाक आयलें. कांय खिणान अशोकान दोळे उगडले आनी फिलूक पळोवन ताणें म्हळें, "फिलू, आय् ॲम सॉरी. हांव म्हज्या उतराक फाल्स जालों. तुका उतर दिल्लें की तुज्या वाडदिसाक हांव येतलोंच म्हणून. पूण ..... पूण देवाक तें नाका

आसलें." "डॉन्ट वरी अशोक. तूं ह्या अपघातान वाटावलो होच देवालो उपकार. अशोक, तूं दुकेस्त जायनाकाय. पूण वाडदिसाचीं परवीं केन्नाय दिवं येता. घडपाचें आसा तेंच घडून वेता. जाल्ल्या आनी गेल्ल्या घडणुकाचो उगडास काडून कितें फायदो? अशोक प्लीज जाल्ल्या गजालींचो उगडास काडून दोळयांत दुकां हाडनाकाय. तुज्या दोळयातलीं दुकां चोवन म्हज्याय दोळयांत दुकां येताय." फिलून अशोकाचो हात घट्ट धरून सांगलें. 'फिलू, आतां हांव कांय खिणांचोच आसां. देखून हांव वयर वचचे पयलीं तुका एक रिक्वेस्ट करतां. उपकार करून म्हाका विसर आनी तुजो दुसरो सांगाती पळय.' अशोकान म्हळें. अशोक, तोशें म्होण नाकाय. हांवें म्हजें काळीज फोकोत तुकाच भेटोयलां. देखून तुका सोडून हांव हेर कोणाकडेनय काजार जावचें ना. अशोक, तूं भियेनाकाय आनी वेश्टोच दुखेस्त जायनाकाय. हांव सायविर्णीक आंगवण करतां तुका वेगीन वरो कोर म्हणून'. इतल्यांत दोतोर आयलो आनी फिलूचीं आनी अशोकाचीं उलोवणीं अर्दकुटींच उरलीं.'दोतोर, कशेंय करून म्हज्या अशोकाक वाटायात. प्लीज दोतोर, हांव तुमकां जाय तितले पयशे दितां. पूण म्हज्या अशोकाक वरो करात. फिलून काकुळटेक येवन दोतोराक सांगलें. 'हें पळय वाय, आय विल ट्राय माय वेस्ट. ही केस सिरियस आशिल्ल्यान हे केसींतल्यान तो वाचतलो अशें म्हाका दिसना आनी तो केन्ना हो संवसार सोडून वतलो हें हांव सांगूंक शकना. पूण हांव म्हज्यान जाता ते परीन ताका वाटावपाचो यत्न करतां.' दोतोरान म्हळें, 'थँक्यू दोतोर, देव तुमचें चड वरें करूं. अशोक, येतां हांव. घराकडेन म्हजी मांय म्हाका हुस्केतली. बोरें येतां हांव.' फिलून म्हळें आनी अशोकाचो निरोप घेवन तें हॉस्पिटलांतल्यान भायर सरलें. फिलू हॉस्पिटलाची पयली पायरी देंवपाक आनी 'अशोऽऽऽऽक' म्हणून कोणाली तरी किळांच ताच्या कानार पडपाक एकूच गांट पडली. ही किळांच आयकून त्याच खिणाक फिलूक होलमलें की आपलो अशोक हो संवसार सोडून गेलो म्हणून.

तें धांवत ताचे खाटी म्हऱ्यांत गेलें आनी अशोकाच्या मड्याचेर पडून व्हडा व्हडान रडूंक लागलें. अशोकाच्या मर्णाची खबर सगल्याक पातळ्ळी आनी ताच्या मड्याचें निमणें दर्शन घेवपाक ताच्या इश्टांनी आनी वऱ्या मागप्यांनी गर्दी केल्ली. कांय वेळान फिलून रडून त्या मड्याचो निरोप घेतलो आनी तें रडकुऱ्या तोंडान घरा परतलें. ताची मांय वाट पळयत वशिल्ली. फिलूचें रडकुरें तोंड पळोवन कितेंय पूण वायट घडलां म्हणपाचें फिलूच्या मांयक कळ्ळें आनी हे विशीं तिणें फिलूक विचारलें. आपलो अशोक हो संवसार सोडून गेल्याची खबर फिलून रडून रडून मांयक सांगली. अशोक फिलूक मेळपाक खूबवेळा फिलूच्या घरांत येतालो आनी हाका लागून फिलूची मांय ताका वळखताली. देखून ताच्या मर्णाची खबर आयकून फिलूची मांय खूब दुखेस्त जाली आनी मांय आनी धूव एकमेकांक वेंगावन अशोकाच्या यादींनी रडूंक लागलीं. अशोकाच्या दुखेस्त मर्णाक लागून त्या दिसा फिलून आनी फिलूच्या मांयन कांयच खालें ना, इतलेंच न्हय तर तांणी रान्नीक

उजोय घालो ना. दोगांय त्या दिसा उपाशींच न्हिदलीं.

दुसरो दीस उजवाडलो. फिलू उठलें. मांयन दिल्ली च्या पिलें आनी सदांभशेन कपडे घालून तें ऑफिसाक वचपाच्या वदला एके फार्मसींत गेलें. ताणें विखाची वाटली विकती घेतली. एका दोंगरार वचून ताणें तें वीख पोटांत घेतलें आनी आपलें जिवीत अर्दकुटेंच सोडून हो सोवीत संवसार सोडून पयस गेलें. सर्गांत तरी आपल्याक अशोकाची भेट जायत हे आशेन! ...



# मोगाखातीर

सांजेचीं स वरां जाल्लीं. सूर्य ल्हवू ल्हवू उदकापोंदा वतालो. दर्या पळोवपाक आयिल्ले लोक घरा वताले. ल्हान भुरगीं रेंवेंत खेळपांत दंग जाल्लीं. नवींच लग्न जाल्लीं जोडपीं एकामेकांल्या कानांत कुजवुजतालीं आनी वोगीच हांसतालीं; किटकिट्टालीं. सगलें वातावरण खोशी आनी आनंदीत आशिल्लें. पूण अनिलाच्या आनी रोझीच्या तोंडार मात दुख्ख पातळिल्लें. तांगेली ही निमणी रात आशिल्ली. रोझी टक लावन दर्याक पळयतालें आनी कसलो तरी विचार करतालें. तांणी दोगांयनी ह्या दर्यांत जीव दिवपाचें थारायिल्लें आनी हो जीव दिवपाक तांकां कारण जाल्लें तें अशें -

अनिल जाधव हो बावीस वर्सांचो एक तरणाटो सी. ए. शिकून एके बँकेंत 'कॅशियर' म्हणून काम करतालो आनी हेच बँकेंत रोझी क्लार्क म्हणून काम करतालें. ताचें रूप खूब सुंदर आसलें आनी ह्या रुपाक भुलुनूच अनिल ताच्या मोगांत पडिल्लो. रोझी लग्न जाल्लें आनी ताचो घोव दुबय आसलो. पूण रोझी लग्न जालां हें खबर आसुनूय अनिल ताचेर खूब मोग करतालो. सद्दां सांजवेळा तीं कोलवेंचे वेळेर मेळटालीं आनी लग्न जावचे पयलीं मोगी जें कितें करतात तें तीं करतालीं आनी रातीं आठ वरांचेर घरा येतालीं. हें प्रेमप्रकरण अनिलाचे आवयक खबर नासलें पूण जसो दर्या आपल्या पोटांत कांयच दवरना तसो सैमूय आपल्या पोटांत कांयच दवरना हेंच खरें. अनिलाचें हें प्रेमप्रकरण एक दीस अनिलाचे आवयच्या कानार पडलें आनी आपलो पूत एके लग्न जाल्ले ख्रिश्चन चलयेक घेवन भोंवता हें आयकून तिका खूब राग आयलो. अनिल येतकच अनिलाक बरोच उजरावन काडपाचें तिणें थारायलें. इतल्यांत अनिल खोशेन घरा आयलो. घरांत आयले बरोबर आवयलें आपणाक 'फायरींग' पडटलें हें ताका खबर नासलें देखून तो तोंडान शिळोणी मारीत घरांत आयलो. घराचो हुमरो हुपलेबरोबर आवयन ताका विचारलें, 'अनिल, हांवें तुजेविशीं जें कितें आयकलां तें खरें काय फट?'

'आँ? म्हळयार म्हजें आनी रोझीचें प्रेमप्रकरण तुज्या कानार गेलें तर?'

'लज दिसना उलोवपाक? गाढवा, जें ख्रिश्चन चली लग्न जालां, जे चलयेचो घोव दुबय आसा ते चलयेक तूं घेवन भोंवता?'

'इतलेंच न्हय आई, ते चलयेकडेन हांव लग्न जावपाक लेगीत तयार आसां.'

'अऽऽनिल, हें तूं कितें उलयता? तुका हें मातूय सोवना अनिल. तुका आनीक जायत्यो चलयो मेळटल्यो. तूं ते ख्रिश्चन चलयेचो सांगात सोड रे पुता. तूं जें हें कितें करता तें आमच्या धर्मांत वसना. आमचे संस्कृतीच्या आड तूं हें करता. आपली सांगातीण मनशान सदांच खंय जात-पात-धर्म पळोवनच करची.'

'वा! वा! कितें काय म्हळ्यार आपली सांगातीण मनशान खंय जात-पात-धर्म पळोवनच करची! आगे, जेन्ना तुगेले धुवेल्या चल्यान एके ख्रिश्चन चलयेकडेन लग्न केलें तेन्ना तुजी ही जात-पात खंय गेल्ली? तुजो धर्म खंय गेल्लो? तुजी संस्कृती खंय गेल्ली?'

'अनिल, तुजी आनी म्हजे धुवेल्या चल्याची गजाल साप्प वेगळी. म्हजे धुवेल्या चल्याक सांगपाचो म्हाका अधिकार ना. पूण म्हज्या स्वताच्या चल्याक सांगपाचो आनी उपदेश करपाचो म्हाका शंवर टक्के अधिकार आसा.'

'पूण आई, हांव ते चलयेक घेवन भोंवल्यार जालें कितें? हांव ताचेर मोग करतां आनी तेंय म्हजेर मोग करता आनी मोग करतना जात-पात-धर्म कांयच आड येना.'

'अनिल तूं...'

'आई, तें रोझी मर्नासूच न्हय? ताकाय मनशाभाशेन भावना आसात न्हय? मागीर तुमी म्हाका रोझीवरोवर मोग करपाक कित्याक विरोध करतात तेंच म्हाका कळना.'

'अनिल, म्हाका एकूच वायट दिसता की तुज्या बापायन जितली प्रतिष्ठा सांवाळून दवरिल्ली ती प्रतिष्ठा, तो मान हे फुडें तुका आनी म्हाका मेळचो ना कित्याक तर ती प्रतिष्ठा तुवें मातयेभरवण केल्या.'

'आई, तुमी म्हाका लग्न करपाक कितलीय आडखळ हाडली तरीय हांव म्हजें उतर वदलचों ना, वदलपाक शकना. हांव रोझीकडेन लग्न जावपीच.'

अशें म्हणून अनिल घरांतल्या आपल्या खाशेल्या रुमांत गेलो आनी हांगाच ह्या प्रकरणाचेर पड्डो पडूनय अनिलाले आनी रोझीले संवंध तुटले नात. दिसानदीस त्या दोगांयच्या प्रेमाक भार येतालो. अशेच कांय दीस गेले. आनी एक दीस....

तो दीस दिवाळेचो आशिल्लो. दिवाळेक करतात ते फोव रोझीक खूव आवडटाले आनी म्हणून रोझीन दिवाळेच्या दिसा आपूण तागेर येतांच असो अनिलाकडेन हट्ट धरिल्लो आनी हो हट्ट पुरोवपाखातीर अनिलान रोझीक दिवाळेच्या दिसा आपल्या घरांत हाडिल्लें. त्या दिसा रोझीन पाचवीच साडी, पाचवोच ब्लावज आनी हाका मॅचिंग म्हणून हाताक पाचव्याच रंगाचीं कांकणां घाल्लीं. कपलार कुकूम लायिल्लो. ह्या भेसार तें साऽऽरकें हिंदू चली कशें दिसतालें. अनिलान ताका घरा व्हेलें. घरांत दिवाळी मनोवपाखातीर

अनिलाले खूब सोयरे आयिल्ले. ते सगले सोयरे रोझीक पळयत रावले. खरेंच तें त्या भेसार खुवूच सोवीत दिसतालें. अनिलाच्या मावसभावान (जो अनिलाचेच पिरायेचो आसलो) अनिलाक तें चली कोण काय म्हणून विचारलें. 'तें चली म्हजें गर्लफ्रेंड' अनिलान जाप दिली. तें सोवीत सुंदर चली अनिलाचें गर्लफ्रेंड आसा हें आयकून दरेक जण रोझीक तोखणायेन पळयतालो.

'अनिल, तूं खुवूच भाग्यवान! खरेंच असलें चली मेळपाक खरेंच भाग्य जाय.' दरेक जाण अनिलाक सांगतालो आनी रोझीच्या रुपाक तोखेतालो. अनिलाच्या त्या मावसभावान अनिलाक विचारलें, 'अनिल, ते चलयेचें नांव कितें?'

'रोझी फेर्नांडीस.' अनिलान सांगलें. 'म्हळ्यार?' मावसभावान अजापान विचारलें. 'हय. तें चली ख्रिश्चन.' अनिलान स्पश्टीकरण केलें. आनी तें चली हिंदू न्हय जाल्यार ख्रिश्चन हें आयकून ताका कुसडेपणान पळोवंक लागलो. जे लोक कांय खिणांपयलीं रोझीक तोखणायेन पळयताले तेच लोक तें चली ख्रिश्चन हें आयकून रोझीक एके वेगळेच नदरेन पळोवंक लागले. इतल्यांत कोणेंतरी भितर रांदनी म्हऱ्यांत वचून अनिलाचे आवयक सांगलें की अनिलालें गर्लफ्रेंड रोझी आयलां म्हणून. आपल्या घरांत तें ख्रिश्चन चली आयलां हें आयकून अनिलाचे आवयक राग आयलो आनी तिणें घरांतलोच एक दांडो काडून हाडलो आनी भायर येवन रोझीक म्हळें. 'वच पयलीं हांगासल्लें. म्हगेल्या चल्याची वाट लावन वडयली तुवें. एक पावल भितर घालनाका. वता काय ना? काय घालूं एक दांडो कमरार.' अशें म्हणून तिणें दांडो रोझीचेर मारलोच. पूण त्याच खिणाक अनिलान रोझीक ओडून काडिल्ल्यान रोझीचेर तो दांडो पडलो ना. आपले रोझीचो अपमान जाल्लो अनिलाक सोंसलें ना. अनिलान रागान म्हळें, 'आई, तुवें म्हजे रोझीचो अपमान केला. हो अपमान म्हज्यान सोंसूंक जावचो ना.'

'अनिल. तूंच विचार कर मरे. एक ख्रिश्चनाचें चली हिंदूल्या घरांत येता हें खंयच्या हिंदू मनशाक आवडत? हें घर जें आयजमेरेन पवित्र आसलें तें घर ह्या तुगेल्या गर्लफ्रेंडाक लागून अपवित्र जालें ना?' आईन म्हळें.

'आई, तुका हांव परत सांगतां. म्हाका समजावपाचो यत्न करनाका. हांव ते रोझीकडेन लग्न जातलोंच.' अनिलान ठामपणान सांगलें.

'अनिल, तशें जाल्यार म्हाका जीव दिवचो पडटलो.' आईन काकुळटेक येवन सांगलें.

'नाका आई, तशें तूं करनाका. तूं जीव दिवचेपयलीं हांवच जीव दितां.' अनिलान म्हळें आनी तो रोझीक घेवन भायर सरलो.

कांय वेळान अनिल आनी रोझी कोलवेंचे दर्यावेळेर पावलीं. दर्यावेळेर पावतकच

रोझीन अनिलाक विचारलें, 'अनिल, तुका अशें घडटलें हें खबर नाशिल्लें? तुवें म्हाका कित्याक व्हेल्लें? म्हजी लज काडपाक?'

'ना रोझी, म्हाका खरेंच खबर नाशिल्लें की अशें घडटलें म्हणून. अशें घडटलें हें जर हांव जाणा आशिल्लों तर हांव तुका व्हरपाचोच न्हय. रोझी, आय ॲम सॉरी. ती गजाल विसर आतां.'

'अनिल, म्हज्यान हें विसरपाक जावचें ना. तुजे मांयन हांव घरांत येयलें म्हणून जी लज केल्या ती लज म्हाकाच जावंक ना जाल्यार तुकाय जाल्या. म्हणून म्हाका खूब वायट दिसता.'

'हय रोझी, जाणां हांव. जरीय आमी लग्न जालीं तरीय ही म्हजी आवय आनी हो समाज आमकां त्रास दितलोच. आमकां तो विचित्र नदरेन पळयतलो. म्हणून म्हाका दिसता हांवें जीवच दिल्यार बरें.'

'अनिल, तूं हें कितें उलयता?'

'रोझी, हाका आनी दुसरो उपायूच ना.'

'अनिल, तूं फकत आपलोच विचार करता? तूं मेल्यार म्हजें कितें? म्हाका सांगात कोण करतलो?'

'रोझी. तूं सोबीत दिसता. तुका जायते सांगाती मेळटले.'

'मेळत. पूण तुजे सारको सांगाती म्हाका मेळचो नारे अनिल, मेळचो ना. तूं जर जीव दिता तर म्हाकाय जीव दिवचो पडटलो.'

'रोझी, म्हाका लागून तूं तुज्या सोबीत जिवाची वाट लावन घेनाका.'

'अनिल, तुजे बरोबर हांवय जीव दितलें.'

'बरें आसा. हांवें आयजूच जीव दिवपाचो केल्लो, पूण आयज रात खूब जाल्ल्यान हांवें आयचें मरण फाल्यां धुकल्लां.'

'बोरें अनिल, फाल्यां मेळया. पूण म्हाका सोडून मात तूं जीव दिनाका. अनिल, म्हजो सोपूत आसा तुका.'

इतलें म्हणून रोझी गेलें. कांयवेळान अनिलूय उठलो आनी तो सरळ आपल्या एका इश्टागेर गेलो. ती रात ताणें आपल्या इश्टागेरूच काडली.

दुसऱ्या दिसा सांजवेळा तीं दोगांय दर्यावेळेर एकठांय जालीं. आयज तांचो हो निमणो दीस आशिल्लो. अनिलान रोझीक विचारलें, 'रोझी, तुवें घरांत सगल्या लोकांक सांगलां मुगो की आपूण जीव दितलें म्हणून?'

'हय.'

‘रोझी, म्हाका परतपरत दिसता की तुवें जीव दिवचो न्हय.’

‘ना अनिल, हांव तुका सोडून एक खीण लेगीत रावंक शकचें ना.’

‘रोझी, अजून विचार कर, खूब वेळ आसा.’

‘ना अनिल, हांवें पुराय विचार केला.’

‘हें पळय रोझी, म्हाका म्हजो जीव दिवन म्हजे आईक संकश्टांत वडोवपाचें नाशिल्लें. पूण नाईलाजान म्हाका जीव दिवचो पडटा. जर आमी लग्न जालीं तर समाज आमकां विचित्र नदरेन पळयतलो. जंय वता थंय लोक आमकां वांकडे नदरेन पळयतले आनी नाका तें उलयतले आनी आमकां आमचें जिणें नाका जातलें. म्हणून हांव जीव दितां.’

‘मागीर अनिल, कळाव कित्याक? मारुंया उडी. आमी मरतकच तरी समाज सुखी जाता जाल्यार जावुंदी.’ अशें म्हणून रोझीन अनिलाक घट्ट वेंग मारली आनी उपरांत दोगांयनी दर्यांत उडी घेतली.

दुसऱ्या दिसा तांचीं मडीं दर्या देगेर पडिल्लीं लोकांक दिसलीं. दोगांयनी एकामेकांक वेंग मारिल्ली. तांची ती वेंग पळोवन आनी तांचो एकामेकांवयलो मोग पळोवन थंय जमिल्ल्या दरेकाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां भायर आयलीं. पूण कांयच फायदो नासलो. संवसारांतले दोन जीव हो संवसार सोडून त्या राज्यांत गेल्ले ज्या राज्यांत जाती, पातींचें, धर्माचें बंधन नासलें....

# फकत एका भुरग्याखातीर

विशाल पारकार नांवाच्या मनशाकडेन लग्न जाल्यार लिनाक तीन वर्सां जाल्लीं. पूण ताका भुरगें नासलें. सुपुल्ल्या जिवाक खेळोवपाची लिनाची उमळशीक वाडत वताली. पूण भुरगें जावपाचीं कसलींच चिन्नां दिसनासलीं. देखून लिनाक खूब दुख्ख जातालें. ताणें भुरगें जावचे खातीर देवाक आंगवणय केल्ली, पूण व्यर्थ!

एक दीस पुण्यांत एका डॉक्टराकडेन 'चेकींग' करूंक गेल्लेकडेन डॉक्टरान थंयच आशिल्ले एके नर्सीक सांगिल्लीं उतरां लिनाच्या कानार पडिल्लीं. 'लिनालो घोव नपुंसक आसा. ताका पुरुशी उणावपण आसा. देखून ताका भुरगें जावपाची आस्त उणी आसा.' हीं उतरां आयकून लिनाक खूब वायट दिशिल्लें आनी ताचें मन अस्वस्थ जाल्लें. आतां आपल्याक जल्मभर भुरग्यांविणें रावचें पडटलें हाची ताका खंत जाल्ली. पूण ही गजाल आपल्या घोवाक न सांगपाचें ताणें थारायिल्लें. अशेच दीस वताले. म्हयने सरताले. पूण लिनाक भुरगें जावचे खातीर उपाय सुचनासलो.

एक दीस लिनालो घोव ऑफिसांत वतकच ताच्या घोवाचो इश्ट घरांत आयलो. तो लिनांल्या घोवाक मेळूंक आयिल्लो. ताचें गोरेपिट्ट रूप पळोवन लिनाच्या मनांत वायट विचार आयलो. ह्या इश्टाक आपल्या मोहजाळयांत पकडप आनी ताचेकडेन प्रणय करून भुरगें जावपाचें आपलें सपन पुराय करप अशें येवजून लिनान दाराक खिळी घाली आनी म्हळें. 'दार उक्तें आसतकच कोणूय भितर सरता. वस आं. येवपाचो जालो तो.' अशें म्हणून लिनान उकतीं आशिल्लीं जनेलांय धांपलीं आनी ताका तेंकून वसून विचारलें. 'तुजें नांव कितें? 'अभय रायकार' ताणें जाप दिली. 'आर यू मेरीड?' लिनाचो प्रस्न. ना, अजून ना. चली सोदता'. ताणें सांगलें. 'खरें सागूं अभय. जेन्ना तुवें ह्या घरांत पावल दवरलें न्हय त्याचवेळार म्हाका तूं आवडलो.' लिनान मुमुरक्यांनी हांसत म्हळें. 'पूण मॅडम... तूं लग्न....' तो कितें तरी सांगूंक सोदतालो पूण ताचें तोंड आपल्या तांवड्याच ओंठांनी वंद करून लिनान म्हळें. 'आय ल्हव यू अभय'. लग्न जाल्ली वायल अशें कर्तुव करीत हें अभयान सपनांत लेगीत चितूंक नासलें. देखून लग्न जाल्ले वायलेचो

उमो घेतना ताचें आंग शिरशिरलें. ताचें काळीज वयर सकल जावंक लागलें. ताका लिनाचो खूब राग आयलो आनी ताणें रागान म्हळें, 'लिना, हें तुका सोबता?' 'अभय, आय ॲम सॉरी. पूण हांवें तुजो उमो घेतिल्ल्याची खबर तुवें म्हज्या घोवाक सांगूंक जायना. सोपूत आसा तुका.' लिनान म्हळें. 'बरें सांगना, पूण आतां वचूं दी म्हाका.' अभयान काकुळटेक येवन म्हळे. 'सोडटां तुका. पूण एके अटीचेर.'' लिनान सांगलें. 'कसली अट?' अभयालो प्रस्न. 'तुवें आयतार सोडून सद्दां ह्याच वेळार हांगा येवंक जाय.' लिनान म्हळें आनी लिनालीं हीं उतरां आयकून अभय गडवडलो आनी लिनाक ताणें म्हळें, 'लिना, धिज इज मात टू मच ऑं.' 'तुका जर म्हजी ही अट मान्य ना तर हांव किळच्यो मारून लोकांक एकठांय करतलें ना जाल्यार पुलिशेंत वचून तुवें म्हजेर बलात्कार केला म्हणून कागाळ करतलें.' लिनान दोळे पिटपिटायत म्हळें. पुलिशेंत वचून लिनान कागाळ केल्यार आपलें नांव बदनाम जातलें हे भिरांतेन अभयान लिनागेर येवपाचें मान्य केलें. ताचो हयकार आयकून लिना खोशी जालें. ताणें खोशेन अभयाक वेंग मारली आनी म्हळें, 'नाव यू आर लायक ए गुड बॉय.' थोड्या वेळान अभय फाल्यां सकाळीं येवपाचें लिनाक उतर दिवन गेलो.

असलो प्रयोग फळादीक जालो ह्या विचारान लिना खोशी जालें. लिनाच्या मुखामळार हांसो फांकलो. भुरगें जावपाचें आपलें सपन पुराय जातलें म्हणून तें सुखावलें.

दुसऱ्या दिसा थारिल्लेप्रमाण थारिल्ल्या वेळार लिनालो घोव ऑफिसांत वतकच अभय आयलो. अभयाक पळोवन लिनाच्या काळजांत खोशेचीं ल्हारां नाचूंक लागलीं. लिनाच्या रगतांतलो एक-एक थेंब नवे उमेदीन सळसळूंक लागलो आनी दुसऱ्याच खिणाक दोगांयचे ओंठ एकामेकांक तेंकले; काळजां एक जालीं आनी कांय वेळान दोगांय एकामेकांचे आधीन जालीं.

अशेच दीस वताले. लिनालो घोव भायर सरतकच अभयान येवप आनी उपरांत लिनान दार बंद करून अभया बरोबर रोमान्स करप हें सदचेंच जावन पडिल्लें. अशेच कांय म्हयने गेले. जेन्ना आपल्या पोटांत गर्भ वाडटा म्हणपाची जाणविकाय लिनाक जाली तेन्ना ताच्या पोटांत खातखुतल्यो जावंक लागल्यो. आतां रोखडेंच आपल्याक सुपुल्ल्या जिवाक खेळोवंक मेळटलें हे आशेन लिना आसलें. पूण एक दीस अचकीत अवेळार घरांत आयिल्ल्या लिनाल्या घोवाक लिना आनी अभय विवस्त्र स्थितींत रोमान्स करतना आयबॉलांतल्यान दिसलीं. आपली बायल परक्या दादल्याचे वेंगेत पळोवन अभयालें पित्त चाळवलें. ताणें बेल मारली. बेलीचो आवाज आयकून अभय आनी लिना कांचवेलीं आनी आपल्या आंगार कपडे चडोवंक लागलीं. लिनान भीत-भीत दार उगडलें आनी घरांत भितर सरिल्ल्या लिनाल्या घोवान अस्ताव्यस्त आशिल्ले लिनाक पळोवन म्हळें, 'लिना. आयज म्हाका कळळें की तूं वेश्या म्हणून, तुवें म्हजो विश्वासघात केला. म्हाका राग

येवचे पयलीं तुमी दोगांय घरांतल्यान भायर सरात.'' पूण म्हजें आयकून तरी घे.' लिनान ताका समजावपाचो यत्न केलो, पूण लिनालो घोव कांयच आयकुपाचे स्थितींत नासलो. शेवटाक नाईलाजान लिना पर्स घेवन भायर सरलें आनी ताच्या फाटोफाट अभय भायर सरलो.

तें आपले एके इश्टीणीगेर रावलें. कांय दिसांनी ताणें एका हॉस्पिटलांत एका सुपुल्ल्या भुरग्याक जल्म दिलो आनी त्याच दिसा रातीं हॉस्पिटलांतल्यान उडी घेवन ताणें आत्महत्या केली.

दुसऱ्या दिसा लिनान आत्महत्या केल्ल्याची खबर दिसाळ्यांनी वाचून लिनालो घोव पोलीस स्टेशनांत आयलो. इतल्यांत ताका एका पोलिसान हडकिलो आनी विचारलें, 'मिस्टर, तुजें नांव कितें?' विशाल पारकार'. ताणें सांगलें. 'हे बायलेच्या मड्याकडेन पडिल्ले एके पर्सीत तुज्या नांवांची चीट आसली. ही घे ती चीट.' त्या पोलिसान लिनाल्या घोवाकडेन चीट दिली. तो ती चीट वाचूंक लागलो. 'विसू, ही चीट तुज्या हातांत पड म्हणसर हांव ह्या संवसारांत आसचें ना. विसू, एक दीस डॉक्टराकडेन हांव 'चेकींग' करपाक गेल्ले कडेन म्हाका भुरगें जावचें ना म्हणून दोतोरान सांगलें आनी देखून तुज्या इश्टाकडेन प्रणय करून भुरगें जावपाखातीर हांव यत्न करतालें. पूण तुवें म्हाका समजुवपाचो यत्न करिनासतना म्हाका वेश्या म्हणून धांवडावन दिलें. म्हाका खूब वायट दिसलें. पूण म्हजीच चूक आशिल्ल्यान हांव वोगी रावलें. विसू, म्हाका माफ कर रे. फकत म्हाका भुरगें जावचें आनी आमचो संवसार सुखाचो जावचो ह्याच हेतून हांव ह्या अभयाक शरीरसुख दिवन पातक करतालें. भुरगें जावचेखातीर हांवें इतली हीन पातळी आपणायली म्हणून म्हाका वायट दिसता. आतां तुका तोंड दाखोवपाक म्हाका लज दिसता. देखून हांवें आत्महत्या केल्या. ही चीट सांपयतना तुजेकडेन एकूच मागतां की उपकार करून हॉस्पिटलांत आशिल्ल्या म्हज्या भुरग्याक आपलोच भुरगो समजून ताचो सांवाळ कर. ताका वाऱ्यार वडयनाका आनी अभयाक कसलींच वायट उतरां दिनाका. हातूंत ताची कसलीच चूक ना. तुजेंच दुर्भागी-लिना.'

लिनाल्या घोवान ती चीट वाचली आनी दोळ्यांत सांठून उरिल्लीं दुकांची न्हंय दोळ्यांच्या कडांतल्यान व्हांवक लागली. 'लिना, तुका हांव उतर दितां की तुज्या भुरग्याक हांव सांवाळटलों. खूब शिकोवन ताका खूब व्हड करतलों. अशें म्हणून लिनालो घोव व्हडाव्हडान रडटालो. तेवटेन हॉस्पिटलांत लिनाल्या वॉर्डांत आशिल्ल्या पाळण्यांत निकतेंच जल्मल्लें भुरगे आपले आवयची वाट पळयत हिमट्या-हिमट्यांनी हुंडकेतालें....!

# विधवा

'आरे, असो एकटक लावन कितें येवजिता रे? चडूय येवजिल्यार वरें न्हय हां! अशीं म्हज्या इश्टालीं उतरां म्हज्या कानार पडलीं आनी हांव भानार आयलों.

हय! कितलो तरी वेळ हांव त्या लिनाविशीं येवजीत आसलों. लिना! आमच्य म्हऱ्यांत आशिल्ल्या एका ऑफिसांत टायपिस्ट म्हूण काम करपी चली! ताचे गुलाबीच ओंठ. भांगरा कोराचे केंस, टायपिंग करतना ताचें तें मुमुरकें हांसप आनी ताचें तें गो आंग म्हाका पिशें लायतालें. सदांच ऑफिसांत येतना आनी ऑफिसांतल्यान वतना ता मुखामळ हांव न चुकतां पळयतालों आनी हेंच चली म्हज्या जिवितांत म्हजी वायल म्हणून म्हाका मेळची म्हूण हांव मनांतल्या मनांत देवाची प्रार्थना करतालों.

खऱ्यांनीच म्हाका त्या लिनान सामको पिसो केल्लो. ताणें म्हजेर मोनेळ घाल्लो. दीस-रात हांव ताचींच सपनां रंगयतालों. ते चलयेक पळयलेबगर म्हाका सुख लागनासलें. सदांच ते चलयेचोच म्हाका ध्यास लागतालो.

तर एक दीस त्या ऑफिसाभायर उबो आशिल्ल्या एका प्युनावरवीं ते चलयेचें नांव म्हाका कळ्ळें. ते चलयेचें नांव कळ्ळेबरोबर दीसभर त्या लिनाचोच जप हांव करीत रावलों. ते चलयेच्या मोगांत हांव इतलों कित्याक घुस्पलां हाचेंच म्हाका कांयवेळा कुवाडें पडटालें. आयजवेर म्हज्या जिवितांत ह्या लिनापरसूय सोबीत खुबशोच चलयो आयल्यो. पूण खंयचेच चलयेच्या मोगांत हांव इतलों घुस्पूंक नासलों. मागीर ह्या लिनांत अशी कितें जादू आसा जी म्हाका पिशें लायता? हांव जसो ताचेर मोग करतां तसो तें म्हजेर मोग करता काय? काय म्हजो हो एकतर्फी मोग ? अशे प्रस्न म्हाका सतायताले आनी त्याच विचारांत हांव घुस्पतालों. कितलो तरी वेळ हांव तेंच येवजितालों.

आयजूय हांव त्याच विचारांत आसलों. कितलो तरी वेळ हांव ऑफिसांतलें काम पेंडींग दवरून लिनाविशींचोच विचार करतालों. इतल्यांत इश्टान म्हाका भानार हाडून म्हजें विचारचक्र तोडलें. हांव भानार आयलों आनी म्हजें काम करीत रावलों.

हांव सदांच ते चलयेक पळयतालों. तें लिना म्हज्या काळजाच्या घोटिरांत सुकणें

जावन रावित्लें. पूण एकदीस अनपेक्षित घडलें. हांव स्कुटरीर वसून ऑफिसांत वतालों. इतल्यांत रस्त्याकुशींतल्यान चलत वचपी लिना म्हाका दिसलें. सदांच पयसुल्ल्यान पळोवन मुख्र मानतलों हांव लिनाक सामकार पळोवन कडकडलों. वेश्टेंच काळीज सकल-वयर जावंक लागलें. तरीपूण हांवें स्कूटर थांवयली आनी तें लिनाच हाची खात्री करून घेतली. हांवें लिनाक पळोवपाक आनी लिनान म्हाका पळोवपाक एकूच गांट पडली आनी म्हाका पळोवन तें मुमुरकेंच हांसलें. वा! ताचें कितलें सोवीत हांसप! खऱ्यांनीच खंयचेय टुथपेस्ट कंपनीक जायरातीखातीर ताचें हांसप आयतेंच मेळटलें आसलें. 'तूं आयज चलून शें?' हांवें स्कुटर थांवोवन विचारलें. 'आरे, कितें जालें जाणा, म्हजी सदची वस म्हाका चुकली देखून चलून वचचें पडलें. वरें जालें तूं मेळ्ळो तो. म्हाका ऑफिसांत पावोवशीत?' ताणें आपल्या म्होंवाळ उतरान आपले दोळे पिटपिटायत म्हाका विचारलें. 'पळय, प्लीज ना म्हणूं नाका.' ताणें लाडात येवन म्हळें.

'प्लीज' ह्या ताच्या उतरान हांव विर्गळ्ळों. 'बस. चल पावयतां तुका.' हांवें म्हळें आनी स्कुटर सुरू केली. तें फाटल्या सिटार वसलें आनी आपूण पडनये म्हूण ताणें म्हज्या खांदार घट्ट हात धरलो. एके परके चलयेचो स्पर्श हांव पयलेच फावट अणभवतालों, देखून लिनाच्या त्या स्पर्शान म्हजें आंग शिरशिरलें. कांय वेळान ताच्या ऑफिसाकडेन ताका हांवें सोडलें आनी 'थॅंक्यू' अशीं गोड उतरां म्हणून तें आपल्या ऑफिसांत गेलें.

हांव ऑफिसांत आयलों. पूण सकाळीं लिनान म्हज्या काळजांत खवदळ घाल्ल्यान कामावयलें लक्ष पुराय गेल्लें. परत परत सकाळची घडणूक म्हज्या दोळ्यांसामकार येताली आनी लिनाचें तें सोवीत मुखामळ म्हजें मन अस्वस्थ करतालें. पूण ते स्थितींतय हांवें काम केलें आनी सांजवेळा ऑफिसांतल्यान भायर सरलों अनी म्हजे स्कुटरी म्हऱ्यांत लिना उवें आशिल्लें पळोवन हांव अजापलों. 'या मरे आमी?' ताणें म्होंवाळ उतरांनी म्हळें.

खरें म्हळयार ताणें म्हजे स्कुटरीचेर सदांच वसचें अशें म्हाका दिसतालें. पूण म्हजे स्कुटरी म्हऱ्यांत तें रावतलें हें हांवें येवजूंक लेगीत नासलें. देखून ताका पळोवन हांव अजापलों आनी ताणें 'या मरे' अशें म्हणनावरोवर हांव गडबडलों. 'असो कितें पळयता म्हाका? चल या मरे. लज दिसता म्हाका व्हरपाक?' ताणें म्हजेर आपले घारशे दोळे रोखून विचारलें. ताचें मन मोडप म्हज्या जिवार आयलें आनी ताका वसोवन हांवें स्कूटर धांवडायली. ताका घराकडेन पावयलें आनी हांव घरा आयलों.

अशें सदांच घडत रावलें. ताका सकाळीं ऑफिसांत पावोवप आनी सांजवेळा घराकडेन व्हरप हें आतां म्हाका रुटीनच जावन पडिल्लें. ल्हवू ल्हवू आमची इश्टागत जाली. तोंड वळख जाली आनी इश्टागतीचें रुपांतर मोगांत जालें. आमचो मोग वाडत गेलो. मोगाचे पांवडे वाडत रावले. सांजवेळा ऑफिस सुटटकच ताका घेवन थेटरांत, गार्डनांत, दर्यावेळेर वा हॉटेलांत वचून मोगाच्यो खवरी मारप हें आतां सदचेंच जावन

पडिल्लें. अशेच दीस वताले. हांव सामको 'लिनामय' जाल्लों.

सदांच ताका घेवन हांवें हॉटेलांत वचचें, म्हज्या खुस्तार ताणें पोटभर खावचें सदचेंच जाल्लें. ताच्या पोटांत वचपी हॉटेलांतलो दरेक जिनस ताचो विक पॉइंट आशिल्ल आनी म्हज्या पयशांचेर ताव मारप हो ताचो स्ट्राँग पॉयंट आशिल्लो. दीस सरताले म्हयने सोंपताले, आमचे मोगाचे पांवडे वाडत वताले.

एकदीस दर्यावेळेवयल्या एका माडापोंदां बसून आमी मोगाच्यो खबरी करतालीं इतल्यांत हांवें लग्नाचो विशय काडलो आनी म्हळें, 'लिना, आयजवेर हांवें तुजेर आन तुवें म्हजेर नितळ मोग केलो. आतां लग्न जावन आमी संवसार थाटया अशें म्हाक दिसूंक लागलां.' म्हाकाय तेंच दिसता. पूण...' पूण लिनान म्हळें, 'पूण कितें.. लिना?' हांवें अजापान विचारलें, 'तुका, कशें सांगचें तेच कळना म्हाका.' ताणें दुखेस्त जावन म्हळें, 'सांग. सांग तूं. म्हाका इल्लोय राग येवचो ना.' हांवें धीर करून म्हळें 'हांव विधवा....' ताणें सांगलें आनी तें विधवा आसा हें आयकून म्हजे कान किण्ण जाले. तें विधवा आसतलें हें हांवें सपनांत लेगीत चितूंक नासलें. खंय झक मारली आनी हांव ताच्या मोगांत पडलों हाचो म्हाका खूब पच्छाताप जालो. सगले पच्छाताप दुकांनी धुवन काडचे अशें दिसतालें. पूण दुकांच आटिल्लीं आनी यादी तर उचांवळून वयर येताल्यो.

'कितें राग आयलो म्हजो?' ताणें दोळयांत दुकां हाडून विचारलें. 'हय. पूण तुवें ही गजाल म्हाका हे आदीं कित्याक सांगली ना?' हांवें रागान विचारलें, 'तशें सागिल्लें जाल्यार तूं म्हजेर मोगच करचो नासलो.' लिनान म्हळें आनी विचारलें, 'म्हणचे आतां हांव विधवा म्हणून तूं म्हाका सोडटलो तर?' 'ना. ना. अशें कित्याक म्हणटा तूं? हांवें म्हळें खरें, पूण विधवा बायले कडेन लग्न जावंक म्हजें मन तयार नासलें. 'म्हणचे तूं आतां लिनाक सोडटलो? तुजेर काळजांतल्यान उपाट मोग करपी लिनाक तूं स्विकारचोना? फाल्यां समज लिनान, तुवें आपल्याक सोडिल्ल्याच्या पच्छातापान आपल्या जिवाचें बरें वायट केलें जाल्यार ताचें पातक तुजेर येतलें. लोक तुवेंच ताचो खून केला म्हणून तुका बोटां दाखयतले. तुका समाज जगूंक दिवचो ना देखून लिनाचो स्विकार कर. तें विधवा जालें म्हूण कितें जालें ? ताकाय भावना आसात. तेंवूय मनशाचेर मोग करूंक शकता देखून ताका न्हयकार दिवं नाका.' म्हजें मन म्हाका समजायतालें आनी लिनाक न्हयकार न दिवपाचो सल्लो दितालें.

'आरे, असलो कसलो विचार करता? म्हाका कळिल्लेंच तूं म्हजेवांगडा लग्न जावंक न्हयकार दितलोच म्हणून! खरेंच, हांव विधवा. म्हजेकडेन लग्न जाल्यार तुका खुवशाच संकश्टांक तोंड दिवचें पडटलें. तेपरस खंयचेय सोवीत चलयेकडेन लग्न जा आनी तुजो संवसार सुखी कर.' लिनान म्हळें. 'लिना, कितल्या व्हड अंतस्करणाचें तूं?

ण लिना, एकटे आशिल्ले वायलमनशेक संवसार केन्नाच स्वातंत्र्य दिना. वासनेन खवखिल्ल्यो नदरो तिका सुखान जगपाक दिनात. देखून हांवें तुजेकडेन लग्न जावपाचो नर्णय घेतला. तूं विधवा आसा हें खबर आसुनूय' हांवे धिटायेन म्हळें आनी हांव आपलेकडेन लग्न जावंक तयार आसां हें आयकून लिनान म्हाका खोशयेन घट्ट वेंग मारली. तें व्हडाव्हडान रडूंक लागलें.

देवान लिनाक सोवीत रूप दिवन सजयिल्लें, घडयिल्लें पूण ताचें नशीब मात पसडून वडयिल्लें. खरें म्हळयार लिना विधवा आसा हें आयकून म्हाका उतरांच फुटूंक नासलीं, पूण घाम मात फुटिल्लो. अजुनूय लिना म्हजे वेंगेंत आसलें आनी व्हडाव्हडान रडटालें. हांवें ताचे दोळे पुशीत ताका म्हळें, 'लिना, दोळयांतलीं दुकां पूस. आमी गेग्वडींच लग्न जावंया.'

थोडयाच दिसांनी आमचें लग्न जालें. घरांतलो खर विरोध आसून लेगीत. एके विधवा जाल्ले वायलेक हांवें नवें जिवीत दिल्लें हाचेंच म्हाका चड समाधान जालें. आयज आमचो संवसार बरेतरेन चल्ला. पूण केन्ना केन्नाय म्हज्या ल्हानपणांत आज्यान सांगिल्लीं उतरां म्हज्या कानांत घुमतात आनी म्हाका अस्वस्थ करतात. तीं उतरां म्हळयार 'मनशाक देवान दोळे दिल्यात ती सोवितकाय पळोवन संतुश्ट जावपाक. पूण मनीस दोळयांनी पळोवन संतुश्ट जायना. ती सोबितकाय तो आपल्या हातांनी वेंगावंक सोदता. ती आपली करूंक सोदता आनी थंयच तो चुकता. म्हणून तुका हांव शिटकायतां. सोबितकाय पयसुल्ल्यान पळय. तिका वेंगावपाची चूक करूं नाका.'

# एक खेळ नशिबाचो

'वीस वर्सांचें आसतना तें कितलें सोवीत दिसतालें! पूण आयज वावडें साप्प सुकलां. आतां हे चलयेंत कांयच अर्थ उरूंक ना. ताचें सगलें तरणेंपण वावलां. आतां ताणें आपलो सांगाती फकत नांवापुरतो जोडपाचो उरला. हय. फकत नांवांपुरतो.' रेखाची आवय एकलीच वडवडटाली. आनी ताका कारणूय आसलें.

रेखा पळोवपाक सोवीत दिसतालें. ताचे घारशे दोळे तरणाट्यांक भुलयताले. पूण आतां रेखाची तरणी पिराय सोंपल्ली. तें जाण्टें दिसतालें आनी ह्याच कारणाक लागून कोणूच ताचो स्विकार करूंक तयार नासलो. रेखाची आवय रेखाचे सोयरिकेखातीर दीस-रात धडपडटाली. दिसाळ्याचेर 'चली जाय' ह्या माथाळ्याखाला येतल्या जायरातींच्या आदारान यत्न करताली, पूण तिका येस मेळनासलें. अठ्ठावीस वर्सांची पिराय सोंपिल्ले चलयेकडेन लग्न जावंक कोण तयार जायत? पांच वर्सांआदीं रेखालो वापूय ह्या संवसाराक अंतरिल्लो. तो भायर पडतसावन रेखाचे आवयचेरच रेखाचे सोयरिकेचो भार पडिल्लो. आनी हो भार सांवाळपाचो ती आपलेपरीन यत्न करताली. पूण केन्ना केन्ना केल्ल्यो सोयरिकोय मोडपाच्यो घडणुको घडटाल्यो. केन्ना पत्रिका जुळना म्हणून लग्न अडून उरतालें जाल्यार केन्ना प्रसाद लागना म्हणून लग्न मोडून पडटालें आनी हाका लागून रेखाचे आवयचो रेखाचे सोयरिकेविशींचो हुस्को वाडत वतालो. शेजरा वेर्णेकार नांवाचें कुटूंब रावतालें. ह्या कुटुंबांत समीर नांवाचो रेखाचेच पिरायेचो एक चलो आसलो. दिसपाक सोवीत दिसतालो, रुपान गोरो आसलो, बी.ए. शिकिल्लो, तेभायर ताणें प्लास्टीक पोतयांची फॅक्टरीय घाल्ली. पूण तें कुटूंब खूब गिरेस्त आशिल्ल्यान तांचेकडेन रेखाचे सोयरिकेविशीं उलोवंक रेखाले आवयचें मन तयार नासलें. दीस वताले, म्हयने सरताले, वर्सां सोंपतालीं, पूण रेखाची सोयरीक जुळून येना आसली. चलो कितलोय वेसनी वा कुरूप आसलो तरी ताका आपली वायल गोरी आनी भुरगीच जाय आसता आनी हेच खातीर रेखाले सोयरिकेक आडमेळीं येतालीं.

'ब्रह्मदेवा, तूं कोणाली गांठ कोणायकडेन तरी घालताच. मागीर म्हज्या रेखाली

गांठ खंयच्याय चल्याकडेन घालूंक तुका मेळ्ळी ना ? ब्रह्मदेवा. तूं म्हजेर इतलो निश्ठूर कित्याक जाला रे?... हय. खरें म्हळयार रेखानूच आतां आपलो सांगाती वेंचून काडूंक जाय आसलो, पूण तितली तांकय ना ताका. परक्या चल्यावांगडा केन्ना उलोवचेंच ना. मान सकल घालून ऑफिसांत वतलें आनी मान सकल घालूनच येतलें. केन्ना कोणाकडेन उलोवचेंच ना. हय, रेखाच्या आंगाक हळद लायिल्ली पळयतकच आनी तें आपल्या घोवावांगडा भोंवल्लें पळयतकच हांव सुखान दोळे धांपतलीं. पूण रेखाची सोयरीक केन्ना जातली काय?' रेखाची आवय कितलो तरी वेळ विचारांत घुस्पून आसली. इतल्यांत शेजारच्या समीरान घरांत पावल घालें आनी केन्नाच ह्या घरांत येनाशिल्ल्या समीरान घरांत पावल दवरिल्लें पळोवन रेखाची आवय कांचवेली. 'समीर, कित्याक आयिल्लो ?' रेखाचे आवयन विचारलें. 'वयनी, तुज्या रेखा वांकडे वाटेन गेलां. आनी आतांच जर ताका आडायलें ना तर ताची जीण पिसडून वतली आनी तेचवांगडा तुमची अब्रूय वतली.' समीरान सांगलें.

'समीर, तुका कितें सांगपाचें आसा तें सरळ सांग. असो कुवाड्यांनी उलय नाका.'

'वयनी, तशें जाल्यार काळीज घट्ट धरून आयक. तुजें रेखा कॉलगर्ल जावपाचे वाटेर आसा.'

'कितें? कितें उलयता रे? जाग्यार आसा मरे? काय म्हजीं फकाणां करूंक आयला?'

'वयनी. रागार जायनाका. म्हजेर विश्वास दवर. आयज तुजें रेखा त्या दीपकमल लॉजांतल्या जनेलाचेर उबें रावन म्हाका वयर आपयतालें.'

'कितें ऽऽऽऽ? म्हजें रेखा कॉलगर्ल जालें?'

'आनी वयनी, तें ऑफिस सुट्टकच सदां त्या लॉजांत वता आनी जनेलार वसून गिरायकांक आपयता अशीय खवर म्हाका मेळ्ळया.'

'अशें? म्हणूनच ताका ह्या दिसांनी घरा येवंक कळाव जाता जावंये.'

'वयनी. वोगी राव. तें पळय रेखा येता. हांव हांगाच दारा फाटल्यान लिपतां. तूं ताचेकडेन खरी खवर काड.'

अशें म्हणून समीर दाराफाटल्यान लिपलो. रेखा आयलें. रेखाक पळोवन रेखाले आवयन रागान रेखाक विचारलें, रेखा, खरें सांग, तूं सदांच त्या दीपकमल लॉजांत कित्याक वता गो?'

'पूण.... पूण... आई, तुका हें कोणें सांगलें?'

'आगो रेखा. कोंब्याक धांपून दवरलो म्हणून सकाळ जायनासतना रावता गो ?

म्हाका तुजी सगली खबर कळ्ळी. म्हाका लिपोवन दवरपाचो कांयच यत्न करनाका.'

'आई, हांव.... हांव चुकलें गे.'

'आतां उलोवन कांयच फायदो ना. मनशान खंय जुगार वा खंयचेंय वायट वेंग्न आपणावचेपयलीं विचार करूंक जाय. खेळणें हातांतल्यान पडटकच फुट्टलेंच. तें पडनये म्हणून ताका सांबाळचें पडटा. रेखा, खरें सांग, तुवें ही वांकडी वाट कित्याक आपणायली गो? कितलींशींच वर्सां सांवाळून दवरिल्ली प्रतिश्ठा आयज तुवें मातयेभरवण केली. सांग रेखा, अशें करून तुका कितें मेळ्ळें? कोणें तुका हे हळशिकेंत घालें?'

रेखा, अजुनूय तुका न्हवरो मेळटलो म्हणपाची आस्त म्हाका आसली गो आनी ते तरेन हांव यत्नूय करतालीं. पूण आतां तुजेकडेन लग्न जावपाक कोण तयार आसत? रेखा, तुवें खूब मोटी चूक केली, तुवें खूब मोटी चूक केली.' अशें म्हणून रेखाली आवय रडूंक लागली. आपले आवयच्या दोळ्यांतलीं दुकां पळोवन रेखाकूय रडूंक आयलें आनी ताणें आवयक वेंग मारली आनी म्हळें, 'आई, म्हाका माफ कर गे. आई. हांव चुंकलें, मान्य. पूण हांवें कितें करपाचें आसलें? अशेंच एकलें? एकसुरेंच जिवीत जगून मरचें आसलें? आई, म्हाका चल्याचो मोग जाय आसलो. म्हजी शारीरिक भूक म्हाका भागोवची आसली देखून हांवें हो वांकडो निर्णय घेतला. धा वर्सां तुमी म्हजे सोयरिकेखातीर धडपडटात हें हांवें पळयलें आनी म्हजी सोयरीक जायना म्हणून निर्शेल्लीं तुमचीं मुखामळांय हांवें पळयलीं. आई, घडये म्हज्या नशिबांत 'घोवाचें सुखच ना दिसता. आनी देखून हांवें ही वांकडी वाट आपणायली. त्या लॉजांत म्हाका पयशेय मेळटाले आनी म्हजी भुकय भागताली. आयज म्हजी पिराय सोंपिल्ल्यान आनी हांव जाण्टें जाल्ल्यान खंयचोच चलो म्हजेकडेन लग्न जावंक तयार नासलो. पूण आई, खरें सांगूं? त्या लॉजांत येतलीं गिरायकां पिराय पळयनात, रूप पळयनात, तांकां फकत आपल्यो शारीरिक इत्सा भागोवपाच्यो आसतात आनी हातूंत दोगांयच्योय भुको भागतात.'

'पुरो, पुरो कर तुजें उलोवप. म्हज्यान सोसूंक जायना.' रेखाले आवयन म्हळें. 'आई. हांव चुकलां आसत जाल्यार म्हाका माफ कर.' रेखान काकुळटेक येवन म्हळें. 'रेखा. ऊठ, ऊठ म्हजे वेगेंतल्यान. रेखा, तूं वेश्या जालां. आनी वेश्येक आवय. वापूय, सोयरीं-धायरीं कोण आसनात देखून आतां तुका 'धुवे' म्हणपाकय म्हाका लज दिसता. म्हाका वेंगेंत घे आनी एकूच फावट म्हज्या केंसावयल्यान हात भांवडाय गे फकत एकूच फावट.' अशें म्हणून रेखा आपले आवयचे वेंगेंत रिगलें आनी तिचो हात आपल्या केंसांवयल्यान केन्ना भांवता हाची वाट पळयत रावलें. पूण रेखाचे आवयन आदींच प्राण सोडिल्लो. रेखान आपले आवयच्या दोळ्यांकडेन पळयलें आनी तिणें दोळे परतिल्यात हें पळोवन एक व्हड किळांच मारून रेखा आपले आवयच्या मडयार पडलें. तें व्हडा व्हडान रडूंक लागलें आनी रडटां रडटां म्हणूंक लागलें. 'आई, आतां तूंय म्हाका सोडून गेली.

वापूय वचतसावन तुवें म्हाका सांवाळ्ळी . आतां कोण म्हाका लागीं करतलो ? आई , आतां हांव निराधार जालें . पांखां तुटिल्ल्या पाखराप्रमाण म्हजी गत जाल्या . आई , आतां हांव जिवीतभर आंकवारूच उरतलें गे ? सांग आई , सांग , आतां हे अनाथ चलयेकडेन कोण लग्न जातलो ? कोण म्हाका आपलें करतलो ?'

इतलो वेळ दाराफाटल्यान आशिल्ल्या समीराच्यान तें दृश्य पळोवं नज जालें . ताणें ल्हवूच वचून रेखाच्या केंसांवयल्यान हात भोंवडायलो आनी म्हळें , 'रेखा , रडनाका . तुजो स्विकार करूंक हांव तयार आसां .' कोण समीर ?' अजापान रेखान समीराक पळयत म्हळें . 'हय . रेखा . हांव समीर . तुजेकडेन लग्न जावंक हांव तयार आसां .' - समीर . 'पूण . . . पूण . . . तूं गिरेस्त . . .' रेखान दुवाव उक्तायलो . 'रेखा , हांव जरी गिरेस्त आसलों तरी हांव मनशांचेर मोग करतां . पयशांचेर न्हय आनी आतां हांव तुजेकडेन लग्न जातलों ; न्हय पयशांकडेन .' समीरान सांगलें .

'पूण समीर , हांवें वांकडी वाट आपणायल्या आनी . . .'

'रेखा , हांवें दाराफाटल्यान रावन सगलें आयकलां .'

'आनी इतलें आसुनूय . . .'

'हांव तुजेकडेन लग्न जावंक तयार आसां .'

'समीर . तुवें म्हजेकडेन लग्न जावपाचो निर्णय कित्याक घेतला ? ते परस . . .'

'रेखा , म्हजो निर्णय सदांच निमाणो निर्णय आसता . हांवें तुजेकडेन लग्न जावपाचो निर्णय घेतला तो फकत तुजे आवयक शांती मेळची म्हणून . नाजाल्यार तिचो आत्मो अतृप्तच उरतलो . रेखा , तूं म्हाका स्विकारूंक तयार आसा ?'

'हय समीर .'

अशें म्हणून रेखान समीराक घट्ट वेंग मारली आनी तें रडूंक लागलें .

'रेखा . रडनाका . पळय , दोळे पूस . हो सगलो नशिबाचोच खेळ . नशिवांत आसा तें कोणाच्यान चुकोवंक आयलां व्हय ? पळय , तुजी आई पळय कशी समाधानान हांसता ती .' समीरान म्हळें आनी रेखान आपले आवयच्या मुखामळाकडेन पळयलें .

रेखाची गांठ ब्रह्मदेवान समीराकडेन घालून रेखाची सोयरीक केली म्हणून . काय आपल्या मरणाउपरांतूच रेखाची सोयरीक जावचेली आसली म्हणून रेखाले आवयच्या मुखामळार हें समाधान फांकिल्लें ?

# रुपा

मनशामनशामदीं नातें निर्माण जावप हें मनीसपणाचेंच लक्षण. मागीर हीं नातीं कशीं, कित्याक आनी खंय निर्माण जातात ही गजाल वेगळी. दोन अनवळखी मनशां एकमेकांक मेळटात, वळख जाता, संपर्क वाडटा, इश्टागत जाता आनी थंयच तांचेमदीं एका विशिश्ट नात्याचो जल्म जाता. हें कोणेंय थारावन वा कोणेंय सांगून जायना. ह्या नात्याची जडण-घडण आपसूकच घडटा. उपरांत हें नातें कशें जालें हाचो आमकां प्रस्न पडटा, पूण जाप मेळना. जेन्ना नातें घडोवन हाडपी तो इश्ट वा इश्टीण आमचेपरस खूब पयस वतात तेन्नाच त्या इश्टाचे वा इश्टिणीचें मोल आमकां कळटा.

आमच्या ह्या जिवीताचो प्रवास खूब दीर्घ आसता. ह्या प्रवासांत आमकां खूब इश्ट मेळटात. कांय आमच्या मनासारके जाल्यार कांय आमचें मन जुळोवन न घेवपी. खरें म्हळ्यार आमच्या मनासारकीं मनशां मेळपाक पुण्याय आसची लागता. नाजाल्यार जिवीतभर ॲडजस्टमेंट करपाकूच आमचें जिवीत सोंपता.

आतां हेंच पळयात. रुपा नांवाचें चली म्हज्या जिवीतांत येता कितें, म्हजेर उपाट मोग करता कितें, तुका सोडून हेर खंयचेच चलयेकडेन हांव लग्न जावचों ना अशें ताका हांव उतर दितां कितें आनी अचकीत ऐनवेळार तें यमाच्या फांसांत अडकून हो संवसार सोडून वता कितें! सगलेंच विपरीत, अघटीत, अनपेक्षित!

रुपा... वावीस वर्सां पिरायेचें गोरें गोमटें चली... शिक्षण मॅट्रीकमेरेन... मनमिळावू सभाव... हांसतें मुखामळ... पूण ?.. फुलकान्न!

हांव टी. वाय. बी. ए. करतालों तेन्नाची गजाल. त्या वेळार आमी मडगांवच्या पांडवा कॉपेलाकडेन रावतालीं. थंय आशिल्ल्या बस स्टॉपाकडेन उबें रावन तें येतल्या वतल्या मनशाक हांसून आपल्या पाटल्यांत आशिल्लीं फुलां वा फातयो घेवपाचो आग्रो करतालें.

खरें म्हळ्यार चलयांपसून हांव सदांच पयस रावलां. कशें आनी कित्याक म्हणून कोण जाणां, चलयांकडेन उलयतना म्हजें काळीज वोगीच धडधडूंक लागता. कॉलेजींत

हांवें केन्नाच चलयांकडेन इश्टागत जोडली ना. कितल्योशोच चलयो म्हजेर मरताल्यो. म्हजेकडेन उलोवपाक धडपडटाल्यो. म्हजेकडेन इश्टागत जोडपाचो यत्न करताल्यो. पूण हांव तांकां वदलोंना. पयलीं चल्यांक प्रोत्साहन दिवप, कितें मेळटा तें तांचे कडल्यान खावप, गरीब म्हणून कळळें जाल्यार हिणसावप. तो चलो आपलेखातीर तळमळटा हें कळनाफुडें ल्हवूच कुशीन सरप आनी दुसऱ्या चल्याकडेन लाग करप हातूंतच चलयांक सूख मेळटा अशी एक (गैर) समजूत म्हजी जाल्ली आनी देखून चलयांकडेन इश्टागत जोडपाचो हांव केन्नाच यत्न करीनासलों.

पूण सगल्या चलयांपरस रुपा वेगळें आसलें... हय! साप्प वेगळें... पांडवा कॉपेला म्हऱ्यांत आशिल्ल्या स्टॉपार वसून मान सकल घालून तें फुलां गुंथतालें. ताचें रूप अप्सरे वरी आसलें. हांसतना ताच्या पोल्याक पडपी खळी म्हाका परत परत पळयन दिसताली. ताचें रूप दोळयांत सांठोवन दवरचें अशेंय म्हाका दिसतालें.

एक दीस कितें जालें, घराकडेन म्हजी मावशी आयिल्ली आनी म्हजे मावशेक फुलांची खूब आवड. देखून तिणें म्हाका आपल्याक माळपाक वरी ऽऽऽऽ फांती हाड म्हणून सांगिल्ली आनी नी फांती हांवें रुपाकडल्यान घेतिल्ली. तेन्नासावन आमची इश्टागत जाल्ली...

दोन दिसांनी म्हजी मावशी आपल्या घरा गेली. पूण म्हजें त्या रुपाकडल्यान फांती घेवप बंद जावंक नासलें. कांय वेळा म्हज्या हातांत फांती दितना ताच्या गोऱ्या हाताचो म्हौंवाळ स्पर्श जातालो आनी म्हाका खातखुतल्यो जाताल्यो. सपनांनी तर सदांच म्हाका सामको पिसो केल्लो. ताणें म्हजेर कसली जादू केल्ली कोण जाणां. पूण त्या रुपाच्या मोगांत हांव पडिल्लों हें मात सेर्त.

पूण कांय विचार मनांत घोळटाले आनी कितलींशींच प्रस्नचिन्नां उबीं रावतालीं. खऱ्यांनीच तें म्हजेर मोग करता काय? म्हजेभाशेन तेंवूय म्हजें मुखामळ पळोवपाक तळमळटा आसतलें काय? म्हजो मोग हो एकतर्फी मोग वी न्हय मूं? तें म्हाका एक गिरायक ह्या अर्थान पळयना मूं? अशे प्रस्न म्हज्या मनांत घोळटाले.

रुपाच्या मोगांत पडतसावन म्हजेर खूब परिणाम जाल्लो आनी म्हज्यांत जाल्लो फरक घरच्यांचेय नदरेंत गेल्लो. सदांच वडवडपी, उलोवपी आनी फकाणां मारपी हांव ह्या दिसांनी घुमोऽ सो वसतां आनी एक टक लावन कितें तरी चिंतीत आसता हाचे फाटल्यान कितेंय पूण कारण आसतलें अशींच तीं मनांत म्हण्टालीं जावंये. आवय वापायन म्हाका खूबवेळा ह्या फरकाचें कारण विचारलें पूण हांव तकली उसळटां. पांय दुखतात, दाढ दुखता अशें सांगून वेळ मारून व्हरतालों. म्हजे भयणीन तर खूब फावटीं हेविशीं विचारलें, पूण हांव रुपाचेर - एके फुलकान्नीचेर - मोग करतां अशें सांगपाक म्हाका धीर येनासलो. दिसभर म्हज्या दोळयांमुखार रुपाची मूर्ती येताली आनी हांव

सामको अस्वस्थ, वैचेन जातालों. हांव सामको रुपामय जाल्लों.

खूब वेळा दिसचें की आमचें हें मोगाचें प्रकरण घरच्यांक सांगचें. पूण उतरांच फुटनासलीं. त्या रुपान तर म्हजी सगली जीणच वदलून उडयिल्ली. सकाळीं उठलेबरोबर सगल्यांत पयलीं देवाचें नांव घेवपी हांव आतां दीसभर रुपाचेंच नांव घेवंक लागलों. अभ्यासांत तर म्हजें लक्ष साप्पच लागनासलें. कॉलेजींत स्कॉलर आशिल्लों हांव दोन तीन विशयांत नापास जावंक लागलों.

अशेच दीस वताले. सांजवेळा पांडवां कॉपेलाकडेन देंवप, रुपाच्या हातार दोन रुपया उडोवप आनी रुपान दिल्ली फांती वास घेवन पिसडून गटारांत उडोवप हें आतां सदचेंच जावन पडिल्लें.

हांव वसींतल्यान देंवले वरोवर धांवत येवप, म्हज्या हातार फांती दवरप, संद मेळ्ळयार म्हज्या हाताक ल्हवूच स्पर्श करप, हांवें दिल्ले दोन रुपया घेतना मुमुरकेंच हांसप आनी फुडल्या गिरायकांची वाट पळयत रावप हाची आतां रुपाकय संवय जाल्ली.

एक दीस (आयतार सोडून) रुपाचें मुखामळ दिसलें ना जाल्यार म्हाका चुकिल्ले चुकिल्ले सारकें दिसतालें.

'आरे, तूं हें कितें करता? अशें करून तुका कितें मेळटा? कित्यापासत तूं हें करता? मोगाखातीर काय रुपाच्या स्पर्शाखातीर? त्या रुपाकडेन लग्न जावपाची तुजी तयारी आसा? तूं ते फुलकान्नीकडेन लग्न जालो जाल्यार हो समाज तुजो मान राखतलो? तुका प्रतिष्ठेन जगूंक दितलो? तुवें रुपाकडेन लग्न जावपाची इत्सा घरच्यांक कळयल्यार घरचीं तुका, तुज्या लग्नाक सोपेपणान परवानगी दितलीं? आरे पिशा, सोड ताका. आरे, ह्या संवसारांत रुपापरस सोबीत चलयो आसतल्यो. त्या एकाच रुपाक कितें म्हौंव लागलां? पळय, तुवें जर रुपाकडेन लग्न केलें जाल्यार तुज्या वापायक समाजांत तोंड वयर करून भोंवंक मेळचें ना. तुवें फुलकान्नीकडेन लग्न केलें जाल्यार तुजे भयणीक सोयरीक जावपाक खूब त्रास जातलो. ताकाय समाज हिणसायतलो; ताका वांकडे नदरेन पळयतलो. देखून परतून एक फावट विचार कर. रुपाचो नाद सोडपाचो यत्न कर.' एक मन गुणगुणटालें आनी म्हाका रुपापसून पयस वचपाचो आग्रो करतालें पूण म्हजें दुसरें मन रुपाक सोडूंक कशेंच तयार नासलें. घरांतल्या आवय वापायन लग्नाक विरोध केलो जाल्यार पळून वचपाचीय हांवें तयारी दवरिल्ली. इतलो म्हाका त्या रुपान पिसो केल्लो.

खरें म्हळयार रुपाकडेन लग्न जावन आवय वापायक दुखोवंक म्हाका खूब वायट दिसतालें. पूण रुपाक सोडूंक म्हजें मन तयार नासलें.

'पूण खऱ्यांनीच तें म्हजेर मोग करता काय?' हो प्रस्न म्हाका दीस रात

सतायतालो. ताका हे विशीं विचारून ह्या प्रस्नाचो सोक्षमोक्ष लावचो अशें सदांच म्हाका दिसतालें. पूण ताचेकडेन उलोवंक तशी संदच मेळनासली.

पूण एक दीस ताचेकडेन उलोवपाची संद म्हाका मेळ्ळी. त्या दिसा गोंय बंद आशिल्ल्यान येरादारी बंद आसली आनी रस्त्यारय चड लोक नासले. हांव घरांतलें सामान हाडपाक पांडवां कॅपेलाम्हऱ्यांत आशिल्ल्या दुकानांत आयिल्लों. (देवाचो सोपूत घेवन सांगतां रुपाक मेळपाचो म्हजो मातूय हेत नासलो.) इतल्यांत म्हजी नदर बस स्टॉपार गेली आनी त्याच वेळार रुपान म्हाका पळोवंक एकूच गांठ पडली. म्हाका पळयलेबरोबर ते धांवत म्हज्या म्हऱ्यांत आयलें आनी ताणें म्हज्या हातांत शेंवत्यांचीं फांती चोंदली. ताच्या त्या स्पर्शान म्हजें सगलें आंग शिरशिरलें. ताणें सोडिल्लो उस्वास म्हज्या तोंडांत गेलो आनी म्हजीं कानसुलां तापलीं. ताच्या आनी म्हज्या तोंडामदीं फकत पांच वोटांचो फरक आसलो. हो अणभव म्हाका नवो आशिल्ल्यान म्हजें सगलें आंग थरथरतालें. पूण ताचेकडेन उलोवपाक हीच संद आसा अशें म्हणून हांवें धीर करून ताका विचारलें, 'आगो, पूण तूं सद्दां म्हजेखातीर फांती कित्याक हाडटा ?' म्हजो हो प्रस्न आयकून तें सोवीत हांसलें आनी ताणें म्हळें, 'कितें रे, म्हाका तीन पानां करता? इतल्यो हांगा फुलकान्नी आसतना तूं सद्दां म्हज्याच म्हऱ्यांत येवन म्हजे कडली फांती कित्याक घेता हें कितें म्हाका समजना?' 'म्हणचे?' हांवें अजापून विचारलें. चारूयवटेन आपली नदर भोंवडायली आनी लागसार कोणूच ना हें पळोवन ताणें ल्हवूच म्हाका म्हळें, हांव तुजेर मोग करतां.' 'कितें ?' म्हज्या तोंडांतल्यान अजापाचे उद्‌गार भायर पडले. ताच्या तोंडांतल्यान आयिल्लीं हीं उतरां म्हाका अनपेक्षित आशिल्ल्यान हांव मात्सो गडबडलों. म्हजें काळीज कलकलूंक लागलें. म्हाका दिसता की हांव तुज्या मोगांत पडलां हें तुका आदींच खबर आसतलें. आरे पिशा, हांव जर तुज्या मोगांत पडूंक नासलें जाल्यार तुका फांती दितना तुज्या हाताक स्पर्श करपाक धडपडटलें आसलें? पूण रावरे, तुजें नांव कितें?' अशें म्हणून तें पर्थून सोवीत हांसलें. हांवें ताका म्हजें नांव सांगून उडयलें. 'म्हजें नांव रुपा नायक. हांव मॅट्रीक मेरेन शिकलां. फुडें म्हाका खूब शिकन दिसतालें. पूण अर्थीक येणावळ जंय पोटाक पावना थंय शिक्षणाखातीर खर्च कसो सुट्टलो? वापूय फाटल्या वर्सा हो संवसार सोडून गेलो. देखून म्हाका हो धंदो पत्करचो पडलो. खरें म्हळ्यार आमचें घराणेंच फुलां गुंथून विकपाचें. आदीं म्हजी आवय ह्या स्टॉपार रावन फुलां विकताली. पूण हालीं तिका जाण्टेपणाक लागून हांगा उबें रावंक जमना. देखून तिगेलें काम म्हाका करचें पडटा फकत पोटाक लागून. म्हाका दिसता हांव परक्या चल्याकडेन खूब उलयलें! तसो म्हजो सभावय वडबडो असोच. कोणूय आपलेसो दिसल्यार हांव ताचेकडेन खूब उलयतां'. कसलो विचित्र सभाव ह्या रुपाचो! उलयतना आपणें श्वास घेतलो ना. पूण म्हाकाय श्वास घेवंक ताणे दिवंक ना. म्हाका म्हळें, 'आरे, तूं म्हजेर जो मोग करता तो फटकिरो वी न्हय मरे? कित्याक, तुमी चले अशेच.

चलयांकडल्यान चान्स मेळसर तुमी तांचो चान्स घेतात. पूण उपरांत लग्नाचें नांव काडटगीर मात तुमी कानार केंस काडटात. तसलोच तूं वी न्हय मरे ?' ताणें म्हळें आनी ताचीं तीं उतरां म्हज्या काळजांत वचून रोमलीं. 'हें पळय रुपा, हांव तुका सोडून हेर कोणाकडेनच लग्न जावचों ना. घरच्यांचो कितलोय विरोध आसल्यार लेगीत हांव तुजेकडेन लग्न जातलोंच.' हांवें ताच्या दोळयांत पळयत म्हळें. 'हय ? खरेंच ?' अशें म्हणून रुपान म्हजे दोनूय हात आपल्या हातांत घेवन दामले आनी ताच्या त्या गोऱ्या हाताच्या त्या मोव स्पर्शान म्हज्या काळजाचें उदक जालें. त्या वेळार अशें दिसतालें की ताचे ते गोरे गुवगुवीत हात अशेच म्हज्या हातांत रावचे. पूण प्रतिश्ठा आड आयली. हांवें कोणूय म्हाका पळयत म्हणून वेगीन वेगीन ताचे हात म्हज्या हातांतल्यान सोडयले.

इतल्यांत फांती घेवपाक एक वायल थंय आयली आनी हांव थंयसावन ल्हवूच सटकलों, घरा आयलों आनी कशेंतरी जेवण पोटांत घालून सुस्त न्हिदलों. खरें सांगता, त्या दिसा जिवितांतली पयली वयली सुखी न्हीद हांव न्हिदलों.

अशेच दीस वताले. आमच्या मोगाचे पांवडे वाडटाले. प्रतिश्ठेक भिवन भिवन हांव रुपाक घेवन भोंवतालों, हॉटेलांत व्हरून खावयतालों, पूण ताणें पिक्चराक या म्हणून सांगल्यार मात कसलेंय निमित्त काडून पिक्चराक वचूंक टाळटालों. एक दीस आमी दोगांयनी पिंटो फोटो स्टुडिओंत वचून फोटे काडले आनी ते वी सिंगल सिंगल (म्हळ्यारच एकेकल्याचे). फोटयाची एक प्रत म्हजी हांवें ताका दिली आनी तागेली एक प्रत हांवें घेतली. दिसानदीस आमच्या मोगाक भार येतालो. पूण अजूनमेरेन घरच्यांच्या कानार ही खवर वचूंक नासली.

आनी एक दीस म्हज्या वापायर्ची वदली पणजेंत जाल्ल्याची तार आयली आनी हांव दुखेस्त जालों. फुडल्या म्हयन्यासावन वॅंकेन म्हज्या वापायक पणजे ट्रान्सफर केल्लो अर्थांत वडटी दिवनच. वापायक प्रमोशन मेळ्ळें म्हणून घरांत खोशयेचें वातावरण पातळिल्लें पूण म्हजें मन मात दुखेस्त जाल्लें.

म्हयनो सोंपपाक दोन दीस उरिल्ले. ह्या दोन दिसांत रुपाकडेन खूब खूब उलोवप, ताका खूब खूब भोंवडावप आनी ताका पोटभर खावोवप अशें येवजून हांव सदांभाशेन त्या स्टॉपार देंवलों. इतल्यांत अचकीत पावस पडलो. अचकीत पावस आयिल्ल्यान हांव थंयच उवो राविल्ल्या एका मनशाचे सत्रेंत रिगलों. पलतडीन रुपा फुलांचो पाटलो घेवन आसलें. म्हाका पळयले वरोवर ताणें ओंठ रुंदायले आनी मुमुरक्यांनी हांसत एका हातांत जायांचो पोड घेवन तें आलतडीं आयलें. ताणें तो व्हडलो पोड म्हज्या हातांत दिलो आनी म्हळें, 'हो पोड तुजे आईक व्हरून दी. खासा तुजे आईखातीर हांवें गुंथला तो.' पयशे दिवंक हांव वोल्सांत हात घालतां तें पळोवन ताणें म्हळें, "नाका नाका, पयशे नाकात, हो म्हजो पोड तुका.' ताच्या फुलांचो पाटलो पलतडीन आशिल्ल्या एका सोफार आसलो.

पावस थांवलो. पूण अचकीत वादळी वारें आयलें. ह्या वादळी वाऱ्यान आपलो फुलांचो पाटलो उमथून पडटलो आनी पाटल्यांत आशिल्लीं फुलां आनी फांतयो मातयेभरवण जातल्यो हे भिरांतेन तें धांवत पलतडीन गेलें आनी हे गडबडींत फुडल्यान नेटान येवपी ट्रक पळोवंक तें विसरलें आनी कितें जाता हें कळचे पयलींच रस्त्याकुशीक शेंवटून पडलें. तें भिरांकूळ दृश्य पळोवन म्हज्या तोंडांतल्यान अस्पश्टशी किळांच भायर पडली. म्हज्या दोळ्यांमुखार घडपी म्हज्या जिवितांतलो तो पयलोच अपघात आशिल्ल्यान अपघातांत सांपडिल्ल्यांक हॉस्पिटलांत कशें व्हरप हाचो म्हाका कांयच अणभव नासलो.

ह्या अपघातांत रुपाचो उजवो हात आनी दावो पांय सामको चिड्डून गेल्लो आनी ताच्या नाकांतल्यान रगत व्हांवतालें. पूण अजाप म्हळ्यार ताका जीव आसलो. आतां वेळ वगडायल्यार रुपाची प्राणज्योत पालवतली हें येवजून थंयच पार्क केल्ली रिक्शा केली आनी रिक्शा ड्रायवराच्या आदारान त्या गंभीर दुखापत जाल्ल्या रुपाक रिक्षांत घालें आनी मडगांवच्या हॉस्पीसियू हॉस्पिटलांत व्हेलें.

सिरियस केस आशिल्ल्यान डॉक्टर ताका ॲडमीट करूंक तयार नासले. पूण उंचेल्या डॉक्टराकडेन म्हजी बरी इश्टागत आशिल्ल्यान तांणी ताका ॲडमिट केलें खरें, पूण कॉटीर घालतगीर डॉक्टरांनी उपचार करचे पयलींच ताका मरण आयलें आनी 'शी इज डेड' हीं डॉक्टराल्या तोंडांतल्यान आयिल्लीं उतरां आयकून इतलो वेळ हांवें म्हज्या दोळ्यांत दामून दवरिल्ली दुकांची वांय व्हांवक लागली. रुपाच्या मड्याक वेंग मारून हांव रडूंक लागलों. सुमार एक वर हांव रडटालों. कांय वेळान त्या उंचेल्या डॉक्टरान म्हाका उठयलो. रडून रडून म्हजे दोळे तांवडे जाल्ले. रुपा अचकीत ह्या संवसाराक अंतरिल्ल्यान म्हजी शक्तच गेल्ली. चलपाचेंय त्राण म्हज्या पायांत नासलें. डॉक्टराल्या आदारानच हांव भायर आयलों आनी त्या डॉक्टरानच म्हाका म्हज्या घरा पावयलो. म्हजें तें विचित्र रूप पळोवन घरचीं भियेलीं. पूण त्या डॉक्टरान तांकां सगली खबर सांगली. मत्त फुलकान्न मेल्यार इतलें कित्याक रडूंक जाय ? हो प्रस्न तांकां पडिल्लो.

'दोन दिसांनी आमी पणजे आयलीं. परत परत म्हज्या दोळ्यांमुखार रुपालीं तरेकवार रुपां नाचतालीं आनी म्हजें मन वेचैन करतालीं. हो विरह सोसूं नज जावन एक दीस हांव जीव दिवपाक जुवारी पुलार गेलों आनी पोंदच्यान खळखळून व्हांवपी ती न्हंय पळोवंक लागलों. 'हे जुवारी न्हंये, आयज हांव तुज्या गोपांत येतां, म्हाका वेंगेंत घे.' अशें हांवें मनांतल्या मनांत न्हंयंक म्हळें. पूण इतल्यांत 'आरे पिशा, तूं हें कितें करता? एका किरकोळ कारणाखातीर तूं जीव दिता ? पळय, तूं एक समजूतदार मनीस, वरोवपाची कला आशिल्लो. तुका फुडार आसा. एक चली मेलें म्हणून कितें संवसार वुडना. आरे, तुका आनी चलयो मेळटल्यो. त्या मेल्ल्या रुपाक विसरपाचो यत्न कर. जशे जशे दीस वतले तसो तसो तुका रुपाचो विसर पडटलो. पळय. विचार कर.

मनाचेर नियंत्रण दवर. वोगीच काडली जीव लायली ताळयाक करून तुजो जीव वगडायनाका. तुवें जर जीव दिलो जाल्यार तुज्या घरच्यांचेर आकांत येतलो देखून घरच्यांखातीर तरी तुजो जीव दिवपाचो निर्णय फाटीं घे. मनशाल्या जिवितांत संकंश्टां खूब येतात, त्या संकश्टांचेर मात करून मनशान फुडें वचचेलें आसता. तो मनीस संकश्टांकडेन दोन हात करून आपल्या फुडल्या जिविताचो मार्ग चलता तोच मनीस फुडें येवंक पावता. देखून फाटल्यान सर. चल, चल, फाटल्यान सर.' दुसऱ्या मनान सांगलें आनी घरच्यांचे काकुळटेक लागून हांव घरा आयलों.

परत परत ताचें मुखामळ नदरे मुखार येतालें, पूण ताका विसरपाचो यत्न करून हांव कामां करतालों.

आयज हे गजालीक सुमार दोन वर्सां जाल्यांत. पूण जेन्ना जेन्ना हांव त्या रुपाचो फोटो पळयतां वा 'रुपा' हें नांव म्हज्या कानार पडटा, तेन्ना रुपाचीं तरेकवार मुखामळां म्हजे नदरेमुखार येतात, ताचीं उतरां कानात घुमतात, काळजांत खोल वचून रिगतात, ताच्यो यादी उचंवळून येतात आनी आपसूकच तोंडांतल्यान उतरां फुट्टात, 'रुपा, आय ॲम् सॉरी. तुका सोडून हेर कोणाकडेन हांव लग्न जावचों ना हें तुका दिल्लें उतर हांव पाळूंक शकलों ना गो. हांवें तुका फटयलें रुपा, हांवें तुका फटयलें, म्हाका भोगोस. भोगशीतलें न्हय ?..' अशें मनांतल्या मनांत म्हणून हांव रडूंक लागतां आनी त्यावेळार रुपाचीं तरेकवार रुपां म्हजे भोंवतणी नाचतात असो म्हाका भास जाता...

# निर्णय

"ना! ना! ना! हांव लग्न जावचें ना. हांव जीणभर आंकवारूच रावतलें."

"आगे, हांव लग्न जालें जाल्यार तुमचें कशें जातलें? तुमकां येणावळ खंयच्यान येतली? कोण तुमकां पळयतलो? तुमचो संवसार कसो चलतलो? वयल्यान प्रलयालेंय शिक्षण आजून पुराय जावंक ना."

"आगो, वाडिल्लें चली लग्न जायनासतना उरल्यार लोक नांवां दवरतात. नाका नाका तें उलयतात. आनी तूं जाणा प्रतिक्षा, तुजे मोयरिकेखातीर तुजो बापूय कितल्यो काडाओडी काडटा तो! हांवें तर सगल्या देवांक आंगवणी सांगून घेतल्यात की तुका एक वरो न्हवरो मेळून तुजें वेगीन लग्न जावं म्हणून. म्हणून म्हणटां हांव..."

"ना आई. हांव म्हजो निर्णय वदलचें ना. हांव...."

तितल्यांत दाराच्या हुमऱ्यार कोणालीं तरी पावलां वाजलीं आनी बापूय आयिल्लो पळोवन तांचें उलोवणें अर्दारूच उरलें.

प्रतिक्षा वोरकार हें २९ वर्सांचें चली एका सरकारी खात्यांत क्लार्क म्हणून काम करतालें. ताच्या म्होंवाळ उलोवण्याक लागून आनी हांसत्या मुखामळान सगल्यांकूच तें आवडटालें. हेच कचेरेंत प्रथमेश नांवाचो एक तरणाटो टायपिस्टाच्या हुद्यार आसलो. ताचो गोरो रंग, घारशे दोळे आनी विनोदी सभाव हाका लागून प्रतिक्षा अचळय ताच्या मोगांत पडिल्लें. प्रथमेशाकय प्रतिक्षा आवडटालें. ल्हवू ल्हवू तांचें इश्टागतीचें रूपांतर मोगांत जाल्लें. ताका सिगाराचें आनी सोऱ्याचें व्यसन आसा हें खबर आसुनूय प्रतिक्षा ताचेर मोग करतालें. सांजवेळा ऑफीस सुटटकूच गार्डनाच्या एका वाकार कांय वेळ वसून मोगाच्यो कांय गजाली करप आनी तिनसांज जाली की घरा परतप हें तांचें सदचेंच जाल्लें.

ल्हवूल्हवू दीस वताले. तांच्या मोगाचे पांवडे वाडटाले. हॉटेलांनी, थेटरांनी,

दर्यावेळांनी तांचो मोग चंवरतालो. एकामेकांक सोडून खंयच वचचीं नात असोय तांणी एकामेकांक सोपूत दिल्लो. एक दीस प्रथमेशाची अचकीत सांग्यार वदली जाल्ल्याची खबर आयकून प्रतिक्षाक खूब दूख्ख जाल्लें आनी तें प्रथमेशाचे वेगेंत खूब रडिल्लें.

"आगो प्रतिक्षा. अशें रडूं नाका. हांव जरी तुजेपसून कितलोय पयस गेलों तरी म्हज्या काळजांत तूंच आसा. तुजेवगर दुसरे खंयचेय चलयेचो विचार हांव मनांत हाडचों ना हाचें तुका हांव उतर दितां." अशें म्हणून प्रथमेशान आपल्या लेंसान प्रतिक्षाल्या दोळयांतलीं दुकां पुशिल्लीं. दुसऱ्याच दिसा प्रथमेश सांगेचे कचेरेंत रुजू जाल्लो. अचकीत जाल्ले हे घडणुकेन प्रथमेश आनी प्रतिक्षाच्या मोगाक खांवटें जरी पडिल्लें आसलें तरी तांचो मोगाचो वेव्हार चिटयांतल्यान चालू आसलो. अशेंच एक वर्स गेलें.

हे वटेन प्रतिक्षाचे सोयरिकेचे यत्न चालूच आसले. आपलो प्रथमेशाचेर मोग आसा हें ताणें आपल्या आवय-वापायक सांगूंक नाशिल्यान आयिल्यो सोयरिको तें वेगवेगळीं कारणां दिवन सोडटालें. अशेच दीस वताले. आनी एक दीस प्रथमेशाली एक विचित्र चीट ताणें प्रतिक्षाक आपल्याक विसरून दुसऱ्या बऱ्या चल्यावांगडा लग्न जावपाची विनंती केल्ली. ही चीट वाचून प्रतिक्षा अजापलें आनी ताका प्रथमेशाची तिडकय आयली. प्रथमेशालें दुसरे चलयेवांगडा लग्न थारलां काय? तुका सोडून आपूण कोणाकडेनूच लग्न जावचों ना अशें म्हणून दिल्लें उतर ताणें कित्याक सोडलें? आयज सगले लोक म्हाका प्रथमेशालें मोगी म्हणून पाचारतात. फाल्यां हांव दुसऱ्या कोणायवांगडा भोंवल्यार लोक म्हाका 'चालू चली' म्हणचे नात कित्यावयल्यान ? हय! तेपरस लग्न जायनासतना रावप बरें. प्रथमेशाली दुसरी चीट ये म्हणसर ताका जाप दिवप ना आनी जीणभर आंकवारूच रावप असो निश्चेव करून प्रतिक्षा जीण सारूंक लागलें.

आयजूय ताचे सोयरिकेचो विशय येतकच ताणें आवयक आपणें आंकवार रावपाचो निर्णय घेतला म्हणपाचें सांगिल्लें. प्रतिक्षान लग्नाक हयकार दिवचो अशें आवयक परत-परत दिसतालें. पूण प्रतिक्षाचो निर्णय ठाम आसलो. अशेच दीस गेलें, म्हयने गेले. हेवटेन प्रलयालें शिक्षण पुराय जावन ताका एके खासगी कंपनींत नोकरी मेळिल्ली आनी ताका एक चलीय सांगून आयिल्ली. चलयेक पळोवप, दिवप घेवपाविशींचीं उलोवणीं प्रसाद - पाकळी सगलें जाल्लें. पूण फकत प्रतिक्षाक लागून ताचें लग्न अडून उरतालें.

"दिदी, तुज्या लग्नाक हयकार दी गो. अशें आंकवार तूं कितलीं वर्सां रावतलें? तुज्यो ईश्टिणी पळय, काय बऱ्यो जोडयांनी भोंवतात त्यो. पळय दिदी, तुजो निर्णय वदल आनी लग्न जावपाची तयारी कर."

प्रलय ताका समजायतालो पूण आपली लग्नाची इत्साच मरून गेल्या आनी म्हणून आपणें लग्न ना जावपाचें थारायलां अशें म्हणून तें आपल्या लग्नाचो विशय दामतालें.

अशेच दीस गेले आनी एक दीस ताच्या बापायन एक सोयरीक हाडली. त्या चल्यान आपणाक हुंडो सोडाच कांयच नाका अशें सांगिल्ल्यान प्रतिक्षाच्या आवय-बापायक उपाट व्रोस भोगिल्ली. पूण जेन्ना आपल्या भावी घरकाराक प्रतिक्षान पळयलो तेन्ना आपलेच कचेरेंतल्या विरेंद्राकडेन आपलें लग्न थारलां हें पळोवन ताका अजाप जालें. सदांच आपल्याक प्रथमेशाच्या नांवांवयल्यान चाळोवपी विरेंद्र आयज आपणाकडेन लग्न जावंक तयार जाला हें ताका विपरीतूच दिसलें. तसो विरेंद्र गुणी, निर्व्यसनी, बऱ्या घराण्यांतलो आनी शिकिल्लो सवरिल्लो आसलो. घरदारूय बरें आसलें. आवय-बापूय आसले. ताका हय म्हणप काय ना म्हणप? ही सोयरीक करप काय ना असो प्रस्न प्रतिक्षाच्या मनांत घोळटालो. आपले सोयरिकेखातीर बापूय काडटा त्यो काडाओडी, प्रलयालें लग्न, आवयलीं सदचीं उलोवणीं आनी आपली सोयरीक जायना हें पळोवन आवय-बापायचीं जाल्लीं तीं दुखेस्त मुखामळां पळोवन प्रतिक्षान पदरांत पडटा तें सूख मानपाचें थारावन लग्नाक हयकार दिलो.

थोड्याच दिसांनी प्रतिक्षाचें विरेंद्राकडेन लग्न जालें आनी प्रथमेशाल्यो यादी आपल्या मनांतल्यान काडून उडोवन विरेंद्राच्या संवसारांत प्रतिक्षान आपल्याक गुरफटून घेतलें. आपलेकडेन आशिल्ल्यो प्रथमेशाल्यो चिटयो, प्रथमेशान वाडदिसानिमतान प्रतिक्षाक दिल्ल्यो भेटवस्तू आनी तांणी एकामेकांसांगाता काडिल्ले फोटे प्रतिक्षान ना नपश्चात करून उडयले. प्रथमेशाची कसलीच याद आपल्या घरांत उरची ना हाची ताणें जतनाय घेतिल्ली. प्रथमेशाक पुराय विसरून वचपाचें तें यत्न करतालें. ताचें नांवूय कोणें काडल्यार तें तिडकतालें.

अशेच कांय दीस गेले आनी एक दीस कसल्या तरी विशयाक लागून विरेंद्रान प्रथमेशालें नांव काडलें आनी प्रथमेशालें नांव कानार ५डनापुडें प्रतिक्षा अक्षरशा चवताळ्ळें.

"नांव काडूं नाका ताचें. सामको विश्वासघातकी तो. म्हाका ताचो भयंकर राग आयला. तो इतलो नीच आसत अशें हांवें चिंतूंक नासलें. ताणें एके निश्पाप चलयेचो बळी घेवपाचो यत्न केला. म्हजो स्राप ताका सदांच लागतलो. ताच्या संवसारांत तो सदांच रडटलो. सामको नालायक, शेळपट, नीच मनीस तो. आतां जर तो म्हाका खंयूय दिसलो तर ताचें तोंड हांव सँडलांनी फोडटलें आनी ह्या नाखटांनी ताचे दोळेच फोडून काडटलें." दांत-ओंठ खायत प्रतिक्षान म्हळें.

"प्रतिक्षा, प्रथमेश जरी तुजो मोगी आसलो तरी तो म्हजोय इश्ट आसा. तूं जाणां, तुवें ताका चीट बरोवपाचें बंद करीत सावन तो नेमान पंदरा दिसांनी म्हाका चीट बरोवन तुजी खबर घेता. पयरूच ताची आनीक चीट आयल्या. प्रतिक्षा, मोगाचे पांवडे वाडत वचून आमच्या मोगाची खबर तुज्या घरच्यांक कळत आनी तुज्या आवय-बापायक मनस्ताप भोगचो पडत म्हणून ताणें आपूण जावन सांग्यार बदली मागून घेतिल्ली."

विरेंद्रान म्हळें.

"आं ? म्हणचे म्हजो फक्त चान्स घेवन सोडपाचो ताचो विचार आशिल्लो दिसता! ताचो म्हजेर नीज मोग आशिल्लो तर तो म्हज्या आवय-वापायक कित्याक भिलो? शेण खा आनी हातांत कांकणां घालून भोंव म्हणून सांग ताका. शेळपट खंयचेकडलो." प्रतिक्षाचो राग खदखदतालो आनी ताच्या तोंडांतल्यान वायट उतरां भायर सरतालीं.

"प्रतिक्षा, तुवें प्रथमेशाविशीं वोगीच गैरसमज करून घेतला. तूं म्हणटा तितलो तो बावळट, नीच आनी नालायकूय न्हय. प्रतिक्षा, खरें सांगूं तुका, हालींच प्रथमेशाक अपघात जालो. कसल्यातरी कामाखातीर वेळगांवां टॅक्सीन वतना ते टॅक्सीक भिरांकूळ अपघात जालो. धुक्याक लागून त्या ड्रायवराक फुडलो रस्तो दिसलो ना आनी ती टॅक्सी ४० फूट देंगणांत पडली. ह्या अपघातांत ड्रायवर आक्ताक सोंपलो. पूण प्रथमेश नशिवानूच वाटावलो. ह्या अपघातांत ते टॅक्सीचे हारशे फुटले आनी ताच्यो कंवच्यो ताच्या दोळ्यांत वचून तो सासणाचो कुड्डो जालो. सध्या तो कुड्डी जीण जगता."

"किते ?"

"हय प्रतिक्षा, आपणासारक्या कुड्ड्या चल्याकडेन लग्न जावन तुजीय जीण कुड्डी जावची न्हय म्हणून ताणें तुका दुसऱ्या चल्यावांगडा लग्न जावपाची विनंती केल्ली, पूण तुवें भलतोच गैरसमज करून घेतलो आनी ताका परत जाप धाडलीच ना. आनी तूं जाणां प्रतिक्षा, ताणेंच म्हाका तुजेकडेन हुंडो घेनासतना लग्न जावपाक सांगिल्लें. दिवपा-घेवपाविशीं जातल्या उलोवण्यांत कांयच मागुंनाका अशें ताणेंच म्हाका सांगिल्लें आनी कसलीय अर्थीक मदत जाय आसल्यार आपणाक सांग, आपूण ती जरूर दितलों म्हणपाचेंय ताणें उतर दिल्लें. देखून हांवें तुज्या आवय-वापायकडेन मनांत आसुनूय कांय मागलें ना. तुवें आपणाक पुराय विसरून वचचें आनी मनांतलें दूख्ख पयसावचें, मन दुसऱ्या संवसारांत गुंतोवचें हेच खातीर ताणें म्हाका तुजेकडेन लग्न जावपाक सांगिल्लें. इतलेंच न्हय प्रतिक्षा, आपणाक अपघात जाल्ल्याची खबर ताणें तुजेपसून लिपोवन दवरपाक म्हाका सांगिल्लें. पूण आयज ही गजाल हांवें भायर फोडली. आपणांक अपघात जाला हें आयकून प्रतिक्षाच्या मनाचेर वायट परिणाम जायत आनी आपल्या जिवाचें तें बरें-वायट करत देखून ही गजाल तूं प्रतिक्षाक सांगनाका असोय ताणें म्हाका सोपूत घाल्लो. तोवूय सोपूत हांवें आयज मोडलो. प्रतिक्षा, ताणें म्हाका लग्नाखातीर खर्चाक तीस हजार रुपया धाडिल्ले. तेभायर ताणें लग्नावेळार म्हाका खूब आदार केला आनी आपूण कुड्डो जाल्ल्यान तुज्या लग्नाक पावना म्हणपाचेंय दूख्ख उक्तायलां. ताणें केल्ले उपकार स्मरून हांव तुजेकडेन लग्न जालां इतलेच खातीर. की फकत एक कर्तव्य पुराय करचें म्हणून. प्रतिक्षा, म्हजो तुजेर मातूय मोग नासलो. आतांय ना. पूण मतींत दवर,

कन प्रथमेशाक लागून हांव तुजेकडेन लग्न जालां. आतां मनांत विचार कर आनी
ाराय कोण नालायक आनी कोण विस्वासघातकी तो. येतां हांव. म्हजो ऑफिसाक
चपाचो वेळ जाला." अशें म्हणून विरेंद्र ऑफिसांत गेलो.

पूण प्रतिक्षाचें मन खंयच लागना जालें. विरेंद्राली उलोवणीं आयकून आपणें केल्ल्या
र्माचो ताका पश्चाताप जावंक लागलो. ताका कितें करचें तेंच कळना जालें. "हय!
ांवूच विस्वासघातकी! हांवेंच प्रथमेशाक दिल्लो सोपूत मोडला! हांवें घेतिल्लो निर्णय खूव
र्काचो आसलो. हांवूच नालायक. हांवूच नीच." अशें म्हणून प्रतिक्षा आपणांकूच
शण दिवंक लागलें. अचकीत हॉल्तेरार घामाघूम जावन वशिल्लें प्रतिक्षा कसल्या तरी
नश्चेवान उटलें आनी ताणें मेजार आशिल्ल्यो न्हिदेच्यो सुमार वारा गुळयो पटापट तोंडांत
उयल्यो. पेलोभर उदक पिलें आनी थंयच आशिल्ल्या सोफार पडून न्हिदेची वाट पळयत
मलें.... कांय खिणांतूच तें निद्रादेवीचे आधीन जालें.... सासणाची न्हीद घेवचेखातीर!

# प्रचिती

ट्रींग.... ट्रींग.... ट्रींग. दारावयली वेल वाजली आनी दनपारचें जेवण जेवन निकतोच आड पडिल्या वेळार दारावयली वेल वाजयिल्ल्यान कांय सदच्यो गाळी मारून निखिलान दार उगडलें. दारांत पोस्टमन आसलो. ताणें निखिलाच्या हातांत आंतर्देशीय पत्र दिलें आनी तो गेलो. पत्र धाडप्यान फाटले वटेन आपलें नांव बरोवंक नाशिल्लें देखून चीट कोणें धाडल्या हें समजूंक मार्ग नाशिल्ल्यान निखिलान उमळशिकेन चीट फोडली आनी चिटयेंतलो मजकूर वाचून ताका घुंवळ येवपाचीच उरिल्ली. ती चीट ताचे मोगी-प्रचितीची आसली. ते चिटयेंत बरयिल्लें, 'मोगाळ निखिल, खरें म्हळयार ही चीट बरोवन तुका दुखोवपाचें नासलें. पूण सामकें रावं नज जावन ही चीट बरयल्या. निखिल, उपकार करून म्हाका विसरूनच वच आनी बरें चली मेळोवन ताचेकडेन लग्न जा आनी तुजी जीण सुखी कर.- तुजें प्रचिती. प्रचितीची ती काळीज दुखोवपी चीट वाचून निखिलाक खूब वायट दिसलें आनी खुबशेच प्रस्न ताच्या मनांत घोळूंक लागले. 'म्हजें कितें चुकलें काय? काल दर्यावेळेर बसून गजाली मारतना हांवें ताका कसलींय वायट दिसपी उतरां म्हळीं काय? हांवें केल्ली आजनेरी ताका लागली काय? म्हाका सोडून ताच्या आवय-बापायन ताका दुसरी सोयरीक बी हाडली काय? म्हजेविशीं ताच्या मनांत कसलोय गैरसमज जालो काय? म्हजेविशीं ताका कोणेंय वायट खबर सांगली काय? अशे खुबशे विचार मनांत घोळटासतनाच निखिलाच्या दोळयांमुखार प्रचितीचीं सावार रुपां येवंक लागलीं आनी ताचें मन अस्वस्थ जालें. दर्यावेळेर बशिल्लेकडेन ताणें घेतिल्ले उमे, मारिल्ल्यो वेंगो, हांसतना मारिल्लीं थापटां, मोगाच्यो खबरी करतना ताचे ते चाळे सगळे सगळें निखिलाक येवजूंक लागलें. सांजवेळच्या वेळार गार्डनाच्या बांकार बसून आपल्या रगतान 'हांव तुका केन्नाच सोडचें ना' अशें बरयिल्लीं ताचीं उतरां परत परत, निखिलाच्या दोळयांमुखार घोळटालीं. इश्टांचे साक्षीन केल्लें तें लग्नाचें रजिस्ट्रेशन आनी उप्रांत त्या इश्टांक च्या दितना प्रचितीन भावनाविवश जावन खोशेन घेतिल्लो तो पयलो उमो निखिलाच्या मनाच्या अंतरंगाचेर येवंक लागलो आनी ताका ताचे करणेचो हांसो आयलो.

खरें म्हळयार निखिलापरस प्रचिती अडेच वर्सांनी व्हड आसलें. पूण ताचें गोरें रूप, भांगरा कोराचे केंस, घारशे दोळे आनी ताच्या हांसत्या मुखामळान ताका भुरळ घाल्ली. तीं दोगांय एकेच कचेरेंत कामाक आशिल्ल्यान तांचो एकामेकांकडेन लागींचो संपर्क येतालो आनी ल्हवू ल्हवू संपर्काचें रुपांतर इश्टागतींत जालें आनी इश्टागतीचें रुपांतर केन्ना मोगांत जालें हें तांकांच कळ्ळें ना. निखिल तर ताच्या मोगांत इतलो पडिल्लो की एका दिसा जर प्रचिती कचेरेंत दिसलें ना तर ताच्या घराकडेन वचून ताची खबर घेतले वगर ताका सूख लागनासलें. 'चली सदांच पिरायेन ल्हान आसूंक जाय. व्हड आसूंक जायना. व्हड आसल्यार फुडें संवसाराक वादा येवं येता.' अशें म्हणून निखिलाच्या घरच्यांनी ताका समजावन प्रचितीक विसरपाचो सल्लो दिल्लो. पूण निखिलाच्या काळजांत प्रचितीन घर केल्ल्यान आनी आपल्या काळजाच्या कुरकुटांत ताणें प्रचितीक सिलवंद केल्ल्यान घरच्यांचो सल्लो आयकुपाक ताचें मन मातूय तयार नासलें. दोगांयनी आपूण एकामेकांक सोडचीं नात म्हणपाचो सोपूत घेतिल्लो आनी आयज अचकीत प्रचितीची ही विपरीत चीट आयिल्ल्यान निखिलाक अजाप जालें; तिडकीन ताचें मन भरलें. ताका हाची जाप विचारपूच अशें मनांत येवजून निखील कपडे करून ताच्या घरांत गेलो.

घरांत ताची आवय एका हॉल्लेरार वसून कितें तरी विणटाली. 'प्रचिती ना घरांत?' निखिलान भीत-भीत प्रस्न केलो. 'आसा. आपले कुडींत बसलां.' वक्लाचे भिंगेंतल्यान जाप दीत परत ती आपल्या विणकामांत दंग जाली. निखिल प्रचितीचे कुडींत गेलो. एके कॉटीर प्रचिती आड पडिल्लें आनी रडून रडून ताचे दोळे तांबडे जाल्ले. ताच्या तोंडार निर्शेणी आयिल्ली. 'निखिल, चीट मेळ्ळी म्हजी?' प्रचितीन पस्न केलो. 'हय. म्हणून तर आयलां.' तें न्हिदिल्ले ते कॉटीर वसून निखिलान म्हळें. 'निखिल,घडये तुका वायट दिसतलें. पूण तुजी जीण सुखी जावची म्हणून तुका सांगन दिसता. निखिल, काल म्हज्या पोटांत चड्डूच दुखूंक लागलें म्हणून आई आनी हांव डॉक्टराकडेन गेल्लेकडेन म्हाका फिग्दाचो कॅंसर जाल्ल्याचें डॉक्टरान म्हजे आईक सांगतना हांवें आयकलें आनी म्हणून चीट बरोवन तुका हांवें म्हाका सोडपाची विनंती केल्ली. निखील, उपकार करून म्हाका विसर'. प्रचितीन निखिलाचो हात हातांत धरून म्हळें आनी इतलो वेळ निखिलाच्या दोळ्यांत सांठून उरिल्ली दुकांची झर फुटून पोल्यावयल्यान दुकाचो एकेक थेंबो गळूंक लागलो. 'प्रचिती, हें कशें घडलें? पूण प्रचिती, तूं कांयच भिनाका. तुका सोडून हांव कसोच लग्न जावचों ना. तूंच म्हाका जाय. प्रचिती, तूंच जाय. आमचो संवसार मागीर अल्पकाळाचो लेगीत जावं, हांव तुजे बगर हेर खंयचेच चलयेकडेन लग्न जावचों ना. प्रचिती, खरें सांगूं, तुजे बगर हांव एक खीण लेगीत रावंक शकना आनी तूं म्हाका आपल्याक विसर म्हणटा? ना, प्रचिती, ना. हें केन्नाच जावचें ना. हांव आतां वचून भटाक विचारून म्हूर्त थारायतां आनी आमी रोखडींच लग्न जावन मेकळीं जावंया.' अशें

म्हणून प्रचितीचो निरोप घेवन आनी प्रचितीचे आईन हाडिल्ली च्यावूय घेना आसतना निखील तांच्या घराभायर आयलो आनी तडक भटागेर वचून ताणें म्हूर्त थारायलो.

'कसलें वायट नशीव म्हजें! कितलीं वरीं वरीं सपनां रंगयिल्लीं हांवें आनी अचकीत देवान म्हजेर हो आघात घालून कितें मेळयलें काय? हांवें देवाचें कितें वायट केल्लें काय ? करूं. देव म्हजी परिक्षाच पळयता जावंये. पूण हांव फाटीं सरचों ना. एकदां उज्यांत उडी घेवपाचें चितल्यार पांयांक लागपी इंगळ्यांचे चटके सोंसपाकच जाय. आतां फाल्यां वचून भटान लग्नाखातीर दिल्ल्या म्हुर्ताची खवर प्रचितीक सांगप आनी ताच्या मुखामळार परतून हांसो खेळोवप अशें मनांत येवजून निखील निद्रादेवीचे आधीन जालो.

सकाळीं कोंब्याच्या सादान ताका जाग आयली. तो उठलो आनी ताणें सदांभाशेन दारांत पडिल्लें खवरांपत्र उखल्लें आनी सदचे संवयेप्रमाण खवरांपत्राचेर सहज नदर मारिल्लेकडेन एके खवरेन ताची नदर ओडली. 'वीख घेवन एके चलयेची आत्महत्या' ह्या माथाळ्याखाला एक खवर आयिल्ली. ती अशी आसली - कोंव मडगांव हांगा रावतले प्रचिती महात्मे हे २९ वर्सां पिरायेचे चलयेन आयज रातीं सुमार दोन वरांचेर टीक २० हें जल्ल्यांक मारपाचें वखद पिवन आत्महत्या केल्याचें उक्ताडार आयला. तिचें आत्महत्येचें कारण जरी कळूंक शकलें ना तरी प्रेम प्रकरणाक लागून ही घडणूक घडल्या असो अदमास पोलिसांनी उक्तायला. निखिलाचो हे खवरेचेर विस्वास वसलो ना. देखून ताणें दोन-तीन फावटी ती खवर वाचून काडली. ते खवरेन ताचे हात-पाय थरथरूंक लागले, ओंठ सुकले, तोंडांतल्यान शव्दच फुटना जाले आनी प्रचिती म्हणून एक व्हड किळांच मारून निखिलान सोफ्यार घालून घेतलें. देवान निखिलाचेर आनीक एक आघात केल्लो. प्रचितीच्या यार्दीनी निखील व्हडा व्हडान रडटालो आनी तेवटेन सर्गांतल्या आत्म्यावांगडा आनीक एक जीव भरसून वचपाचो यत्न करतालो... अर्दकुटी जीण सोंपोवन आयिल्लो तो प्रचितीचो आत्मो आसलो... अतृप्त... अपुरे इत्सेन भरिल्लो....!

# अर्दकुटें सपन

'मांय, हांव नर्सिंग कोर्स घेतां. प्रॉस्पेक्टस भायर सरल्यात.' 'आं? म्हळ्यार तुजे तकलेंतलें नर्सिंग अजुनूय वचूंक ना दिसता.' 'मांय, मॅट्रीक पास जायतसान हांव नर्स जातां म्हूण तुका धोंसतालें आनी त्यावेळार पायन म्हाका सांगिल्लें, वारावीमेरेन शिकप कर. उप्रांत नर्सिंग शीक म्हणून. हांव वारावी पास जालें आनी पाय आमकां सोडून गेलो. म्हजी नर्सिंग शिकपाची उमेद अर्दारूच उरली.'

'आगो, पूण तुका नर्स जावपाचें पिशें लायलें कोणें ?'

कोणेंच लावूंक ना. तें म्हाका आपसुकूच लागलें मांय.'

'मारिया, म्हाका तर अशें दिसता की तुवें नर्स जावचें न्हय. आगो, भायर चोय काय वरीं चेडवां गळयांत पर्स घालून शिर्विसेक वेताय. तांकां चोयतकच तुवेंय अशेंच भोंवचें अशें म्हाका दिसता. मारिया, आयक. नर्स जावन कांयच फायदो ना. फोकोत हॉस्पिटलांतूच सगलें जिवीत सारचें पडटा. चोय, विचार कर.'

'ना मांय, हांवें पुराय विचार केला. हांव नर्स जातलेंच.'

'मारिया, आतां कान उक्ते दवरून आयक, तुका हांव निमणें सांगतां. तूं जोर म्हजें आयकीनासतना नर्स जायत तोर हांव तुजें तोंड पळोवचीं ना. इतलेंच न्हय जाल्यार हें घर तुका सासणाचें वंद आसतलें.'

'मांय, तुका उगडास आसा? जेन्ना हांव वारावी परिक्षेंत अख्ख्या गोंयांत पयलें आयिल्लें तेन्ना तुवें म्हजी कांयच तोखणाय केली ना. पेपराचेर आयिल्लो म्हजो फोटो जेन्ना हांव तुका दाखोवंक गेलें, तेन्ना तुवें आपले दोळे धांपले आनी म्हजो फोटो पळयनासतना तुवें पेपर शोंवटून भायर मारलो आनी आयज तूं म्हाका नर्स जाल्यार पळोवचीं ना म्हणटाय? चोयनाकाय मांय. म्हाका कांयच पर्वा ना. मांय, तुवें म्हाका पयशे आनी जेवण-खाण दिलां जायीत, पूण मोगाचो इल्लोय मोयपास तूं म्हाका दिवंक शकली ना.'

'मारिया, पुरो तुजो सेर्मांव. चड जालें तुजें. चल, चल म्हज्या दोळयामुखावेलें.'

'बरें आसा मांय, हांव वेतां. पूण हांव म्हजो निर्णय वदलतलें हें तूं सपनांत लेगीत चिंतनाकाय' अशें म्हणून मारिया ऑफिसांत वचूंक भायर सरलें.

मारिया फेर्नांडीस हें वारावी शिकिल्लें वावीस वर्सांचें मडगांवच्या नावेली शारांत रावपी चली. तें आठ वर्सांचें आसतनाच ताची आवय ताका सोडून गेली. ताच्या वापायन दुसरें लग्न केलें. पूण दुर्देवान ते वायलेक एकूय भुरगें जालें ना. मारियाचो वापूय मारियाची खूव अपुरवाय करतालो. ल्हानपणांतसावन मारियाक नर्स जावपाची खूव आवड आसली. जेन्ना ताणें पायक हेविशीं विचारलें तेन्ना पायन ताका सांगिल्लें. पयलीं वारावी कर, उप्रांत नर्सिंग कोर्स घे.

पायच्या उतराक मान दिवन मारियान वारावी केली आनी तें सवंध गोंयांत पयलें आयलें. त्याच दिसा मारियाचो पाय हो संवसार सोडून गेलो आनी मारियाची नर्स जावपाची इत्सा अर्दकुटीच उरली. घरांत वापायफाटल्यान जोडून हाडपी कोणूच नाशिल्ल्यान मारियाक फुडलें शिकप सोडचें पडलें आनी पयशांखातीर शिर्वीस करची पडली. ताका एके खाजगी कंपनींत ॲकावटंट म्हणून नोकरी मेळ्ळी आनी ताणें आपल्या म्होंवाळ उतरांनी आनी गोड सभावान खूव मनशां जोडलीं. ताच्या सोवीत रुपाक सगलेच भुलताले. कंपनीचो वॉसूय मारियाक खूव बरें करतालो. वॉसान आपले तिसरी यत्ता शिकतले चलयेक अर्थात लिनाक ट्यूशन दिवपाचें काम मारियाचेरूच सोंपयिल्लें आनी मारिया वॉसाल्या घरांत वचून लिनाक बरें करून शिकयतालें. वॉसाचीं घरचींय मनशां मारियाक खूव बरें करतालीं. वॉसाचो पंचवीस वर्सां पिरायेचो सुभाष नांवाचो चलोय मारियाचीं खूव फकाणां मारतालो. अशेच दीस वताले. ल्हवू ल्हवू एक वर्स जालें आनी एक दीस मारियाचे एके इश्टिणीन नर्सिंगाचे प्रॉस्पेक्टस भायर सरल्यात म्हणपाचें मारियाक सांगलें आनी हें आयकनाफुडें मारियाच्या मनांत नर्सिंगाचें वारें परत व्हांवंक लागलें. ताणें मांयक हेविशीं विचारलें पूण मांयन ताका नर्सिंग करपाक परवानगी तर दिली नाच; वेल्यान नर्स जाल्यार आपूण घरांत घेवचीं ना म्हणून धमकायलें. आपणाक कोणूयतरी नर्सिंग कोर्स शिकपाक आदार दितलो अशी आस्त ताच्या मनांत आसली देखून मांयक सडसडीत उतरां दिवन तें घरांतल्यान भायर सरलें.

तें ऑफिसांत गेलें आनी ऑफिस सुट्टकच सदांभाशेन लिनाक ट्यूशन दिवपाक वॉसाल्या घराकडेन गेलें. पूण घरांत सुभाष एकटोच आसलो. सुभाषाक पळोवन मारिया गडवडलें आनी ताचेकडेन कितें उलोवचें हें येवजूंक लागलें. ताची ती गडबड पळोवन सुभाषान म्हळें. 'आयज घरांत कोण ना. सगलीं पिक्चराक गेल्यांत. डॅडीन तुका हे विशीं कांयच सांगलें ना ?'

'ना. म्हाका तुज्या डॅडीन कांयच सांगूंक ना. वोरें, येतां हांव.' मारियान म्हळें.

'आगो, खंय वता ? मात्शें वस. मात्शें उलोवया. म्हाकाय कोणतरी उलोवंक जाय आसलो.' सुभाषान म्हळें आनी सुभाषालो आग्रो मोडपाक जावंक नाशिल्ल्यान मारिया वसलें. आपली 'डिफीकल्टी' सांगपाक होच वेळ बरो आसा अशें मनांत म्हणून मारियान सुभाषाक म्हळें, 'सुभाष, हांव नर्सिंग कोर्स घेवंक सोदतां. ल्हानपणांतसावन म्हाका नर्स जावपाची खूब उमेद. पूण म्हाका कोणेंच आदार दिलो ना. घरचीं सगलीं म्हाका नर्सिंग कोर्स घेवपाक विरोध करतात. कोणाकूच हांव नर्स जाल्लें नाका. म्हजी इत्सा कोणूच पुराय करूंक शकना. देवान म्हाका जल्माक कित्याक घालां म्हूण कोण जाणां!'

'मारिया, वेश्टेंच दुखेस्त जायनाका. तुका हांव नर्स जावपाक सगलो आदार दितलों. जेमेरेन हांव आसां ते मेरेन तुका भिवपाची कांयच गरज ना.'

'खरेंच? खरेंच तूं म्हजी इत्सा पुराय करतलो ?'

'हय.'

'सुभाष, म्हज्या जिवितांत येवन म्हाका नर्सिंग शिकपाक आदार दिवपी तूं पयलोच मनीस. सुभाष, तुका खरें सांगतां, जेन्ना सगल्या लोकांनी म्हाका नर्सिंग शिकपाक विरोध केलो, तेन्ना म्हाका म्हजी जीण नाका जाल्ली. पूण आयज तुवें म्हजी मरून गेल्ली आस्त जिती केली. खरेंच तुजे उपकार मानचे तितले थोडे.'

'मारिया, हांव तुका नर्सिंग शिकपाक सगलो पालव दितलों, पूण एक अट आसा.'

'कसली ?'

'तुवें म्हजेकडेन काजार करूंक जाय.'

'सुभाऽऽष.'

'कित्याक ? करचें ना म्हजेकडेन काजार ? काय तूं engage आसा ?'

'ना सुभाष, म्हाका तुजेबगर कोणूच ना आनी हांव तुका काजाराक ना कशें म्हणूं? तूं जावन आसा म्हजे जिणेचो आधार.'

'मारिया, खरें सांगूं, ज्या दिसा तूं लिनाक ट्यूशन दिवपाक ह्या घरांत आयलें त्याचवेळार म्हाका तूं आवडलें आनी हांव तुज्या मोगांत पडलों. दीस-रात तुजींच सपनां चितूंक लागलों.'

'हय ,खरेंच?'

'आनी मारिया, तुका एक सांगपाकच विसरलों पळय हांव.'

'कितें तें?'

'म्हजें एक सपन आसा.'

'कसलें?'

'काजार जातकच आमी दोगांयनी आग्र्याक वचून ताजमहाला म्हर्‍यांत वसप आनी हांवें तुज्या खांदार हात घालून फोटो काडप.'

'तुजें हें सपन रोखडेंच पुराय जातलें.'

मारियान म्हळें. सुभापान बोल्सांत हात घालून दोनशीं रुपया काडले आनी ते मारियाक दिवन ताणें म्हळें. 'हे घे दोनशीं रुपया. तुका गरजेक उपकारतले.'

'सुभाप, खरेंच तुजें देव चड बरें करूं.' मारियान म्हळें आनी सुभापान दिल्ले दोनशीं रुपया घेवन तें उठलें.

'मारिया, हें पळय. आमी हांगा जें कितें उलयल्यांत तातुंतलें एक उतर लेगीत तुवें कोणाकूच सांगूंक जायना.'

'बरें.'

'प्रॉमिस?'

'प्रॉमिस'.

मारियान सुभापाक वचन दिलें आनी तें बॉसाल्या घरांतल्यान भायर सरलें तें घरा आयलें. पूण ताणें आपूण नर्सिंग कोर्स घेतां म्हणून कोणाकूच सांगलें ना. इतलेंच न्हय तर बॉसाकूय कांयच सांगिनासतना ताणें शिर्विसूय सोडली आनी पणजे वचून नर्सिंग कोर्स शिकूंक लागलें. ताणें आपलें घर सोडलें आनी पणजे रूम करून रावलें. तें जरी पणजे आसलें तरी दर आयताराक तें नावेली येतालें आनी सुभाषाकडेन कांय गजाली करून वतालें. सुभापूय पणजे गेल्यार मुजरत ताका वचून मेळटालो. ल्हवू ल्हवू दीस वताले. मोगाचे पांवडे वाडटाले. मारिया नर्स जालें आनी पणजेच्या एका हॉस्पिटलांत आपली प्रॅक्टीस करूंक लागलें. दोतोरांक आदार दिवंक लागलें. ताणें आपल्या गोड सभावान खूब दोतोरांची आनी नर्सीची इश्टागत रोखडीच जोडली.

हेवटेन मारिया पेशंटांक तपासपाचें काम करतालें जाल्यार तेवटेन सुभाप लग्नाची तयारी करतालो. ताणें पत्रिकाय छापून हाडिल्ल्यो. आतां पयलीं ह्यो पत्रिको घेवन मारिया म्हर्‍यांत वचप आनी ताका अजापांत वडोवप अशें थारावन सुभापान स्कूटर भायर काडली. केन्ना काय आपूण हॉस्पिटलांत पावतां आनी मारियाचें मुखड पळयतां अशें ताका जाल्लें देखून ताणें स्कुटरीची स्पीड आनीक वाडयली आनी थंयच घात जालो. फुडल्यान वचपी ट्रकान अचकीत ब्रेक मारलो आनी सुभापाक आपले स्कुटरीचेर नियंत्रण दवरूंक आयलें ना. ताची स्कूटर नेटान ट्रकाक आपटली आनी सुभाप शेंवटून रस्त्याचे कुशीक पडलो. जेन्ना तो सावुद्देर आयलो तेन्ना आपूण हॉस्पिटलांत आसां म्हणपाचें ताका

कळ्ळें. ताचे तकलेक पांच-स टांके पडिल्ले. तो जितो उरतलो काय ना हो दुवाव आसलो. पूण तो वरो जावचो म्हणून दोतोर आपलेपरीन यत्न करताले. गरज पडल्यार ताका अमेरिकेंत व्हरपाखातीर सुभापाल्या वापायन तयारी दवरिल्ली. सुभापाली खबर घेवपाक खूब लोक येताले आनी ताका धीर दिवन वताले.

कांय वेळान सुभापान मारियाक पळोवपाची इत्सा प्रगटायली. मारिया ताच्या म्हऱ्यांत गेलें आनी सुभापाक पळोवन रडपाक लागलें. सुभापान ताची फाट थापटीत ताका म्हळें, 'मारिया, रडनाका. आयज तूं नर्स जालां. तुवें तुजें काळीज घट्ट करपाक जाय. हांव आतां थोड्याच वेळाचो सोवती आसां.'

'ना, ना, सुभाप, तूं पुराय वरो जातलो.'

'मारिया, म्हजी एकूच इत्सा आसा की हांव जरी ह्या संवसाराक अंतरलों तरी तुवें आंकवार रावचें न्हय आनी तुज्या सोबीत रुपाक भुलून कोणेंय तुजो स्विकार केलो जाल्यार तुवें तो न्हयकारचो न्हय.'

'ना, ना, सुभाप. हांव तुका सोडून कोणाकडेनूच काजार जावचें ना. हांव जिवीतभर आंकवार उरल्यार उपकारता.'

'ना मारिया, तशें म्हणीनाका. म्हजो तो....'

पूण फुडलीं उतरां म्हणपाक तो ह्या संवसारांत खंय आसलो ? ताचीं उतरां पूर्ण जावचेपयलींच ताचो प्राण गेल्लो. सुभाषान तकली वावगयली आनी इतलो वेळ मारियाच्या काळजांत दवून उरिल्ली दुकांची न्हंय ताच्या दोळ्यांतल्यान आनी तोंडांतल्यान भायर सरली. निमणें दोतोराक लेगीत सुभापाक वाटावपाक अपयश आयलें आनी तांणी ताका वाटावपाखातीर केल्ले सगले यत्न फुकट गेले. मारिया सुभापाल्या हड्ड्यार तकली दवरून व्हडाव्हडान रडूंक लागलें आनी रडटां रडटां म्हणूंक लागलें, सुभाप, तुवें म्हाका नर्स करून म्हजी अर्दकुटी उरिल्ली इत्सा पुराय केली. पूण नर्स जावनय हांव तुका वाटावंक शकलें ना. काजार जातकच ताजमहाला म्हऱ्यांत बसून म्हज्या खांदार हात दवरून फोटो काडपाचें तुजें सपन आसलें. पूण तुजें हें सपनूय हांव पुराय करूंक शकलें ना. तुजे उपकार फेडपाकूय म्हाका जमलें ना रे, सुभाप. कसल्या फुटक्या नशिबाचें हांव.' मारिया व्हडाव्हडान रडटालें, पूण कांयच फायदो नासलो. सुभाप आपलें जिवीत अर्दकुटेंच सोडून, आपलें सपन अर्दकुटेंच दवरून गेल्लो....! सासणाचो....!

# अशेंय एक लवलेटर

दनपारचें एक जालें. कॉलेज सुटलें आनी लंवू आनी शंभू कॉलेजींतल्यान भायर सरले. लंवू आनी शंभू ही कॉलेजांतली जोडी चलयांची फकाणां मारपाक फामाद. त्या दिसा लंवून अशींच सुविचारी नांवाचे चलयेचीं फकाणां मारलीं आनी ही खबर कोणेंतरी प्रिन्सिपॉलाक सांगली. चलयांचीं फकाणां मारता म्हणून प्रिन्सिपॉलान लंवूची वरीच खरडपट्टी काडली. आपल्या इश्टाक अर्थात लंवूक प्रिन्सिपॉलान उजरावन काडिल्ल्याची खबर जेन्ना शंभूक कळ्ळी तेन्ना शंभू वरोच पिकार जालो आनी ही खबर प्रिन्सिपॉलाक कोणें सांगल्या आसतली हें चितूंक पडलो. त्यावेळार प्रणय नांवाचो तरणाटो एकलोच थंय आशिल्ल्यान ताणेंच प्रिन्सिपॉलाक ही खबर सांगल्या आसतली अशें जेन्ना शंभून लंवूक सांगलें, तेन्ना लंवूकय तें पटलें आनी प्रणयाक कसली बुद्द शिकोवया हाचेर लंवू आनी शंभू विचार करूंक लागले. कॉलेजींतलें निविदा ढेकणे नांवांचें चली प्रणयाचेर मरता पूण आपल्या आवयवापायच्या भंयाक लागून तें प्रणयाकडेन तशें मेकळेपणान उलोवंक शकना ही खाशेली खबर लंवून आनी शंभून तांच्या खास इश्टाकडल्यान मेळयली आनी ह्या मोगाच्या आधारान तांणी प्रणयाक बुद्द शिकोवपाची थारायली. विचार करतां करतां तांकां एक आयडिया सुचली. तांणी निविदाक खूब कश्ट करून, वाकडीं तिकडीं अक्षरां वरोवन आनी सकल प्रणयाली सय करून एक लवलेटर वरयलें आनी हें लवलेटर पळोवन वा वाचून निविदालो वापूय प्रणयाक वरीच ख्यास्त करतलो हे खोशयेन तें लवलेटर तांणी पोस्टांत घालें. तें 'लवलेटर निविदाक दुसऱ्या दिसा मेळ्ळें. खरें म्हळ्यार तें लवलेटर निविदाच्या वापयच्याच हातांत पडपाचें. पूण कोणाल्या तरी मर्णाखातीर कॉलेजीक सुटी आसली आनी हाका लागून लंवूच्या आनी शंभूच्या दुर्देवान आनी निविदाच्या सुदैवान तें लवलेटर निविदाच्याच हातांत पडलें. निविदान तें लवलेटर अजापान आनी उमळशिकेन फोडलें आनी लंवू आनी शंभून खूब कश्ट घेवन, वाकडें तिकडें अक्षर वरोवन आनी सकल प्रणयाली सय करून वरयिल्लें लवलेटर वाचून निविदालें काळीज खोशेन नाचपाक लागलें. आतां कोणूय म्हण्टलो, निविदालें काळीज इतले खोशेन नाचपासारकें लवलेटरांत वरयिल्लें तरी कितें ? हां, हां, हांव जाणां की तुमकां लवलेटर वाचपाची उमळशीक

लागल्या आसतली म्हणून. तर वेळ कित्याक? तो आइये, चलिये, सुनिये, पढिये ये लवलेटर.

'मोगाळ निविदा, हांव तुजेर काळजांतल्यान मोग करतां. तुजें बत्तीसूय दांतांचें तें हांसतें मुखावळ म्हज्या दोळयांमुखार येता आनी म्हजें काळीज खोशयेन नाचता. तुजें ते मंद आनी शीतल वाऱ्यार धोलपी भांगरा-कोराचे केंस पळोवन हांव पिसो जातां आनी तुज्या केसांक पळयत रावचें अशें म्हाका कांय खीण दिसता. तुजे ते लिपस्टिकान पचपचीत केल्ले ओंठ पळोवन तुजो कीस घेवपाक म्हजे ओंठ पिटपिट्टात. तुंवें गॅदरिंगाक केल्लो तो कुणवी डान्स आयजूय म्हज्या दोळयां-मुखार येता आनी म्हजें काळीज त्याच तालार नाचपाक लागता. निविदा, खरेंच गो आय लव्ह यू! तुजेकडेन खूब खूब उलोवचें अशें म्हाका दिसता पूण तुजेकडेन उलोवपाक वतना म्हजें वयलें काळीज वयर आनी सकलें काळीज सकलूच उरता आनी देखून तुजेकडेन उलोवपाक म्हाका जमना. निविदा, तूं केन्ना फ्री आसता हें म्हाका कळय. तुजेकडेन म्हाका खूब खूब उलोवपाक जाय. बरें. तुज्या मोगाक आशेवपी आनी तुजे जापेची उमळशिकेन वाट पळोवपी तुजोच मोगी-प्रणय झुरळे."

हें लवलेटर निविदान वाचलें आनी तें लवलेटर खोशयेन आपल्या हड्ड्यार घेवन दोनूय पायांनी नाचपाक लागलें. हो नाच पळोवपाक वाथरुमांत न्हावपाक गेल्लो ताचो वापूय आनी रान्नीकडेन आशिल्ली ताची आवय आपलीं कामां अर्दारूच सोडून आयलीं आनी ताचो नाच सोपतगीर निविदाक कांयच विचारीनासतना आपलीं कामां पुराय करपाक गेलीं. घडये तांकां तो गॅदरिंगाचो कुणवी डान्स दिसला जावंये. आवयवापूय भितर वतगीर निविदान प्रणयाकडेन वचपाचें थारायलें. ताणें कपडे घाले आनी कोणाकूच कांयच सांगिनासतना तें प्रणयागेर वचपाक भायर सरलें. तें प्रणयागेर पावलें आनी ताणें दारावेली वेल वाजयली. सुदैवान प्रणयानच दार उगडलें आनी दारांत निविदाक पळोवन प्रणयालें काळीज खोशी जालें. ताणें निविदाक भितर घेतलें आनी सोफ्यार वसून दोगांय मोगाच्यो खवरी करूंक लागलीं. इतल्यांत "कोण आयला आसतलो काय?" अशें मनांत म्हणनू भितर कॉटीर आड पडिल्लो प्रणयालो वापूय भायर आयलो आनी एके परके आनी अनवळखी चलयेक पळोवन अजापलो आनी तें चली कोण हें प्रणयाक विचारूंक लागलो. 'तें म्हजें क्लासमेट. निविदा ढेकणे नांव ताचें. अभ्यासाची डिफीकल्टी सोडोवपाक आयलां तें.' प्रणयान सांगलें. निविदा ढेकणे हें नांव आयकून प्रणयाल्या वापायन कांय खीण कसलो तरी विचार केलो आनी अचकीत निविदाक विचारलें, " तुजो वापूय इंजिनियर न्हय?" "हय." निविदान म्हळें. निविदालो तो हयकार आयकून प्रणयालो वापूय खोशी जालो आनी खोशयेन ताणें निविदाक म्हळें. "आगो, तशें जाल्यार हांव ताका पुराय वळखतां. ल्हान आसतना आमी दोगांय एकमेकांचे इश्ट आसले. ताका हांवें विचारलां म्हणून सांग." अशें म्हणून प्रणयालो वापूय हॉल्लेरार बसलो. प्रणयालो वापूय

घरांत आसतना आपणें तांगेल्या घरांक रावप समा न्हय अशें म्हणून निविदा उठलें. पूण त्याचवेळार निविदालो वापूय थंय पावलो. आपल्या वापायक पळोवन निविदा गडबडलें आनी भयान थरथरपाक लागलें. निविदाच्या वापायक पळोवन प्रणयाल्या वापायन खोशेन म्हळें, "यो यो सिंयोर ढेकणेवाव, आयज हेवटेन शे? आतांच तुमची याद काडिल्ली कित्याक येवचें पडलें ?"

"कितें जालें जाणां, म्हाका 'फुलाला सुगंध मातीचा' ह्या नाटकाची तिकेट जाय आसली. म्हाका म्हळ्यार म्हाका न्हय, म्हजे घरकान्नीक. तिका नाटकांचो खूब ग्रोस्त. देखून हांव ही तिकेट मेळोवपाखातीर खूबकडेन भोंवलों. पूण खंयच तिकीट मेळ्ळीना. इतल्यांत म्हाका कोणेंतरी सांगलें की तुमचेकडेन ह्या नाटकाचो पास मेळटा जाल्यार पळय म्हणून. देखून आयलों हांगा. आसतलो न्हय तुमचेकडेन पास ?" निविदाल्या वापायन विचारलें.

"इतलेंच मूं? एकूच पास कित्याक? तुमकां जाय तितले पास व्हरात". प्रणायाल्या वापायन म्हळें.

इतल्यांत निविदाल्या वापायची नदर निविदाचेर गेली आनी ताणें निविदाक विचारलें, "अगो. तू हांगा कशें ?"

तें अभ्यासाची डिफीकल्टी सोडोवपाक आयलां खंय." प्रणयाल्या वापायन निविदाल्या वापायक सांगलें. पूण निविदालो वापूय कितें समजुपाचें तें समजल्लो. ताणें प्रणयाल्या वापायक म्हळें, "झुरळेवाव, तुमी आतांच्या चलयांक वळखनात. आतां खंयचे चलयेक कसली डिफीकल्टी केन्ना येत आनी ही डिफीकल्टी सोडोवपाक तें चली कोणागेर केन्ना कशें पावत हें कोणूच सांगूंक शकचो ना. म्हजे चलयेचे वावर्तीत सांगपाचें म्हळ्यार म्हजे चलयेक अभ्यासाची डिफीकल्टी न्हय तर मोगाची डिफीकल्टी आयल्या आसतली देखून ही डिफीकल्टी सोडोवपाक तें हांगा आयिल्लें. न्ही गो निविदा?" अशें म्हणून निविदाल्या वापायन निविदाक पळयलें जाल्यार निविदा मान सकल घालून आसलें. 'झुरळेवाव. तांकां मोगाची डिफीकल्टी सोडोवंदी. आमी तांच्या लग्नाची डिफीकल्टी सोडोवया." निविदाल्या वापायन म्हळें.

"पूण ढेकणेवाव, तुमची जात आनी आमची...." प्रणयाल्या वापायन म्हळें. पूण ताचीं फुडलीं उतरां तांच्याच पोटांत घालून निविदाल्या वापायन म्हळें. "हे पळयात हांव जात-पात-धर्म कांयच मानिना. निविदालें सूख हेंच म्हजें सूख अशें हांव मानतां. आतां जर निविदा प्रणयाकडेन लग्न जावपाक तयार आसा तर म्हजी कांयच हरकत ना."

"तशें जाल्यार डिफीकल्टी आनी कसली उरल्या? सगलें तर प्रणयान आनी निविदान करून वडयलां. हांव आतांच भटागेर वचून म्हूर्त थारायतां आनी रोकड्योच

त्रिका छापपाक दितां." प्रणयाल्या वापायन म्हळें आनी प्रणयाल्या वापायलीं हीं उतरां ायकून निविदालें, निविदाल्या वापायलें आनी प्रणयालें काळीज धादोसलें. कांय वेळान या वी घेवन 'तीं' दोगांय घरा गेलीं.

हेवटेन प्रणयालो वापूय भटागेर गेलो, म्हूर्त थारायलो, पत्रिका छापल्यो आनी त्रिका वाटपाचें काम प्रणयाचेर सोंपयलें. प्रणयान आपल्या सगल्या इश्टांक, सोयऱ्यांक ानी वरें मागप्यांक पत्रिका दिल्यो. लंवूक आनी शंभूकय ताणें आपली लग्नपत्रिका दली. आनी मुजरत लग्नाक येवचें अशी विनंती केली. आपलें लग्न अशें अचकीत कशें डलें हें निविदाक आनी प्रणयाक कुवाडें पडलें, जाल्यार खूब कश्ट घेवन, वांकडें तिकडें क्षर वरोवन आनी सकल प्रणयाली सय करून निविदाक वरयिल्लें लवलेटर पळोवन वा ाचून निविदाल्या वापायन प्रणयाक बरीच ख्यास्त दिल्या आसतली असो समज करून तिल्ल्या लंवू आनी शंभूच्या हातांत जेन्ना ही पत्रिका पडली आनी पत्रिकेर चलयेच्या ाग्यार जेन्ना तांणी निविदालें नांव वाचलें तेन्ना तांची गत कितें जाल्या आसतली हाची कल्पनाच केल्ली वरी.

# योगायोग

"आरे दामू, तुका अशें मातूय दूख कशें जायना रे ? आपले चलयेची सोयरी जाली म्हणून पेडे वांट्टा?" म्हज्या मेजामुखार पेड्यांची काश घेवन उबो राविल्ल्या दामूक तापयत हांवें म्हळें.

"कर्मधर्म संयोगान जें घडना तें योगायोगान घडून वता हेंच खरें. नाजाल्य चलयांपसून दोन-चार हात पयस रावतलों हांव मंदाच्या मोगांत पडचोंच नासलों.....

दामू म्हळ्यार आमच्या ऑफिसांतलो प्यून. आपले चलयेची सोयरीक जाली पळोवन ताका खोस जाल्ली आनी ते खोशयेन ताणें आमच्या ऑफिसांत पेडे वांटिल्ले पूण सोयरीक जाल्ले खातीर पेडे वांटप हें म्हाका आवडूंक नासलें आनी म्हणून ताचेर हां तापिल्लों.

म्हजीं तापोवणीं आयकून तो मान सकयल घालून गेलो. म्हजीं तापोवणीं ऑफिसांतल्य कोणाकूच आवडूंक नासलीं हें तांच्या मुखामळांनी पळयल्यार होलमतालें. पूण 'तुवें ताक तापोवंक जायनासलें' असो म्हाका सांगपाचो धीर मात कोणाकच जायनासलो.

कांय वेळान पांच वरां जालीं आनी ऑफिसांतलो सगलो स्टाफ उठून गेलो. हांवू उठपाची तयारी करतालों. इतल्यांत 'मिस्टर' अशी एके चलयेचीं उतरां म्हज्या काना पडलीं. हांवें तकली वयर करून पळयलें जाल्यार म्हज्या मेजामुखार पंदरा दिसांआदीं आमच्या ऑफिसांत आयिल्लें मंदा आसलें. 'कितें जालां ?' तसोच कठोर भाव मुखामळा दवरून हांवें विचारलें. 'तुवें दामूक अशें दुखोवंक जायनासलें. आपले एकेच चलयेची सोयरीक जाली म्हणून ताका खोस जाल्ली आनी ते खोशेन ताणें आमकां पेडे वांटिल्ले तुका ताणें पेडें वांटिल्ले जर आवडूंक नासलें जाल्यार तुवें पेडे घेवंकच जायनासले. पूण तुवें ताका तापोवपाचें न्हय. अधिकाराचो वायट फायदो केन्नाच उठोवचो न्हय. आरे फाल्यां समज तुजे चलयेची सोयरीक जाली आनी ते खोशेन समज तुवें पेडे वांटले आनी पेडे वांटले म्हणून तुका मॅनेजरान तापयलो जाल्यार तुका वायट दिसचें ना? तुज्या असल्या सुसंस्कृत सुशिक्षीत दादल्याक हें सोवना". मंदान म्हाका रोखून पळयत सांगलें आनी ताका जाप कितें दिवची हाचेर म्हजें मन विचार करूंक लागलें. एकेवटेन मंदाचो

म्हाका राग आयिल्लो. खरें म्हळ्यार दामू हाचो कोणूच न्हय. इतलें आसतना ताका वकिली करपाची कसली गरज आसली? खंयच्या उतरांनी ताका जाप दिवची हाचो हांव विचार करतालों. तिच्या धाडसीपणाचें म्हाका कवतुकय दिशिल्लें, पूण इतल्यांत 'येतां हांव' अशें म्हणून मंदा गेलें.

ह्या ऑफिसांत म्हजी चूक दाखोवपी कोणूच ना हाची म्हाका खात्री आसली. पूण आयज मंदान मात म्हजे खोशेचेर उदक उडयिल्लें, म्हजें मन वैचेन केल्लें. पूण तेच स्थितीत हांवें उरिल्लीं कामां केलीं आनी भायर सरलों. सदांभाशेन सदच्या रस्त्यावयल्यान हांव घराकडेन वचूंक लागलों आनी सदाल्या गाड्याम्हर्‍यांत उवें आशिल्ल्या मंदाक पळोवन अजापलों. हें मंदा त्या गाड्या म्हर्‍यांत कित्याक रावला काय? तें कोणाची वाट पळयता काय? घडये ताका कोणूय 'वोकडो' मेळ्ळो काय कितें ? आतांच्या चलयांचें सांगूंक येना.

मंदा सोबीत दिसतालें, आंगान गोरें आसलें, ताचे दोळे घारशे आसले. सोबितकाय म्हणून जें कितें आसता तें सगलें मंदाकडेन आसलें. देखून मंदाचेर ऑफिसांत सगलेच मरताले. ताचेकडेन उलोवंक धडपडटाले. देखून ताचे सोबितकायेचेर भुलून कोणूय ताच्या मोगांत पडपाची शक्यताय आसली. सदाल्या गाड्याम्हर्‍यांत उवें राविल्ल्या मंदाक पळोवन हांवें पळयिल्लें ना भाशेन केलें आनी चलूंक लागलों.

हांव फुडें गेलां हें पळोवन तें धांवत धांवत म्हज्या म्हर्‍यांत आयलें आनी ताणें म्हळें, 'मिस्टर.' 'कोण?' अशें म्हणून हांवें नाटक करून, मुखामळार अजाप उक्तावन, मंदाक पळोवंक फाट घुंवडायली. 'हांव मंदा. तुकाच मेळूंक राविल्लें.' ताणें आपले घारशे दोळे मिचकायत आनी तोंडार मुमुरतो हांसो हाडून म्हळें. 'कित्याक ?' हांवें मुखामळ जाता तितकें गंभीर करून विचारलें. 'दामूक तापयिल्ले खातीर तुका हांव उलयलें हे खातीर हांव चूक मागतां.' आपले हात जोडून ताणें म्हका सांगलें. 'इतलेंच मुगो. माफ केलें तुका.' अशें म्हणून हांवें पावल फुडें घालें.

आपलेकडेन उलोवंक धडपडटले आनी आपली सोबितकाय पळोवंक तळमळटले दादले ताणें पळयिल्ले देखून हांवें किंकोंत करून फुडें वचप ताका पटलें ना. ताका म्हजो राग आयिल्लो आनी अजापूय दिशिल्लें. 'मिस्टर' ताणें आपल्या म्होवाळ आवाजांतल्यान म्हाका उलो मारलो. 'आतां किते उरलां?' हांवे रागान विचारलें. 'तूं चलयांचो दुस्मान वी? हांव तुजेकडेन आपुलकेन उलयतां आनी तूं मात... ' ताणें लटको राग मुखामळार हाडीत म्हळें, 'हें पळय, म्हाका आतां तुजेकडेन उलोवंक वेळ ना. म्हाका घरा पावूंक जाय.' हांवें ताका टाळीत म्हळें. 'हॅ! घरा खंय! रुमार म्हण. लग्न काय जावंक ना; घरांत वायल भुरगीं आसतलीं म्हणपाचोय हुस्को ना. पूण गडवड चड.' ताणें म्हळें आनी हांव रुमार रावतां आनी लग्न जावंक ना हें ताका कशें कळळें हें हांव येवजूंक पडलों.

म्हाका दिसता तुवें अजूनमेरेन खंयचेय चलयेचेर मोग करूंक ना. न्हय? ना जाल्यार तूं म्हजेकडेन इतले तुसडेपणान वागचोच नासलो.' मंदान म्हळें. 'मंदा, आयक. म्हाका पगार मेळटा तिनशीं रुपया. तातुंतले दोनशीं म्हाका घरा धाडचे पडटात. उरले १०० रूपया. तातुंतले पन्नास रुपया जेवण खाणाक वतात. फकत पन्नास रुपया उरतात. ह्या पन्नास रुपयांच्या वजेटांत चलयो वसनात. देखून चलयांची नदर, चलयांचेर मोग, चलयांक पळोवपाची तळमळ, चलयांविशींचीं सपनां आनी चलयांकडेन उलोवपाची उमळशीक हांचेपसून हांव सदांच पयस रावलां आनी देखून खंयचेय चलयेची सोवितकाय म्हाका भुलोवंक शकना. आनी खरें सांगूं, मोग करून रोमान्स करप म्हाका अजिवात आवडना.'

'वा! तशें जाल्यार आमचें दोगांयचें जुळ्ळें म्हणपाचें.'

'खरेंच ?'

'हय. पूण तुका भयण ना ?'

'ना.'

'म्हणून तूं अशें उलोवंक पावलो. चल. आमी त्या हॉटेलांत च्या घेवंया.'

'च्या, च्या. आयज नाका. म्हाका वेळ जाता.'

'कित्याक वेळ जाता ? पळय, प्लीऽऽज.' मंदान म्हॉवाळ आवाजान म्हाका सांगलें आनी मंदावरोवर हॉटेलांत वचूंक म्हजें मन तयार जालें. खऱ्यांनीच जेन्ना मोगाळ वायल आपली कसलीय इत्सा प्रगटायता तेन्ना तिका न्हयकार दिवपाक देवाकूय जड जाता आसतलें!

आमी एका मेजाम्हऱ्यांत वचून वसलीं. ताणें कसली तरी चायनीज डीश मागयली. खातना तर तें म्हाकाच निरखून पळयतालें आनी ओंठांतल्या ओंठांत मुमुरक्यांनी हांसतालें. म्हजें काळीज ओगीच वयर-सकल जातालें. खंयचेच चलयेच्या म्हॉवाळ आवाजाक केन्नाच न भुलपी हांव ह्या मंदाच्या मोगांत कसो पडलों हाचेंच म्हाका अजाप जातालें. ती डीश खातकच ताणें लस्सी मागयली. पूण ते डिशेन म्हजें पोट भरिल्ल्यान लस्सी रिगोवपाक म्हज्या पोटांत सुवात नासली. हांवें न्हयकार दिवनय ताणें लस्सी मागयली आनी ताका वायट दिसत म्हणून हांवें अर्द लस्सी पिवन वडयली. 'ती कोणाक दवरल्या? पिवन उडय ती.' ताणें म्हळें.

'पूण म्हज्या पोटांत आतां कांयच सुवात ना. हांवें काकुळटेक येवन म्हळें. म्हजी जाप आयकून ताणें म्हजो तो अर्दकुटो लस्सीचो ग्लास आपल्या तोंडाक लायलो. 'मंदा हें कितें? हांवें तोंडाक लायिल्लो ग्लास तो.' हांवें अजापून म्हळें. 'मागीर, कितें जालें? आमी आतां परकी भोव आसात! आमकां आतां उश्टें लागना.' अशें म्हणून ताणें ती लस्सी सोंपयली. उपरांत वील दिवपाक हांवें वोल्सांत हात घालो. पूण म्हजो हात आडायत

ताणें आपलें तोंड म्हज्या कानांम्हज्यांत व्हरून सांगलें, 'हांवें तुका हाडला. म्हणटकच वील हांव दितलें. कळ्ळें?' अशे सांगून ताणें एक व्हड सुस्कारो सोडलो आनी ताच्या त्या गरम श्वासान म्हजीं कानसुलां तापलीं. आमी हॉटेलांतल्यान भायर आयलीं. तें ताच्या घराकडेन आनी हांव म्हज्या रुमार गेलों. पूण मंदान म्हजें काळीज जिखिल्लें. म्हाका पिसो केल्लो. ताचो आवाज म्हज्या काळजांत रिगिल्लो, मनांत भरिल्लो. ताचो स्पर्श म्हाका ओड लायतालो. मन खंयच लागनाशिल्लें. दर्शनान, श्रवणान, स्पर्शान वा फकत स्मरणान चल्याक वा दादल्याक उमेद हाडपी चलयेवगर दुसरें कसलेंच रत्न ब्रम्हदेवान निर्माण करूंक ना हाची म्हाका खात्री पटली.

दुसऱ्या दिसासावन आमच्या मोगाचे पावंडे वाडत गेले. एकावेळार तर आमी बाजारांत वचूंक वसींत वशिल्लेकडेन तें परत परत म्हाका तेंकतालें आनी म्हजें मन वैचेन करतालें. जेन्ना वस हालताली तेन्ना तर तें मुद्दम म्हजेर पडटालें. ताचो स्पर्श म्हाका जातालो. त्या नाजूक, सुगंधित आनी अनामिक स्पर्शान हांव धुंद जातालें. भायलो थंड वारो आंगाक लागतालो आनी मंदाच्या सळसळट्या रगताकडेन खेळटालो. वस मोडण घेतना तर एका वेळार तें म्हज्या आंगारय पडिल्लें.

उपरांत गार्डनांत, थेटरांत, दर्यावेळांनी तें म्हाका व्हरतालें. खरें म्हळ्यार लोक कितें म्हणत ह्या विचारान ताचेवांगडा वचूंक म्हजें मन तयार जायनासलें. पूण ताचे लागोळे. कातकुतल्यो करपी दोळे आनी म्होंवाळ आवाज म्हज्या मनाची समजूत घालताले आनी हांव हयकार दितालों; ताचेवांगडा वचूंक तयार जातालों.

कितें योगायोग पळयात! त्या दामू प्यूनाक हांव तापयना तर इतलें रामायण घडना. पूण परमेश्वर कितें निर्मीत आनी कितें घडयत हाचो अदमास कोणाच्यानूच लावं नज.

कर्मधर्म संयोगान जें घडना तें योगायोगान घडून वता हेंच खरें. ना जाल्यार चलयांपसून दोन चार हात पयस रावतलों हांव मंदाच्या मोगांत पडचोंच नासलों.

एक दीस गार्डनांतल्या एका वाकार वशिल्लेकडेन मंदान म्हाका म्हळें,

'खरें सांगूं? हांव तुजेर काळजांसावन मोग करतां.'

'हें तर म्हाका पयलींच कळिल्लें. ज्या दिसा तूं सदाल्या गाड्यार उवें आसलें त्याच खिणाक म्हाका होलमल्लें की तुज्या काळजांत कितें तरी शिजता. पूण म्हळें, तवो तापूंक जाय, नाजाल्यार चपाती भाजची ना, म्हणून मातशें नाटक केलें.'

'नाटक? म्हणजे तुका रोमान्स आवडना म्हणून तुवें म्हाका फट मारिल्ली?'

'हय.'

'पूण कित्याक?'

‘तुजे खावपाचे आनी दाखोवपाचे दांत खंयचे हें पळोवचेखातीर.’

‘म्हणचे तुवें फट मारली तर ?’

‘आगो मंदा, संवसारांत जल्माक आयिल्ल्या दरेका मनशाक कोणाचो ना कोणाचो तरी स्पर्श जाय आसता. जाका स्पर्श जाय आसता ताका रोमान्स आवडटा. जो शरीरस्पर्शाची निंदा करता तो खरें म्हळ्यार परमेश्वराचीच निंदा करता. आनी आपल्याली निंदा करतलो मनीस देवाक आवडना.’

खंयचे तरी कथेंत वाचिल्लो डायलॉग हांवें मारिल्लो. म्हज्या ह्या डायलॉगान तें भुल्लें आनी फाटलो फुडलो विचार करिनासतना तें म्हजे कुशीक रिगलें आनी वेंगेंत शेणलें.

कांय दिसांनी आमचो साखरपुडो जालो आनी हांवें ऑफिसांत पेडे वांटले. पेड्यान भरिल्ली काश दामूमुखार दवरली आनी सांगलें, ‘दामू, घे, जाय तितले पेडे काड. म्हजी सोयरीक जाल्या. आनी ती फकत तुकाच लागून. तुकाच तापयिल्ले खातीर मंदा म्हाका मेळूंक शकलें, म्हजी सोयरीक जावंक पावली. म्हजीं उतरां आयकून दामू म्हज्या तोंडाकडेन अजापून पळयतालो आनी ऑफिसांतलो सगलो स्टाफ म्हज्यावांगडा व्हडा व्हडान हांसतालो.




# अशेंय एक सपन

तिणें आपले गोरे गुवगुर्वीत हात म्हज्या गळयाभोंवतणी घाले . . . तिच्या त्या सुखद पर्शान हांव सुखावलों . . . हांवें दोळे धांपले . . .  . . . आनी . . .

'फिर्रऽऽऽ' फाटल्यान आवाज आयलो आनी हांव अजापलों . स्कुटरीफाटल्यान बशिल्ले म्हजे घरकान्नीनच शिळोर्णी घाल्या आसतली अशें आदीं दिसलें . लहर येता तेन्ना म्हज्या कानां म्हऱ्यांत आपलें तोंड व्हरून शिळोणी घालपाची आनी म्हजे कान रिजोवपाची तिका संवय आसली . आतांय घडये तिणेंच शिळोणी घाल्या आसतली अशें समजून हांवें स्कूटर तशीच फुडें व्हेली . पूण पर्थून आयिल्ल्या फिर्रऽऽऽऽ आंवाजान आनी 'रावात , धवे तकलेचो मनीस तुमकां राव म्हणून सांगता .' अशें घरकान्नीन सांगिल्ल्यान ब्रेकाचेर पांय दवरून स्कूटर थांवयली आनी फाटल्यान पळयलें .

फाटल्यान आंगार धवेच कपडे घाल्लो आनी तकलेर धवेंच हेल्मेट घाल्लो पोलीस आसलो . ताच्या हातांत तालांव दिवपाची पटी आसली आनी आदल्या तेंपार राजे जैत मेळयतकच जे स्टायलीन दरबारांत येताले ते स्टायलीन म्हाका थांवोवन आपणें एके तरेचें जैत मेळयिल्लेवरी तो पोलीस म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें म्हजेकडेन लायसन मागलें . हांवें डिकी उगडून ताका लायसन दिलें . सोयरिकेखातीर चलयेचो फोटो पळयतना जसो न्हवरो बारीकसाणेन ते चलयेक नियाळटा तशें त्या पोलिसान तें लायसन सकयल वयर . फाटल्यान फुडल्यान बरें करून पळयलें आनी 'सारकें आसा , घे .' अशें म्हणून म्हाका परत दिलें . आपलो तालांवाचो बूक चाळपाचें नाटक करून तो तिरशा दोळयांनी म्हजे घरकान्नीक वयर-सकयल पळयतालो आनी इतली सोबीत बायल म्हाका बायल मेळ्ळी म्हणून मनांतल्या मनांत जीव चाट्टालो . ताची ती तिरशी नदर म्हज्या दोळयांतल्यान सुटली ना .

'सायब , तुजें हॅल्मेट खंय ?' ताणें विचारलें .

'घरा दवरलां .'

'वा ! म्हणजे हॅल्मेट ना घालतल्याक दंड दिवपाचो आदेश सरकारान काडला तें खबर ना काय कितें तुका ?'

'खवर आसा. पूण ताची अंमलवजावणी अजून सरकारान करूंक ना हेंवूय जाण हांव.'

'आरे मूर्खा, कोण सांगता करूंक ना म्हूण? हें पळय, आमकां कालूच तर आदेश आयला देखून आमी आयजसावन म्हणजेच 'ट्रॅफीक सेफ्टी वीक'च्या शुभम्हूर्ता ही मोहीम सुरू करपाची थारायल्या. ह्या सुरक्षा सप्तकाचो आज पयलो दीस. आन आमकां मेळिल्लो तूं पयलो गुन्यांवकारी मनीस.'

'सायव, खरें म्हळ्यार हांव सदांच हॅल्मेट घालूनच स्कुटरीन भोंवतां. पूण आयज हे अगडवंव घरकान्नीचो आनी त्या हॅल्मेटाचो पेज सोसूंक जावचो ना म्हणून हॅल्मेट घर दवरलें.'

'हें पळय, तुमी हांगाच चुकतात. आरे, आमी सुरक्षा सप्तक केला कोणाखातीर? फकत तुमचेखातीर, आनी तुमी मात निष्काळजीपणान वावुरतात. तुमकां तुमच्या जिवाचो हुस्कोच ना.'

'पूण सायव...'

'हें पळय, तूं म्हाका तालांव वरोवपापासत आडायनाका. आरे, तूं शिकिल्लो सवरिल्लो मनीस मरे ? तुका तकली आसा मरे ?'

'हय, सायव.'

'आनी आपल्याक तकली आसा हें कळुनूय तूं हॅल्मेट घरा दवरून स्कुटरीन भोंवता. आतां तकली नाशिल्ल्या मनशान हॅल्मेट घालें ना जाल्यार समजुं येता. पूण तुजेसारक्या सुशिक्षित मनशान हॅल्मेट घालनासतना स्कुटरीन भोंवप आनी सदांच आपलें कर्तव्य न चुकता पाळपी कर्तव्यदक्ष पोलिसाक तुवें तालांव दिवपापासत आडावप हें तुका सोवता ?'

'पूण सायव, प्लीज.'

'परत तेंच. आरे, कायदो मोडटल्याक जर आमी ख्यास्त दिली ना जाल्यार आमची रोखडीच वदली जाता. आनी धरुंया, हांवें तुमकां हॅल्मेट घालूंक ना म्हणून तालांव दिलो ना आनी अचूक तुमकां अपघात जालो आनी तुमकां मरण आयलें जाल्यार तुमच्या मरणाचें खापर आमचो सायव म्हज्या वोडार थापतलो आनी तुमच्या मरणाचें पातक म्हाका भोगचें पडटलें.'

'मिस्टर, हॅल्मेट घालें ना म्हणून अपघात जायनात. रस्त्यार पडिल्ल्या फोंडकुलांक लागून अपघात जातात. तीं पयलीं पुरवयात आनी उपरांतूच हॅल्मेट नाशिल्ल्यांक दंड दियात.' शिक्षकी स्टायलीन म्हजे घरकान्नीन म्हळें.

'यू आर रायट मॅडम. फोंडकुलांक लागून अपघात जातात हें मतीत धरून आमी

आमचेकडल्यान प्रशिक्षण घेतिल्ल्या एन्.सी.सी.विद्यार्थ्यांक दरेका फोंडकुलां म्हज्यांत दवरल्यात.'

आनी त्या पोलिसाचें खरेंच आसलें. सरभोंवतणी नदर मारल्यार सगल्या फोंडकुलांकडेन एन्.सी.सी. चे विद्यार्थी आसले आनी ते वाहनांक वाट दाखयताले. वाहनांक वाट दाखयतना एका वाहनाचो धपको दुसऱ्या वाहनाक लागनये म्हणून जावंये वा रस्त्यार सुवात ना म्हणून जावंये ते एन्.सी.सी. चे विद्यार्थी फोंडकुलांतूच रावून वाहनांक दिका दाखयताले.

'हें पळय, तुवें हॅल्मेट घालिनासतना व्हड गुन्यांव केला, देखून तुवें तालांव भरूंकच जाय.' आपली तालांवाची पटी उत्ती करून पोलिसान म्हळें.

'ना जाल्यार कितें करतले?' घरकान्नीन आपले घारशे दोळे मिचकायत विचारलें.

'ना जाल्यार तुमचेकडल्यान लांच घेवपा वगर म्हजेकडेन दुसरो पर्यायच नासतलो.'

'पूण सायव, लांच घेवप हो गुन्यांव आसा. आनी हो गुन्यांव करतल्याक ख्यास्तय जावं येता.'

'वरोवर तुजें. पूण हें सुरक्षा सप्तक कसलेच वायट घडणुकेविणें सुरळीत जावचें म्हणून आमकां हो मार्ग आपणावचोच पडटा. वरें तें आसूं, तुजें नांव आनी पत्तो सांग.'

आपले तालांवाचे पटयेंतल्या एका पानांत कार्बन कॉपी घालीत ताणें म्हळें.

नांव सांगून तालांव घेवप काय लांच दिवन सुरक्षा सप्तक सुरळीत जावचें म्हणून पोलिसाक हातभार लावप असो प्रस्न म्हज्या मनांत घोळटा आसतनाच म्हजे घरकान्नीन आपल्या दोळयांचें गॉगल काडून म्हळें, 'वरय. गुन्यांव करप्याचें नांव अजिंक्य उपाध्ये. गोंयचे नामनेचे DYSP श्री. सुविचारी उपाध्ये हांचो पूत, रावपी आल्तीन्य, पणजी आनी म्हजें नांवय जाय जाल्यार वरय. म्हजें नांव कु. अपेक्षा राजाध्यक्ष, केंद्रीय येरादारी मंत्री श्री. अविचारी राजाध्यक्ष हांची चली. रावपी लाल चौक रोड, नवी दिल्ली.'

'म्हणजे... म्हणजे... तुमी... घोव...वायलां न्हय?' पोलिसान म्हळें. ताचे हात कडकडटाले.

'न्हय. हांव कालूच गोंयचे भोंवडेक आयिल्लें. कुठ्ठाळीसावन मडगांव येवपाक वसीखातीर राविल्लें. तितल्यांत हाणें लिफ्ट दिलें. हो म्हजो क्लासमेट. वरें, तें आसूं. तूं आमकां तालांव दी. फुडलें कितें करपाचें तें आमी पळयतात.'

'सायव, वळखपाळख नासतना कोणाकूय लिफ्ट दिवप 'कानुनी जुल्म है.' मॅडम, तुमकां तालांव दिवन म्हजी नोकरी वगडावपाची म्हर्जी इत्सा ना.'

'आनी हॅल्मेट ना म्हणून आमकां अपघात जाल्यार...' तिणें विचारलें.

'तें परवडलें. पूण तुमकां तालांव दिवन हांव विकतें श्राध्द घेवंक सोदना. पोलिसान म्हळें आनी तालांवाची पटी वंद केली.

'चलात, चलात आनी एकूय मिनीट हांगा रावनाकात. तुमकां तालांव दिता हें पळयल्यार सेर्त म्हजी ट्रान्सफर जातली वा हांव सस्पेंड जातलों.' ताणें आमकां फाट फिरोवन आनी आपलें दुसरें 'भक्ष्य' सोदचे खातीर हेवटेन तेवटेन पळयत सांगलें. घरकान्नीले सांगणेन हांवें स्कुटरीक कीक मारली आनी म्हळें 'अनुपा, खरेंच You are great! तूं आशिल्ल्यानच हांव आयज सुटलों.' अशें म्हणून हांवें स्कूटर सुरू केली. 'आरे, आपल्या घोवाक सांबाळचेखातीर आनी ताका संकश्टांतल्यान सोडोवचे खातीर वायलेक बंडलां मारचींच पडटात.' अशें म्हणून तिणें आपले दोनूय गोरे गुवगुवीत हात म्हज्या गळयाभोंवतणीं घाले आनी लग्ना उपरांत तिणें पयलेच फावट म्हज्या गळयांत घाल्ल्या आपल्या मोगाच्या गोऱ्या हाताच्या विळख्यान आनी उवेन हांव सुखावलों. हांवें दोळे धांपले. इतल्यांत फुडल्यान येवपी ट्रकान आमचे स्कुटरीक खर धपको दिलो आनी एक व्हड किळांच मारून हांव जागो जालों. हांव घरांतले कॉटीर न्हिदिल्लों आनी म्हऱ्यांत घरकान्न बशिल्ली. ती मोगान म्हज्या केंसांवयल्यान हात भोंवडायताली. भायर खूब वोवाळ चलिल्लो. 'कसलो वोवाळ चल्ला भायर?' वयर सिलींग फॅन आसुनूय म्हाका आयिल्लो घाम चादरीन पुसत हांवें म्हळें. 'कांय ना. निकतोच एके स्कुटरीक ट्रकाचो धपको वसून अपघात जाला. स्कुटरवाल्याक आतांच लोकांनी हास्पिटलांत व्हेला.' तिणें सांगलें. ते स्कुटरीचेर हांव आनी घरकान्न नाशिल्लीं हें येवजून हांवें मनांतल्या मनांत देवाचे उपकार मानले आनी म्हजें कलकलपी हडुं आनी दुकां आयिल्ले दोळे घरकान्नीक दिसनये म्हणून तोंडावयल्यान चादर घेतली आनी निद्रादेवीची आराधना करपाक म्हजे ओंठ पुटपुटूंक लागले.

# खरेंच, यू आर ग्रेट!

लग्न जावंक नाशिल्लो मनीस पश्चाताप करता आनी जाल्लोय मनीस पश्चाताप करता अशें म्हजो आजो सदांच म्हणटालो. तार्चीं तीं उतरां म्हाका आदीं फट दिसतालीं, पूण आतां त्या उतरांचे खरेंपण कळ्ळां.

एका म्हयन्यापयलीं म्हज्या जिवीतांत सोविता नांवांचें एक चली आयलें आनी त्या सोविताच्या सोवीत रुपाक भुलून हांव ताचेकडेन लग्न जालों. लग्नाउपरांत हनिमून करतगीर जेन्ना हांव तिका घेवन बंगल्यार रावपाक आयलों, तेन्ना 'ह्या बंगल्यार वावराडी जाय' असो हट्ट तिणें धरलो आनी 'स्त्री हट्टा' मुखार कोणाचें कांयच चलना हें त्या वेळार म्हाका होलमलें. ती गिरेस्त वापायची चली आशिल्ल्यान तिका फकत च्या सोडून कांयच करूंक येनासलें. ताका लागून वावराडी मेळ म्हणसर म्हाका तिट्यार आशिल्ल्या दामूशेटील्या हॉटेलाक जेवणाचें आनी खाणाचें गिरायक घालचें पडलें. सदांच हॉटेलाचें खाण खाल्ल्यान पोट तर बिगडिल्लेंच पूण वोल्सांतय दुडू उरनासले. सोविताक मात ताचें दुख्ख नासलें. ती हांसत्या मुखान आनी खोशयेन हॉटेलांतलें जेवण जेवताली. तशेंच ह्या सोविताक निद्रादेवी प्रसन्न जाल्ली. मुळांतूच आळशी आशिल्ल्यान ह्या सोविताक न्हीद प्यारी आसली. खंयच्याय खिणांत तें न्हिदतालें आनी रोखडेंच घोरेतालें. म्हाका दिसता, देवाकडेन न्हिदेचो वर मागपाक ती सगल्यां परस पयलीं गेल्या आसतली आनी 'फस्ट कम फस्ट सर्व्ह' हे पध्दतीप्रमाण देवान तिका चड न्हीद दिल्या आसतली.

म्हज्या सगल्या इश्टांक आनी सोयऱ्यांक हांवें वावराडेविशीं सांगिल्लें. पूण ह्या दिसांनी वावराडी मेळप खुबूच दुर्मिळ आशिल्ल्यान कोणूच म्हाका मदत करूंक शकलो ना. निमाणेंकडेन निरुपाय म्हणून वर्तमानपत्रांत 'वावराडी जाय' म्हणून जायरात दिली आनी जायरातींत म्हजो पत्तो दिवन वावराडेचें काम करतल्यांनी वेगोवेग मेळचें अशें बरयलें.

तसो पगाराचो हुस्को नासलो. वावराडेन कितलोय पगार मागल्यार दिवपाची तयारी

हांवे दवरिल्ली. म्हजे मोगाळ घरकान्नींची अडचण आनी वडवड पयस जावची होच ही जायरात दिवपाफाटलो हेत आसलो. (घरांतलीं वारीक सारीक कामांय ती पिरंगून करताली. गिरेस्त वापायची चली हाडटगीर हो त्रास जाता.)

अशेच दोन दीस गेले. पेपराचेर जायरात दीत सावन घरांत आयले वरोवर 'आयले? वसात. पुरो जालें?' अशें म्हणपी घरकान्न म्हाका 'वावराडी मेळ्ळी व्हय?' असो प्रस्न करताली आनी म्हजी तकली तापयताली. पूण तरीय हांव सोंसतालों आनी 'आलिया भोगासी असावे सादर, वायकोवरी भार टाकुनिया' अशेतरेन दीस सारतालों.

तर असोच एका दिसा हांव निर्शेवन घरा आयलों. वावराडी मेळना म्हणून मनांत तिडक आसली आनी जायरात दिवनय एकूय वावराडी येना म्हणून मनांत रागय आयिल्लो. हांवें घराचो हुमरो हुपला मात, घरकान्न भितरल्यान धांवत आयली आनी 'वावराडी मेळ्ळी?' म्हणपावदला तिणें खोशयेन म्हळें, 'वावराडी मेळ्ळी.' आनी वावराडी मेळिल्ल्याचे खोशयेन तिणें लिपस्टिक लावन पचपचीत केल्ल्या आपल्या तांवड्या ओंठाचो म्हाका प्रसाद दिलो.

वावराडी मेळ्ळी म्हणून जितली खोस तिका भोगिल्ली ताच्या दोवरादेन खोस म्हाका भोगिल्ली. हांव खोशयेन घरांत आयलों आनी सगलें घर पळयलें. 'वावराडी?' हांवें उमळशिकेन विचारलें.

'वावराडी? सकाळीं येवन सगलें जेवण करून गेली ती.'

'पूण ती आयिल्ली केन्ना ?'

'आयज सकाळीं तुमी ऑफिसांत वतगीर आयिल्ली ती. पेपरावेली जायरात वाचून आपूण आयलीं अशें म्हणटाली ती.'

'राव गे. दिसपाक कशी आसा ती ?'

'दिसपाक वरी दिसता. सामकी म्हौंवाळ. सभाव गोड आनी सदांच हांसतमुख.'

'वरें, तिणें कितलो पगार मागला?'

'फकत साट रुपया.'

'कितें?'

'हय. हांवें पगाराविशीं जेन्ना तिका विचारलें तेन्ना तिणें म्हळें, 'म्हाका म्हयन्याक फकत साट रुपया दिल्यार पुरो. हांव तुमचें कसलेंय काम करूंक तयार आसां. पूण म्हाका ना म्हण नाकात. हांव तुमच्या पांयां पडटां.' अशें म्हणून वावराडेन चक्क म्हजे पांय धरले आनी तिची काकूळट येवन हांवें तिका कामाक दवरली.'

'वा ! वरीच सवाय पडली मगे आमकां ती !'

‘हय ! देवाची कृपा आनी कितें?’

‘चल चल, म्हाका च्या दी.’

अशें म्हणून हांव घरकान्नीक घेवन भितर गेलों आनी आदीं च्या घेवन आनी उपरांत जेवन सुस्त न्हिदलों.

दुसऱ्या दिसा कोंव्याल्या सादान म्हाका जाग आयली. हांव उठलों आनी सहज म्हणून घरांत नदर भोंवडायली सगल्याक नितळसाण पळोवन अजापलों. इतल्यांत आळशीवाय तोंडांत टूथब्रश घालून भायर आयली आनी म्हणूंक लागली, ‘उठात आतां, सकाळ जाली.’ ‘पूण ही सगली नितळसाण कोणें केली गे?’ घरकान्न ही नितळसाण केन्नाच करची ना हाची म्हाका खात्री आसली. ‘कोण करतली? तुमचे वावराडेन केल्या ती. सकाळीं पांचाक येवनआपूण कपडे उमळटलीं, सान्न मारतलीं आनी सातांक वतलीं आनी उपरांत दनपरां वारा वरांचेर येवन जेवण करून दोनांक वतलीं असो तिणें ‘कॉंट्रेक्ट’ केला न्हय! ते प्रमाण येता ती. खरेंच असली वावराडी मेळप दुर्मिळ न्हय? चलात, उठात आतां.’

अशें म्हणून घरकान्न भितर गेली आनी अशी ही वावराडी कोण आसतली हाची म्हाका उमळशीक लागली.

पूण अशेच दीस वताले. वावराडेचें दर्शन म्हाका कशेंच जायनासलें. आयताराक तर तिणें फकत सकाळींच रांदून वतली म्हणपाचें सांगिल्लें. म्हाका मेळपाचें ती वावराडी टाळटाली हें म्हज्या सारक्या सूज्ञ मनशाक रोकडेंच कळिल्लें.

पूण वावराडी येत सावन मात म्हाका नवे नवे जिनस खावंक मेळटाले आनी अजाप म्हळ्यार वावराडेन केल्ले जिनस म्हजे आवडीचे आसले. म्हजे आवडीचे जिन्नस वावराडेक कशे कळ्ळे काय ? असोय एक मनांत दुवाव आयलो. पूण म्हाका आवडटात तेच जिन्नस घडये तिच्या घोवाच्याय आवडीचे आसुंये. अशी मनाची समजूत घालून मनांतलो दुवाव पयस केलो.

सदांच ऑफिसांतल्यान घरा आयले वरोवर म्हजी घरकान्न म्हाका वावराडेचे तोखणायेचीं उतरां सांगताली आनी तीं उतरां आयकून इतली वरी वावराडी मेळ्ळी म्हणून हांव मनांतल्या मनांत म्हाकाच भाग्यवान समजतालों.

अशेच दीस वताले. एक दीस म्हजो वाडदीस आसलो. सकाळीं म्हाका घरकान्नीन वाडदिसाचें अभिनंदन केलें. हांव ऑफिसा वचूंक भायर सरलों. इतल्यांत घरकान्नीन म्हळें. ‘हें पळयात. आयज वावराडेन गुलावजाम करया म्हळां आनी गुलावजामा खातीर लागपी जिनसांची वळेरी केल्या. हे जिनस धाडून दियात.’

‘पूण, पूण आयज गुलावजाम शे?’

‘आयज तुमचो वाडदीस न्हय.’

‘पूण म्हजो आयज वाडदीस हें वावराडेक कशें कळ्ळें? तुवें वी सांगिल्लें?’

‘ना. हांवें सांगूक ना तिका. अजाप शें न्हय? ज्यूस्त आयजूच तिका गुलावजाम करपाची वुद्द शी कशी आयली? हां, तिणें ओगीच म्हळां आसतलें.’

इतल्यांत वस आयली आनी आमचें संभाशण अर्द्यारूच उरलें. हांव वसींत वसलों पूण तकलेंत तोच विचार घोळटालो की ते वावराडेक म्हजो वाडदीस कसो कळ्ळो ? कोण आसत काय ती वावराडी? असो मनांत विचार घोळयतनाच विचारशक्तीक ताण दिलो आनी दोन वर्सांपयलींचें म्हजें माया नांवाचें मोगी म्हज्या दोळयांमुखार आयलें... हय माया... म्हजेर काळजांतल्यान मोग करपी.... एका गिरेस्त घराण्यांतलें चली... म्हाका सोडून हेर कोणाकडेनच लग्न जावचें ना अशें सांगपी... म्हज्या रुमार येवन जेवणावेळार म्हाका मजत करपी. आपल्या घराकडेन हांव गेल्यार म्हाका आवडीचे जिनस करून घालपी..... आमी दोगांयनी आपलीं काळजां एकमेकांक भेटयिल्लीं... लग्न जावपाचीय आमी तयारी केल्ली... पूण तिचो वापूय आड आयिल्लो... आपली गिरेस्त चली म्हजेसारक्या गरीव चल्याक दिवंक तो तयार नासलो... चलयेक मागणी घालपाक गेल्लेवेळार तिच्या वापायन म्हजो अपमान केल्लो... म्हाका गरीव म्हण हिणसायिल्लो... आनी ते उपरांत.... हांव त्या मायाचें तोंड लेगीत पळोवचों ना असो हांवें निर्धार केल्लो.... पूण तें हेंच माया आसतलें काय... आसूं येता वा नासूं येता... छट्! शक्यच ना. गिरेस्त घराण्याचें चली आमगेर वावराडी म्हणून? छट्! शक्यच ना.... Highly impossible ... तें माया आयज गिरेस्त चल्या वरोवर सुखान रावता आसतलें.... ओगीच हांव मायाची सर हे वावराडे कडेन करतां.... कितलो पिसो हांव..... अशी समजूत करून हांव ऑफिसांत पावलों. पूण वावराडेक पळोवपाची उमळशीक मनांतली कशीच वचनासली. वाडदिसाचो दीस सोंपलो. सगल्या इश्टांक हांवें वाडदिसाक आपयिल्लें. सगल्यांनी वावराडेन केल्ल्या गुलावजामाची तुस्त केल्ली.

अशेच कांय दीस गेले. वावराडेक पळोवपाचें भाग्य म्हाका कशेंच मेळनासलें. पूण एक दीस अचकीत तसो योग आयलो. त्या दिसा दनपरां दोनांक सुमार म्हाका सोविताचो फोन आयलो.

‘हॅलो, हांव अभय उलयतां.’

‘हॅलो हांव सोविता. हांव आयज सांजवेळे घडये उसरां येतलीं. म्हजी इश्टीण हांगा आयल्या आनी ती म्हाका सिनेमाक यो म्हणून धोंसता, देखून हांव आयज सांजवेळा उसरां येतलीं.’

‘अगे, पूण घराकडेन कोण आसा?’

'वावराडी आसा. तिका सांगलां हांवें काम जातगीर तूं चावी शेजारच्या रेश्मा वयनीकडेन दी म्हणून.'

'वरें आसा.'

'वरें.'

तिणें फोन दवरलो. 'अरे, चल उठ ही संद परती मेळची ना.' एक मन सांगतालें, जाल्यार 'पूण ती वावराडी खऱ्यानीच घरांत आसतली काय?' अशें दुसरें मन म्हणटालें. पूण शेवटाक बॉसाक सांगून भायर सरलों आनी सरळ बंगल्यारआयलों. बंगल्याचें दार बंद आसलें. पूण भितर आयदनांचो आवाज येतालो. म्हणजेच वावराडी घरांत आसा असो हांवें अदमास काडलो आनी बंगल्याच्या आय बॉलांतल्यान भितर पळयलें आनी दोन वर्सा पयलीं म्हज्या जिवितांत येवपी माया तें हेंच हाची म्हाका खात्री पटली. पिशा मनांतले पिशे विचार बंद पडले. 'पूण तें वावराडी म्हणून हांगा कित्याक वावुरता?' असो प्रस्न मात मनांत घोळटालो. हांवें बेल वाजयली. बेल वाजले बरोबर वावराडेन दार उगडलें आनी दारांत म्हाका पळोवन ती आवूज जाली, दारांतल्यान भायर वचूंक धडपडूंक लागली. हांवें हात मदीं घालून तिची वाट आडायली. म्हाका पळयले वरोबर तिच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं आनी तीं दुकां तिच्या गालांवेल्यान गळूंक लागलीं. 'माया, तूं म्हजेर अजूनय मोग करता? हांव तुका वळखलों ना गो. माया, तूं अशें कित्याक करता? म्हज्या घरांत तूं वावराडी म्हणून कित्याक वावुरता?'

'नाका अभय, प्लीज तशें म्हण नाका. प्लीज, म्हाका हातूंतच सूख आसा.'

'ना ना. पूण तुवें म्हज्या घरांत वावराडेचें काम करूंक जायना. तूं आंकवार..

'न्हय.'

इतलेंच तिणें म्हळें आनी घरांतल्यान धांवत भायर गेलें. ताचे गोरे फाटीक हांव पळयत उरलों आनी मनांत प्रस्न घोळत रावले. 'माया कित्याक लागून अशें करता ? कित्याक म्हज्या घरांत तें वावराडी म्हणून येता? कित्या खातीर? आयजूय म्हजेर तें मोग करता? हांवें ताचेर इतलो मोग केल्लो व्हय?' अशे विचार मनांत आसतनाच दोन वर्सां आदीं ताच्या बापायन म्हजो अपमान केल्ल्याचीं मायान म्हणिल्लीं उतरां म्हज्या कानांत घुमूंक लागलीं. 'वापायन जरी आमच्या लग्नाक विरोध केलो तरी तूं भियेवं नाका. म्हजो तुजेर मोग आसा.. उपाट मोग आसा.... तो मोग फुडेंय उरतलो.... हांव तुका सोडून कोण्णाकडेन लग्न जावचें ना. फकत तुज्या दर्शनान हांव सुखी जातलें. तूं लग्न जा. तुजो संवसार कर. तुजो सुखी संवसार पळोवन हांव सूख मानतलें. तुजी बायल जावपाचें भाग्य जरी म्हाका मेळ्ळें ना तरी तुज्या घरांत वावराडी म्हणून वावुरतलें आनी तुका सुखी दवरपाचो यत्न करतलें.'.... 'माया! माया! तुवें तुजीं उतरां आयज

खरीं केलीं, पूण हांव मात तुका दिल्लें उतर पाळूंक शकलों ना. सोबिताच्या रुपाक भुलून हांव तुका पुराय विसरलों.' माया, म्हाका क्षमा कर गो. म्हाका माफ कर.' हांवें मनांत म्हळें. इतल्यांत बेल वाजली. दारांत घरकान्न आसली. 'थिएटरांतलो ट्रान्झमीटर जळिल्ल्यान परत येवचें पडलें. ती इश्टीण आपल्या घरा गेली. हांव हेवटेन आयलीं.' भितर सरतनाच घरकान्नीन म्हळें आनी फुडले कार्यक्रम सुरू केले. पूण हांव म्हजे घरकान्नी कडेन वावराडेविशीं कांयच उलयलों ना. त्या दिसा म्हाका मात्तूय न्हीद पडली ना.

'फाल्यां तें कामाक येतलें काय? काय आपल्यालें गुपीत भायर पडलें म्हणून फाल्यां तें कामाक येवचें ना?' अशे विचार म्हज्या मनांत घोळटाले आनी ह्या विचारानच म्हाका न्हीद केन्ना लागली तेंच कळ्ळें ना. सकाळीं खुबूच बेगीन म्हाका जाग आयली. हांव उठलों. सदां भाशेन घर निवळ आसलें. मेजार म्हज्या नांवाची चीट आसली. हांवें ती चीट उक्ती केली आनी वाचपाक सुरवात केली. 'मोगाळ अभय, पेपरावेली जायरात वाचून हांव तुमगेर आयिल्लें. वावराडेच्या रुपान तुज्या संवसाराक थोडो हातभार लावचो असो म्हजो हेत आसलो. देखून तूं सुखी आसचो म्हणून हांव तुजी सेवा करतालें. हांव जरी तुजी बायल नासली तरी तुज्या घरांत वावर करून तुका सुखी दवरपाक म्हाका खूब खोस भोगताली. तुका आनी तुजे घरकान्नीक म्हजो त्रास जावचो न्हय म्हणून हांवें तुमकां म्हजें नांव सांगलें ना. तुवें म्हाका पळोवचें न्हय म्हणून हांवे तुकां टाळटालीं. पूण काल म्हजें गुपीत फुटलें. सोबीताक मात हे विशीं कांयच सांगूं नाका. ना जाल्यार तुजो सुखी संवसार दुख्खी जातलो आनी ताचें प्रायश्चित मात म्हाका भोगचें पडटलें. सोबीता सारकी सुंदर बायल तुका मेळ्ळी हें तुजें आनी त्याच बरोबर म्हजें भाग्य अशें हांव समजता. पळय प्लीज, सोबीताक म्हजी वळख दाखय नाका. म्हजो सोपूत आसा तुका. म्हाका वावराडेचें काम करूंक दी. म्हाका तातूंतच सूख आसा. परतून म्हाका मेळपाचो यत्न कर नाका. म्हजो सोपूत आसा तुका. बरें. तुजेंच माया.'

हांवें ती चीट वाचली आनी इतलो वेळ दाबून दवरिल्ली दुकांची झर फुटली दोळ्यांतल्यान व्हांवक लागली. घरकान्न सुस्त न्हिदिल्ली आनी घोरेताली. हांवें मायान आपले चिटींत शेवटाक बरयिल्ल्या 'माया' ह्या नांवाचो कीस घेतलो. चलयेचो चल्याचेर कितलो मोग आसता हें मनाक होलमलें आनी तोंडांतल्यान आपसूकच उतरां भायर पडलीं, 'माया, खरेंच, यू आर ग्रेट! यू आर ग्रेट!'





| | | |
|---|---|---|
| नांव | : | अतुल रघुनाथ पंडित |
| जल्मदीस | : | १३ सप्टेंबर १९६४ |
| जल्मथळ | : | मडगांव |
| शिक्षण | : | बी. ए. मुळावें शिक्षण कुळयां, उपरांत फुडलें शिक्षण मडगांवां आनी सावड्ड्यां. |
| लेखन | : | १९८५ वर्सासावन लेखनाक आरंभ. उपरांत कथा लेखनाकडेन वळ्ळो. तेन्नासावन सातत्यान लेखन चालू आसा. कविता, लेख, कथा, निबंध, एकांकी आदी साहित्यप्रकार केळयल्यात. कांय एकांकी आकाशवाणीवेल्यान प्रसारीत जाल्यात. लेखनावांगडा साहित्यीक, समाजीक आनी संस्कृतीक कार्यावळींनी वांटो घेवपाची आवड. |
| इनामां | : | "कुळागर" म्हयनाळ्यान दवरिल्ले कोंकणी कथा सर्तीत उमेद वाडोवपी इनाम. पेडण्यां जाल्ल्या धाव्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलना निमतान घेतिल्ले कथा सर्तीत दुसरें इनाम. म्हाड्डोळच्या कोंकणी सेवा केंद्राच्या पयल्या वर्सुकी दबाजानिमतान घेतिल्ले अखिल गोंय कोंकणी कथा सर्तीत पयलें इनाम. |
| नोकरी | : | जून १९८८ वर्सा सुनापरान्त दिसाळ्यांत रुजू. सद्या सुनापरान्ताचे उपसंपादक म्हणून काम करता. |

---


**गोवा कोंकणी अकादेमी**

बोरी, फोंडें, गोंय